ಕಾಳಿಜ್ ಶಿಂಧ್‌ಲ್ಲೊ ಅನುಭವ್ ಅಶೆಂ ಉಚಾರ್ತಾತ್ – 'ತುಂ ಆಂಜ್ ಜಾವ್ನ್ ಆಯ್ಲೆಂಯ್ ಆನಿ ಉಪ್ರಾಂತ್ ದೆಂವ್ಚಾರ್ ಜಾಲೆಂಯ್... ತುಜೊ ಪಯ್ಲೊ ಮೋಗ್ ಮ್ಹಜ್ಯಾ ಕಾಳ್ಜಾಂತ್ ರೊಂಬ್ಲೊ ಆತಾಂ ತುವೆಂ ಕಶೆಂ ಮ್ಹಾಕಾ ಸಾಂಡುನ್ ವೆಚೆಂ...'

ವಿಶ್ವಾಸ್‌ಘಾತ್ ಭೊಗ್‌ಲ್ಲೆ ಮೊಗಾರ್, ವೆಗ್ಳಾಚಾರಾಚ್ಯಾ ದುಃಖಾನ್ ವೊಳ್ವೊಳ್ತಾತ್. ಶ್ಯಾ ಭಾಯ್ರ್ ಈಷ್ಟ್ ಸಾಂಡ್ತಾನಾ ವೆಗ್ಳಾಚಾರಾಚಿ ದುಃಖ್ ಆನಿಕ್‌ಯಿ ವಿದ್ರೂಪ್ ಜಾತಾ. ಪುಣ್ ಮೊಗಾರ್, ಹಿ ವೆಗ್ಳಾಚಾರಾಚಿ ನಿರಾಶಾ ಉತ್ರಾವ್ನೆಕ್ ಪರ್ಮ್ತೊನ್ ಎಕ್ಮ್ವೊಟಾಕ್ ಅತ್ರೆಗ್ತಾತ್ ಆನಿ ನಿರ್ಫಳ್ ಜಾತಾತ್.' – 'ಪುಣ್ ಮೋಗ್ ಶೆವೊಟಾಕ್ ಪಾವ್ಲೊ ವ ವಿಶ್ವಾಸ್‌ಘಾತ್ ಜಾಲೊ ತುಜೊ ಉಗ್ಡಾಸ್ ಹಾಂವ್ ಮರೊನ್ ದುಳ್ ಜಾತಾ ಪರ್ಯಾಂತ್ ಮ್ಹಜೆ ಥೈಂ ಉರ್ತಲೊ' – ಅಶೆಂ ಮೊಗಾನ್ ಉದ್ಗಾರ್ತಾತ್. ದೆಖಿಕ್ ಪದ್: 'ತುಜೊ ಉಗ್ಡಾಸ್ ಮ್ಹಕ ಸಂಗಾತಿ ಜಾಲ್ಯಾರಿ ಪಾಸುನುಂ ಮ್ಹಜಿ ಮಾತಿ' – (ಪಾವ್ಲೊ ಮಿಲಾಗ್ರಿಸ್ ಶಿಲ್ವ – 1855–1931).

ಮೊಗಾರಾಂನಿ ತಾಂಚ್ಯಾ ವೈಯಕ್ತಿಕ್ ದುಃಖಾಕ್ ಸರ್ಗ್ ಏಕ್ ಭುಜ್ವಣ್ ಮ್ಹಣ್ ಲೆಖ್ತಾತ್. ಕಾರಾಣ್ ತಾಂಚ್ಯಾ ವಿಶ್ವಾಸ್ ಘಾತ್ಕ್ಯಾಂ ಥಾವ್ನ್ ತಿಂ ಸರ್ಗಾರ್ ಸ್ವತಂತ್ರ್ ಉರಂವ್ಕ್ ಸಕ್ತಾತ್ ಮ್ಹಣ್ ತಾಂಚಿ ಅಭಿಪ್ರಾಯ್ ಜಾವ್ನಾಸಾ. ಪುಣ್ ಥೊಡೆ ಮೊಗಾರ್, ಸರ್ಗ್ ಎಕ್ವೊಟಾಚೆಂ ಬಾಗಿಲ್ ಮ್ಹಣ್ ಸಮ್ಜಾತಾತ್. 'ಆಮ್ಚ್ಯಾ ಮೊರ್ನಾ ಉಪ್ರಾಂತ್ ಜಾಲ್ಯಾರೀ ಆಮಿ ಎಕ್ವೊಟಾಕ್ ಸಕ್ತೆಲ್ಯಾಂವ್... ಹ್ಯಾ ಸಂಸಾರಾಂತ್ ಸಂತೊಸ್ ಹಾಂವೆಂ ಹೊಗ್ಡಾಯ್ಲೊ. ಸರ್ಗಾರ್ ತರಿ ತುಂ ಏಕ್ ಸಬ್ದ್ ಮೊಗಾಚೊ ಉಲಯ್... ಹಾಂವ್ ಬರೆಂ ಮರಣ್ ಮರೊಂಕ್ ಮಾಗ್, ತ್ಯಾ ವರ್ವಿಂ ಸರ್ಗಾರ್ ದೆವಾ ಸಾಂಗಾತಾ, ತುಕಾ ಸಾಂಗಾತ್ ದೀಂವ್ಕ್ ಹಾಂವ್ ಅತ್ರೆಗ್ತಾಂ...' ಅಶೆ ಉದ್ಗಾರ್ ಆಸ್ತಾತ್.

ಅಸಲೊ ಪ್ರಣಯಭರಿತ್ ಮಾಂಡೊ ತಾಚಾ ಸೊಭಾಯೆನ್ ಆನಿ ರುಪೇಸ್ತ್‌ಪಣಾನ್ ಲ್ಯಾಟಿನ್ ತಶೆಂಚ್ ಭಾರತೀಯ್ ಜಾಲ್ಯಾರಿ ತೊ ಆತಾಂ ಚಡುಣೆಂ ಮಾಯಾಗ್ ಜಾಲಾ ಮಾತ್ರ್ ನ್ಹಯ್, ತರ್ನಾಟ್ಯಾಂಚೊ ಮೊಗಾಚಾ ಆನಿ ದುಃಖಾಂಚಾ ಲ್ಹಾರಾಂಚೊ ಸಂಸಾರ್ ಏಕ್ ಶೆಕ್ಡ್ಡೊಭರ್ ಗೊಂಯ್ಚ್ಯಾ ಪಾಚ್ವ್ಯಾ ಧರ್ನಿರ್ ವಿರಾಜ್‌ಮಾನ್ ಜಾಲ್ಲೊಲೊ ಪರ್ತ್ಯಾನ್ ಯೆಂವ್ಚೆ ಲಕ್ಷಣ್ ದಿಸಾನಾ ಮ್ಹಣೊಂಕ್ ಬೆಜಾರಾಯ್ ಭೊಗ್ತಾ.

**ಮೋಗ್ ಕರ್ನಾರ್ಯಾಂಚೆ ಪ್ರಣಯ್ ಪ್ರಕರಣ್:**

ಪಾಶ್ಚಾತ್ಯ್ ಸಂಸ್ಕೃತಿಚಾ ಸಂಯೋಗಾನ್ ಆನಿ ತವಳ್ ಪ್ರಚಾರಾರ್ ಆಸ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಒಪೆರಾ ಆನಿ ರಾಜ್ ದರ್ಬಾರಾಂತ್ಲ್ಯಾ ನಾಚ್ಪಾ ಸಾಲಾಚ್ಯಾ ಪ್ರೇರಣಾನ್ ಮೋಗ್ ಕರ್ನಾರಾಂಚ್ಯಾ ಪ್ರಣಯ್ ಪ್ರಕರಣಾಚ್ಯಾ ಭೊಂವ್ತಣಿ 'ಮಾಂಡೊ' ಪ್ರಕಾರ್ ಉಬ್ಜಾಲೊ. ತವಳ್ಚ್ಯಾ ಮಾಂಡೊ ಘಡ್ಣಾರಾಂಕ್ ಹ್ಯಾ ಮಾಂಡೊ ಪದಾಂಚೆಂ ವಿವಿಧ್ ರೂಪ್ ಆನಿ ಸ್ವರೂಪ್ ಕಳಿತ್

ನಾತ್‌ಲ್ಲೆಂ ಜಾಂಪ್ಕ್ ಪುರೊ. ಪುಣ್ ಮಾಂಡೊ ಪ್ರಕಾರಾಂತ್ ಬಾಂಧ್ ಧಾರ್ಮಿಕ್ ರೂಪಾಕ್ ಬದ್ಲಾಲ್ಲ್ಯಾನ್, ಮಾಂಡೊ ಪದಾಂತ್ ವಿವಿಧ್ ಥರ್ ಉಬ್ಜಾಲೆ. ಪ್ರಾರಂಭಾರ್ ಮೊಗಾಚೆ ಅತ್ರೆಗ್, ಉಪ್ರಾಂತ್ ಮೋಗ್ ಕರ್ನ್ಯಾರ್ಯಾಂಚೊ ಎಕ್ವಟ್ ಆನಿ ಬಾಂಧ್ ತುಟ್ಚ್ಯಾ ಸಂದರ್ಭಾರ್ ವಿಳಾಪ್ ಅಶೆಂ ಥರ್ ಉಬ್ಜಾಲ್ಲ್ಯಾನ್, ಉಪ್ರಾಂತ್ಲ್ಯಾ ಚರಿತ್ರೆಕಾರಾಂನಿ ಆನಿ ಸಂಶೋಧಕಾಂನಿ ಹ್ಯಾ ಮಾಂಡೊ ಪ್ರಕಾರಾಚಾ ವಿವಿಧ್ ರೂಪಾಂಕ್ ಗಡಿ ಘಾಲ್ಲ್ಯೊ.

ಮೋಗ್ ಮ್ಹಣ್ತಚ್ ತಾಂತೂನ್ ಅತ್ರೆಗ್, ಎಕ್ವೊಟ್ ಆನಿ ವೆಗ್ಳ್ಯಾಚಾರ್ ಜಾತಾನಾ ವಿಳಾಪ್ ಮ್ಹಳ್ಳೊ ಪ್ರಕಾರ್ ಆಪಾಪಿಂ ಆಟಾಪ್ತಾ ಜಾಲ್ಲ್ಯಾನ್, ಮಾಂಡೊ ಘಡ್ಣ್ಯಾರಾಚ್ಯಾ ಸಿಂತಿಮೆಂತಾಂನಿ ಅನ್ಭೊಗಾಂನಿ ಆನಿ ತಾಂಕಾಂ ಲಾಭ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಪ್ರೇರಣಾಂನಿ ಹ್ಯಾ ಮಾಂಡೊ ಪ್ರಕಾರಾಚೆ ವಿವಿಧ್ ಆಕಾರ್ ಉಬ್ಜಾಲೆ. ತ್ಯಾ ಭಾಯ್ರ್ ಹ್ಯಾ ಮಾಂಡೊ ಘಡ್ಣ್ಯಾರಾಂಚ್ಯಾ ಭೊಗ್ಣ್ಯಾಂನಿ ಆನಿ ಪ್ರೇರಣಾಂನಿ ಆಪುರ್ಬಾಯೆಚಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಕವಿತಾ ಉದೆಲ್ಲ್ಯಾನ್, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಗೀತ್ ಗ್ರೇಸ್ತ್ ಜಾಲೆಂ. ಮಾಂಡೊ ಪ್ರಕಾರ್ ಶ್ರೇಷ್ಠ್ ಜಾಲೊ ಆನಿ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಾಹಿತ್ಯಾಕ್ ಏಕ್ ದಿಶಾ ಲಾಭ್ಲಿ.

ಜೆ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಗೀತಾಚೆ ಮೊಗಿ, ದೇಶಾಂತರ್ ಆನಿ ನಿವಾಸಾಂತರ್ ಜಾತಾನಾ, ಹೊ ಆಪುರ್ಬಾಯೆಚೊ, ಸಂಗೀತಾನ್ ಪಿಕ್ಲ್ಲೊ ಉತ್ತುಂಗಾಚಾ ಶಿಖರಾಕ್ ಪಾವ್‌ಲ್ಲೊ ಮೊವಾಳ್, ಮೊಗಾಳ್ ಆನಿ ರೊಸಾಳ್ ಮಾಂಡೊ ತಾಂಚಾ ಸಂಗಿ ಗೆಲೊ, ತಾಂಚಾ ಜಿಣೆಯೆಂತ್ ಜಿರ್ಲ್ಲೊ. ಆವ್ಯಾಕಸ್ ಮೆಳ್ತಾನಾ ಸವ್ಯಾಕಸ್ ತರೀ ಫುಲೊನ್ ಆಯ್ಲೊ ಆನಿ ತಾಂಚಾ ಭುರ್ಗ್ಯಾಂ ಬಾಳಾಚೆರ್ ಪ್ರಭಾವ್ ಘಾಲಿತ್ ಆಯ್ಲೊ. ಹ್ಯಾ ವರ್ವಿಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಲೊಕಾಕ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಗೀತಾಚ್ಯಾ ವಯ್ರ್ ಅಭಿರೂಚ್ ಉದೆಲಿ, ನವೆ ಸಂಗೀತ್‌ಗಾರ್ ಉದೆಲೆ, ಪದಾಂಗಾರ್ ಜಲ್ಮಾಲೆ, ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಂಗೀತಾಚೆರ್ ಆತುರಾಯ್ ಉಬ್ಜಾಲಿ, ಕಾಂತಾಳಲ್ಲ್ಯಾ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚೆರ್ ಮೋಗ್ ಉದೆಲೊ ಆನಿ ಹ್ಯಾವರ್ವಿಂ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಭಾಶೆಚ್ಯಾ ಮಾನ್ಯತಾಯೆಕ್ ವಾವ್ರೊಂಕ್ ಕೊಂಕ್ಣಿ ಸಮರ್ಥಕ್ ಆನಿ ಚಳ್ವಳೆಗಾರ್ ಉದೆಲೆ.

******

# अमर कोंकणी - ७०

## मांडावळ

# अमर कोंकणी – ७०

## संपादकाचे उतरे

'अमर कोंकणी' सबार अडकळीं मदेंयी पाटल्या सुमार चाळीस वर्साथावन निरंतर प्रसार जावनंच आसा. कानडी आनी देवनागरी सा–सांगाता आसून छापचें कोंकणीचें एक मात्र संसोधीक नेमाळें हें म्हळ्ळी तृप्ती आमची. तरिकी, ह्या नेमाळ्याची संसोधीक कालेत आनिकी अभिवृध्दी जायजय म्हळ्ळी संगत आमच्या मतींत जरूर आसा.

कोंकणी भास उलवंचे मनीस संसारभर आसात तरी, भारतांत महाराष्ट्रा थावन केरळा दर्या वेळेच्या प्रदेशांत खासकर्न ही भास उलयतात तें आमकां कळीत आसचोच विशय. अशें आसतां 'अमर कोंकणी' पत्र चडकर्न ह्या सर्व प्रदेशांतली कोंकणी भास आनी थंयसर उगम जाल्लें साहित्य मतींत दवरन कांय थोडो संसोद प्रस्तूत कर्चें प्रेतन कर्नंच आयलां. प्रस्तूत अंक्यांतयी ह्या दिशीं लेखनां आमी पळेव्येत.

कोंकणी भाशेची चरित्रा हजारों वर्सां पाटीं वेतातरी, लिखणे साहित्याची चरित्रा केदाळा आरंभ जाता म्हण पळेंवक गेल्यार सुमार सोळाव्या शतमानाच्या मदें कृष्णदास शामा हाणें पयिल्लें कोंकणेचें लिखणे साहित्य गोंयांत आरंभ केल्लें म्हण कळीत जाता. त्या दिशीं एक लेखन ह्या अंक्यांत आसा. तसेंच गांवटी वैद्यकीय शेतांतयी कोंकणेचो प्रभाव खंडीत विशेस आसल्लो तें केरळाच्या वनस्पती विशीं सत्राव्या शतमानांत लिकल्ल्या एका लातीन भाशेच्या ग्रंथा थावन कळोन येता. कित्याकगी म्हळ्यार, त्या ग्रंथांत उल्लेक केल्लीं वनस्पतीचीं नांवा मलयाळी, अरेबीक् आनी कोंकणेंत लिकल्लीं आसात. तशें म्हणताना पुरातन काळार कोंकणेक ह्या प्रदेशांत विशेस स्थान आसल्लें तें दिसून येता. ह्या संबंधी एक लेखनयी ह्या अंक्यांत वाचयेत.

देवादीन स्वामी सुप्रिया कोंकणी जानपद आनी इतर साहित्यांत एक व्हड नांव. कोंकणी हुमिण्यां विशीं ताणीं व्हड काम केलां. आयच्या नवीन पिळगेक कोंकणी भाशे विशींच अलक्शा आसताना, कोंकणेंतलें गिरेस्त जानपद खंयच्या लेकाक? तरिकी, हें जानपद आळवोंक सोडूंक नजो, तें मुंदरसून वचाजे

ह्ळ्ळ्या दीष्टीन हुमिण्यां संबंधी तांच्या लेखनाचो पयलो वांटो ह्या अंक्यांत ायस केला.

कानडी लिपींतल्या कोंकणेंत मटव्या काणीयांची बोव विभिन्न आनी लांब रित्रा आसा. त्या दिशीं कोंकणी मटव्या काणियां विशीं एक लेखन हांगा ायस जालां. तशेंच कोंकणी लोकवेदा विशींयी एक लेखन आसा.

'अमर कोंकणी'चें सुंकाण हातीं धरताना, आदलो संपादक मानेस्त डवीन जे.एफ. डिसोजा हांचो आमी काळजा थावन अबार मानतांव. ताणीं 994 थावन 2000, तशेंच 2007 थावन 2017 म्हणासर ह्या पत्राचें संपादकपण ोव नाजूक रितीं चलवन व्हेलां; अशें 'अमर कोंकणी'चे बोव उंचल्या मट्टाचे ुमार 35 अंके काडच्यांत तांची खळमीत नासली देणगी दिल्या. पाटल्या सुमार करा वर्सां थावन कोंकणी संस्थ्याचे कार्यकारी निर्देशक जावनयी ताणीं ापलो वाव्र दिला. 'अमर कोंकणी'क आनी कोंकणी संस्थ्याक तांचो पाटिंबो ानिकी मुकारून वेतलो.

कोंकणी भास आनी साहित्याक 'अमर कोंकणी' तसलें एक पत्र ायजय तर तुमचो सहकार आमकां जरूर जायजय. तुमचो पाटिंबो नास्तां हें त्र चलंवक आमकां खंडीत कष्ट मारतात. देकून, हें पत्र आनिकी चडीत ाडवंक आमकां सलहा सूचनां आनी आदार दीया.

सर्वांचें बरें जांव.

**– मेलवीन पिंटो, नीरूडे**
संपादक

# कोंकणेंत मट्वी काणी

## डो. एड्वर्ड नजरेत आनी केवीन डिमेल्लो हांच्या काणियांचेर एक नदर

– मेलवीन पिन्टो, नीरुडे

मट्वी काणी म्हळ्यार कितें म्हळ्ळ्या विशीं सबार रितिचीं व्याकाणां आसात. थोड्यां प्रकार (एडगर आलेन पो) वीस–तीस मिनुटां भितर वाचून काडच्या तित्ली लांबायेची तर ती मट्वी काणी जाता. मट्वी काणियेची लांबाय उणी तरी, केवल लांबायेचे दिश्टीन मात्र ती एक मट्वी काणी म्हण सांगचें सारकें न्हंय. थोडे पावटीं थोडी लांब तरी एका काणियेची व्याप्त मट्वया काणियेचीच आसूंक साध्य आसा. दाकल्याक अनंतमूर्तिच्यो चड्ताव काणियो लांब (मौनी, घटश्राद्ध, बर इत्यादी). पुण ह्या सर्व काणियांची व्याप्त आजून मट्वया काणियांचीच शिवाय कादंबरिंची न्हंय.

मागीर थोडे म्हणतात, मट्वी काणी केवल एका विशयाचेर मात्र वाळल्ली आसता. हेंयी सत जावयेत. निजाकी पळेल्यार मट्वया काणियेची व्याप्त केवल एका विशयाक होंदोन आसल्ले तित्ली ती वाचूंक निर्धार केल्ल्या वाचप्याक घुस्पड हाडिनास्तां तो ती कितें आपेक्षिता तें दींवक सकता.

तरिकी मट्वया काणियेंत एका वरनी चड विषय आसूंक नजो म्हण न्हंय. थोडे पावटीं एका काणियेची व्याप्त एका वरनी चड विशय आशेता तर तसले विशय सांगाता हाडची गरज पडता. पूण गरजे भायर चड विशय सांगाता हाडन वाचप्यांक घुसपड करच्याकी विशयाची सरळता सांबाळची जवाबदारी बरवप्याक आसा.

मट्वया काणियांनी पात्र एक, चुकल्यार द्रोन आसाजे म्हण ख्यात रशियन काणियांगार नाटकिस्त आंटन चेकोफ म्हणता (अमूर, 2012). कालेतीन मट्वया काणियांनी पात्र उणे. तशें म्हण हर एका काणियांनी दोनंच पात्र आसाजे म्हळ्ळें नियम करचें कश्ट. "किरयूरिन गय्याळिगळू" पूर्णचन्द्र तेजस्विची एक नीळगता. सबार पात्र आसोनी ती एक कादंबरी जांवक ना आनी त्या पात्रांनी काणियेची जडाय चडयल्या शिवाय घुसपड हाडूंक ना. तरिकी चडताव काणियांनी थोडेच

ात्र आसलल्यान त्या पात्रांच्या गूंडायेक वचूंक काणियेगाराक साध्य जाता.

पात्रां विशीं उलयताना नाम्णेचो इंग्लीश लेखक ई.एम. फोरसटर हाणें ाणियेंच्या पात्रां विशीं केल्लो उल्लेख महत्वाचो. तो म्हणता काणियांनी दोन ्तींचे पात्र आसतात: 'सपाट' (flat) पात्र आनी 'उरूट' (round) पात्र. केवल ्क गूण या विचारांचेर गुमान दीवन रचल्ले पात्र पातळ पात्र तर पातयेंव्क ांवच्या रितीं विजमीत उबजांवची सकत आसचे पात्र उरूट पात्र (Forster, 961). ओट्टारे पळेल्यार काणियांनी प्रमुख पात्र थोडेच आसचें काणियेच्या ेराल भलायके दिश्टीन अवश्य म्हण दिस्ता.

तशें पळेताना मट्वी काणी म्हळ्यार अशीच आसाजे म्हण संविधान ारचें कश्टांचें. जांवक कलेच्या खंच्या प्रकाराकी ती अशीच आसाजे म्हण ेयम करूंक जायना. विग्यानाच्या प्रक्रियेक असलीं नियमां करयेत शिवाय ालेक न्हंय. कलेचें नियम एकच: सहृदयींक आवडचें, तांच्या काळ्जांक ागीं जांवचें, या अन्येका दिश्टीन तांकां दोस्चें (disturb). अशें साध्य ाताना मात्र एक कला जयतेवंत जाली म्हणयेत.

जाल्यारी, हर एका कलेक थोडीं अलिखित नियमां आसतात. दाकल्याक ्का कलाकारान लोकाक आवडचें चित्र सोडयजे तर, सार्वत्रिक नियमां मोडूंक ायनांत. रात म्हळ्ळी ती दिसा बरी पिंतरांवक जायना. एकादावेळा तो तशें ंतरायता तर ताका एक बळवंत कारण आसाजे. हाकाच आमी 'कवि समय' ा poetic justice म्हणतांव.

मटव्या काणियांच्या संदरभांनीयी एक अलिकित नियम आसा: मटव्या ाणियेंत गरज म्हण दिसानातल्लो एकयी चडित सबद आसूंक नजो. तशें हळ्यार, मटव्या काणियेंत भाशेचें, आनी संबदाचें 'सुरातपण' (parsimony) ोव चडित गरजेची.

एक दाकलो दितां, चिंतयां एक काणी सुरयाच्या अस्तमते थावन आरंभ ाता: सुरयो दरयांत बुडलो, सुकणीं घोंटेराक पाटीं गेलीं, फुलां बावलीं, रयत ोरवांक आंबुडन घरा आयलो. असलें विवरण काणियेंत आसा म्हण चिंतया. ातां सवाल हें: हें सर्व देकचें काणियेंतल्या पात्रानगी या काणी बरयतेल्यान? ्कादावेळा हें विवरण लेखकाचें तर, हें गरजे भायलें जाता, कित्याक ह्या ेवरणाक आनी काणियेक संबंध नासतां ह्या विवरणा द्वारीं काणियेचेर कसलोयी

परिणाम पडाना. तशें म्हळ्यार ह्या विवरणाक काणियेंत जागो ना म्हण जालें. पूण एकादावेळा, काणियेंतलो प्रमुख पात्र, चिंतयां रयत, हें सर्व पळेता, तेदाळा ह्या विवरणाक थंयसर स्थान आसा. हें विवरण अशें येंवक साध्य आसा: "सगळ्या दिसाचें काम जावन आपल्या बोयलां सांगाता पाटीं घरा भायर सरल्लो रयत रामण्णान अस्तमतेंत सुरयो बुडोन येंवचें देकलें. त्या तेकीद सुकणिंयी आमसोरान पाटीं घोंटेराक उबोन वेचेंयी ताच्या गुमानाक गेलें. गादया मेरे वयल्या काट फुलांनी एदोळच रातची मांद्री सोडयिल्ली. आपणाचो दीस संपूंक आजून कांय थोडीं वोरां आसात तें चिंताना रामण्णाक निरास भगलो."

## मटव्या काणियाचें संविदान

मटव्या काणियांक कांय एक संविदान आसा तर अमेरिकाच्या ख्यात काणियांगार युडोरा वेलटीन (Welty, 1978) सांगल्ले बरी पयल्यान जिणये आनी मरणा मदलें संघर्श; आनी दुसरयान, सोदनां या अन्वेषणंच मटव्या काणियांचे संविदान. पूण हें संविदान केवल काणियेच्या हाडांच्या घुडांत (skeleton) पळेल्यार पावाना, सगळ्या कूडींत पळेजे पडता. एका लेखकाक ताणें/तिणें बरवंच्या विशयाचेर गूंड जाणवाय जरूर आसूंक जाय. पूण केवल इतलें मात्र आसल्यार तो/ती एक बरी काणी बरयत म्हणचें कश्टांचें. असल्या जाणवाये सवें मनशा कालेतीचेर कांय थोडें अंतरज्ञान (insight) असूंकच जाय. तशें म्हळयार घडितां वरवन पळेंवचीं मात्र न्हंय, मनशा संयभ कशें आनी कित्याक त्या घडितांनी मेतेर जालां म्हळ्ळ्याची जाणतीकाय एका लेखका थंय असाजे. हाका केवल अनभोग आनी गुमान (observation) मात्र पावाना. सर्व वरवण आप्लेंच एक विवरण आनी विमरसो दिंवच्या तसलें देणेंयी आसाजे.

## कोंकणेंत मटवी काणी

कोंकणेंत आनी विशेस करन कानडी लिपियेंतल्या कोंकणी साहित्यांत मटव्या काणियांची लांबायेची आनी विस्तारायेची चरित्रा आसा म्हण सांगल्यार खंडीत चूक जांवची ना. कोंकणेंत मटव्या काणियांची सुरवात शेंबोर वरसांच्याकी चडित आदींच जाल्या. पुण ती चडित गूंडायेक वेल्ली कीर्त कोंकणेंतल्या नाम्णेचे काणियांगार ए.टी. लोबो, श्री गब्बू, सिरिवंत आनी हेरांची. तशें पळेंवक गेल्यार कोंकणी मटवी काकी प्रकार हेर भाशेंतल्या मटव्या काणियांक कांय सुमार ना. आधुनिक मटव्या काणियांनियी सबार लेखक हेळल्ले आसून थंय हांगा विविध प्रयोग कर्न आसचेंयी दिसून येता. पूण ह्या उपरांत मटव्यो

ाणियांचो प्रकार कोंकणेंत तितलोच फळाभरित जावन मुकार वचातगी म्हण यरान सांगचें असाध्य.

## वीन डिमेल्लो आनी एडवर्ड नजरेत

आधुनिक कोंकणी लेखकां पयकी केवीन डिमेल्लो आनी एडवर्ड जरेत हांचे काणियां पुस्तक पाटल्या वरसांनी प्रकट जाल्यात. केवीन डिमेल्लो चो 'चंड आनी गर्भ' (2013) पुस्तक प्रकट जाला तर, एडवर्ड नजरेताच्या टव्या काणियांचो समग्र संग्रह 'व्हडलें फेस्त' (2016) उगताडाक आयला. ोंकणी मटव्या काणियांक ह्या दोगां लेखकांची देणगी व्हडली आसा. एडवर्ड जरेत सराग मटव्यो काणियो लिकता तर, केवीनान लिकल्ल्यो काणियो उणयो. शें म्हण त्यो साहितीक नदरेन चडित मोलादीक काणियो म्हणूंक हांव दाक्षेण रीना. दोगांय लेखकांची साहितीक व्याप्त वेवेग्ळी. केवीनाच्या काणियांनी ामी चडताव ग्रामीण परिसरच पळेतांव. 'चंड आनी गर्भ' संग्रहांतल्या ताच्या ाणियांचो काळ सादारण भारताक स्वातंत्र्य मेळ्ळ्या उप्रांत थावन जमीन्दारी द्धत भारता थावन काड्न सोडल्ल्या सत्तराच्या दशका मदलो म्हणयेत कोण्णा. कूनंच ताच्या काणियांनी जमीन्दारी पद्धतेचे कुळवार पटेल, गौड, हेगडे तशेंच ोषित निम्न वर्गाचे पळेंवक मेळतात. कोंबया काट, मास्ळी गरि घालचें, ांबोळ, चडताव काणियांनी घुसचें चंद्रुचें गडंग, मारी जात्रो, पावशिल्या ावरांत शांभवी–कुमारधारेंत वाळोन येंवच्यो मनजाती, मूड पात्येणी इत्यादी ांगा काणियांचो अलंकार चडंवच्यो बळिष्ठ संगती खंडीत. आपल्या स्थळीय ुळु संस्कृतीचो गाढ परिणाम लेखकाचेर पडल्लो ताच्या काणियांनी धर धर हण दिस्ता. तुळु महिने, हांगाचे यक्षगान, तांतले पात्र, सन्निवेश, कोंबया काट ानी कोंबयांच्यो विविध तुळु जाती (उरिया, मयपा, केमैरा, पेरडिंगा), विविध ासळ्यो (माडोंजी, पुरियोल, देंकळे, पिलिकुच्चे, वाळय), हांगाचे भुत (ब्रह्म दरकळ, पिलचंडी, पंजुर्ली) हे सर्व केवीनाच्या काणियांनी स्वाभावीक रितीं ोळसाल्यात.

करियन हळ्ळी, करिमादेनहळ्ळी असले काल्पनिक जागे केवीनान ृश्टी केल्यात आनी वाचप्यांच्या मतींत त्या गांवा विशीं एक काल्पनीक दृश्य वंचे बरी करच्यांत तो खंडीत यशस्वी जाला.

तेंच एडवर्डाच्या काणियांनी ग्रामीण मात्र न्हंय, शहराच्या जीविताचे ंकीर्ण पात्र आनी विशय येतात. ताणेंयी गोलीमार म्हळ्ळो एक काल्पनिक गांव

आपल्या काणियांनी हाडला. तशें पळेल्यार गोलीमार म्हळ्ळ्या नांवाची एक कादंबरियी ताणें प्रकट केल्या. कांय थोड्या काणियांनी लयंगीक विशयांक संबंधित पात्र आनी परिसर येतात तर, सेज–सांबाराच्यो काणियोयी ताणें लिकल्यात. पुण एडवर्डाची सकत स्त्री आनी आवय पात्रांच्या भंवती रचल्ल्यो काणियो म्हण खंडीत सांग्येत.

थोड्या दशकां आदीं मंग्ळुरी भंवारांतल्या कोंकणी क्रिस्तांव लोकाची हुटवळ तित्ली कांय विशेस नातल्ली. तेंयी भूसुधारण येंवच्या पयलें धनियांचे गादे मूळ गेण दीवन घोळचीं कुट्मांच चड आसल्लीं. भू सुधारण आयल्या उप्रांत सबार क्रिस्तांव कुटमांक गेणिचे गादे मेळ्ळे म्हणयां. अशें परिगत कांय थोडी सुधारली. उप्रांत भुरग्यांक इल्लेशें शिकाप मेळोन तांतलीं थोडीं पोटा ग्रासा खातीर बोंबयाक, गल्फाक गेल्या उपरांत मंगळूरचीं क्रिस्तांव कुटमां निराळ जावन आयलीं.

दुबळिकाये थावन आन्येका हंताक मंगळूर क्रिस्तांव लोक पांवच्यो स्थित्यंतर डो. नजरेताच्या थोड्या काणियांचो विशय जाला. ह्या संदर्भी स्त्री आनी दुब्ळिकाय ताच्या काणियांनी व्हड एक रूपक जावन सासांगाता येंवचें पळेव्येत. एका तेंपार (आनी आजून) मंगळूर क्रिस्तांव कुटमाची सदांची स्थिती म्हळ्यार दीस भर शेतांनी या कूलिचें काम कर्चीं आवय बापुय. सांजेर मात्र जोडल्ले पयशे सोर्याचेर साल्वार कर्चो बापुय. कमर बांदून भुरग्यां खातीर दूक सर्व वोंव्येंत लिपवन कुटाम बांदून हाडूंक कश्ट काड्ची स्त्री. असली जावनासल्ली सबार कुट्मांची सदांची काणी. डो. नजरेत आमच्या लोकाची ही सामाजिक स्थिति सबार काणियांनी दोळ्यांक बांदचेबरी पिंत्रायता. देकुनंच जायजय ताच्या चडताव काणियांनी स्त्रीच उरूट पात्र (round character) जावन आयल्या. स्त्रीयेचे आटेविटे एका दादल्यान तितल्या सलीसायेन समजोंचें, आनी त्या तेकीद साहित्याक देंवंवचें कश्टांचें कामंच सय. हें साध्य जायजे तर मनशा संयभाचें सूक्ष्म संवेदन आसूंक जाय. पुण डो. नजरेतान हें काम बोव नाजूक रितीं केलां म्हण जरूर सांग्येत. ताच्या काणियांतल्या स्त्रीयांक आमी सदां आमच्या सेजाराच पळेंवचेबरी आसा. असल्या स्त्रीयांनी काळ्जांत जिरवन घेंवचें दूक, तांचे थंय दिसोन येंवची ती अगाद सोसणीकाय पळेवनंच सहज रितीं लेखकाच्या काणियांनी असले उरूट पात्र उबजाल्यात म्हणयेत. 'मेल्लो बरें जालें', 'पुताचें मोरन', 'पुगासांव', 'मोर्नाची तयाराय' असल्या ताच्या आयलेवार बरयिल्ल्या काणियांतले स्त्री पात्र स्त्रीयेचें काळिज अर्थ करुंक कुमोक कर्चे पात्र

ावनासात.

'चक्रसर' काणी स्त्रीयेच्या पात्राक लगती एक विशिश्ट काणी म्हणयेत. स्त्रीयेक शोषण म्हळ्ळें तें विविध कुशीं थावन येंवक साध्य. आपणें सुंरगाराक ापारचे नगयी आपणाक शोषित करुंक सकतीत म्हळ्ळें सूक्ष्म चिंताप काणियेंत ासा. ताच्याकी चडित स्त्री जावन जल्माल्या निमती दादल्याक सुख दींवचें स्त्रीयेच्या वांटयाची एक आडांवक जायना तसली जवाब्दारी कशें दिसून येता ँ सयर भयर जाल्ल्या आकयच्या उत्रांनी आमी समजाव्येतः

*"घोवाक नाका म्हणानाका... लागीं येताना पयस करिनाका... रांड जातलेंय"* (चक्रसर)

केवीनाच्या चंडतांव काणियांनी आमी पळेयतांव निम्न वर्गाच्या मनशांचे ात्र. जमीन्दारी पद्दत आसल्लो काळ ताच्या चडतांव काणियांचो जाल्ल्यान ताचें ुमान चड कर्न असल्या समाजेंत दण्सल्ल्या वर्गाचेर गेल्लें निजाकी बोव वर्तेंच नय. आपल्या सूक्ष्म दिश्टीन आनी बहुश अनभोगान हांगाचो लेखक असले ंम्न वर्गाचे पात्र आपलेच खास म्हळ्ळेबरी वर्णन कर्ता. तांचीं नांवा पळेयाः ोग्गुरा, नक्कुरा, कूकुरा, केंचण्णा, मायिला, कूसू, बिरकू, जक्का इत्यादी. हीं ांवां प्रकृतेंत कीळ म्हण लेकच्या जीविंचीं मनजातिंचीं आसोन ह्या मनशांकयी ासल्या जीविंक समा करचें 'व्हडांगेलें' शोषण हेळके भाग्रच लेखकान ाचप्यांच्या गुमानाक हाड्लां. पूण निम्न वर्गाचे म्हणताना केवल जातीन मात्र हंय; अंतस्त आनी सादेपणाच्या अर्थानयी निम्न म्हणच्या तसले संकण्णा आनी ुल्लोडियी ह्या पात्र वर्गांत मेळतात.

पूण विशेस म्हळयार, निम्न वर्गांत चडताव बायलां दादल्यांच्याकी चडित ्लिष्ट आनी जवाब्दारेचीं आस्तात आनी दादले आपल्या बायलांक भियेल्ले ासून मौनंच उर्तात तें लेखकान जोकत्या रितीं अभिव्यक्त केलां.

एकच सन्निवेश दिंवचो तर, 'कूकुरा आनी दुवाळे' काणियेचो एक प्रसंग ळेयाः *'लेन, सुनेक पींत खदवळ्ळां जायजे. इल्लें बिंडी उदाक दीवन 'सोड.' कुरान बायलेक आमोलीक सलहा दिल्ली. 'बिंडी उदाक तुज्या पुताच्या पेंडाक सोडिजे. पींत गींत कांय ना. दुवाळे सुरु जाल्यात्य.' बिरकुन घोवाची सलहा 'पुस्कु' केली.*

अशें केवीनाच्या काणियांनी निम्न वर्गाचे पात्रच चड. ह्या पात्रां द्वारीं मीन्दारी पद्धत आमच्या गावांत आसताना निम्न वर्गाच्या लोका वग्र भाटांगारांनी,

आस्तिदारिंनी चलयिल्लो जुलूम, अनीत बोवच मार्मीक रितीं, थोडे पावटी स्पश्ट आनी थोडे पावटीं अस्पश्ट रितीं, लेखक विवरिता. व्हडांगेल्यांनी निम्न वर्गांच्यांक वापार्ची भास पळेयाः "बोसुडी पुतंनो... कोंबयांक आंगणाच्या मूल्यांनी आसल्ल्या 'गुटां'क बांधुन हांगा बसा." (उरिया, मयपा कोंबया प्रकरण). चडताव ह्या निम्न वर्गाच्या व्यक्तींक उद्देसून उलयताना, 'बोसुडी पूत' म्हळ्ळो सब्द हेळ्केविणे सावकारांच्या तोंडा थावन भायर पडचो दिसोन येता. हाचो अर्थ, निम्न वर्गाचे पूरा 'निर्मळ' जल्म घेवन आयिल्ले न्हंय म्हण ह्या सावकारांनी तांकां मानून घेतलां, या निर्मळ जल्म घेंवक तांच्या जल्माक फावो न्हंय म्हणोनयी आसोंक पुरो. निम्न वर्गाच्या पात्र विवरणांत स्पश्ट जांवच्यो संगती म्हळ्यार दीस–भर बेसोर पडचें काम, सांजेर गडंगांत जिवाचो बेसोर विस्रोंक कांय थोडो सोरो; दुब्ळिकाय, हिंसा, आण्कणे, शोशण इत्यादी. (असल्यो काणियो वाचताना कन्नडाचे ख्यात दलित लेखक बरगूरु, मोगळ्ळी गणेश, देवनूरु तसल्यांच्या काणियांचो उडास येता. दाकलो दिंवचो तर देवनूरुची 'अमासा', बरगूरुची 'क्षामा' काणियो आनी मोगळ्ळिची 'बुगुरी' कथा संग्रहांतल्यो काणियो).

## लंयगिकता

डो. एडवर्डान लंयगीक विशयांक संबंधित काणियो लिकल्यात तर, केवीनाच्या काणियांनी लंयगिकता एक थीम जावन उबजोंवचो आमी पळेवयेत. कांय थोड्या काणियांनी ('चंड आनी गर्भ', 'नक्कुरा महात्मे', 'भीं', 'कूकुर आनी दुवाळे', 'कोंबो आनी भीं', 'संकण्णा सर्कस आनी...') लंयगिकता थोडेकडे सुटावें आनी थोडेकडे रूपकां सवें गुप्तीं ताणें पिंत्रायल्या. लेखक मनजाती आनी मनशा लंयगिकते मदें एका रितीचो साम्य सृश्टी कर्चें कांय थोड्या कांणियांनी दिसोन येता. पाडो, पाड्यांक जाल्लें गायरुं, कोंबिये पाटल्यान धांवचो उरिया कोंबो, बीं ह्या सर्व वर्णना द्वारीं लंयगिकतेचो विशय बोवच विशिश्ट आनी, कोंकणेक अपूब म्हळ्ळे रितीं केवीनान सादर केल्लो दिसोन येता. लंयगिकतेच्या विशयाक पूरक जाव्न सबार काणियांनी बायलांची साकाळिंची वोंक रूपक कशी उटोन दिस्ता.

पूण हांगा मनशा लंयगिकता मनजातींच्या लंयगिकते बरीच स्वाभाविक अशें एक भाव थंय हांगा दिसोन येंवचें सहज. देकुनंच भुरगीं ना म्हण कर्गोंचो शेट्टी (कूकुरा आनी दुवाळे), या गर्भांत एक भीं पडाजे म्हण आंवडेंवच्या हेगडेच्या बायलेक (कोंबो आनी बीं) निम्न वर्गाचो करिनिंगा

ास्पृश्य म्हण दिसाना. मनजातीं मदें कशें जात कात नांगी, मनजातीं थावन सिलेक्टेड लरनिंग' कर्चो मनीस लंयगिकते विशिंयी जात कात पळेंवक वचाना हळ्ळो भाव थोड्यो काणियो सादर कर्तात. तशें म्हण असल्या लंयगिकतेक यभिचार' म्हळ्ळो बिल्लो लेखक खंयसरयी दींवक तयार ना. मनजाती संसारांत ाशें, मनशा संसारांतयी कांय थोड्या चत्राये द्वारीं ही एक प्रकृती सहज डावळ म्हळ्ळयाबरी हांगाचीं घडितां घडतात. लंयगीक क्रियेंत मोरालिटी आनी थिक्स या नैतिक दीश्ट इत्यादी प्रमुख म्हण दोसचो केदनां व्यक्ती असल्या क्रियेंत सांपडन पडतागी तेदनां मात्र म्हळ्ळें सत विचित्र तरी सत तें बोवच ार्मीक रितीं आपल्या पात्र आनी सन्निवेशां द्वारीं केवीनान व्यक्त केला.

## रयो काणियो सार्वकालीक प्रस्तुत

डो. एडवर्ड सराग काणियो लिकता तर केवीनाच्यो काणियो आप्रूब ाल्यात. तरी पूण दोगांयच्यो काणियो सार्वकालीक प्रस्तुत तें नेगारूंक जायना. ांवें एदोळच सांगल्ल्याबरी केवीनाच्या काणियांचो काळ जमीन्दारी पद्दतिचो ाळ. आज ती पद्दती त्या स्थितेंत ना. अधिकृत जमीन्दारी पद्दतेचें अंत्य ात्ताराच्या दाकड्यांतच जालां. तशें म्हण शोशण अंत्य जालां म्हण सांगोंक ायना. शोशणाचें रूप बदल्लां तित्लेंच; वसाहतुशाही पद्धत संपोन आज नव्या ितिची वसाहतुशाही पद्दती आरंभ जाल्ल्याबरी.

आयच्या वाचप्यान केवीनाच्यो काणियो वाचताना, जमीन्दारी पद्दतेची एक ोलायेची चरित्राच ताचे समोर उबी जाता. एक साहित्य खंयच्या कालाकयी स्तुत. कित्याक, साहित्याचो मूळ उद्देश सहृदयींक एक आह्लाद दिंवचो, ावालां उटंवचो शिवाय सर्व जापी दिंवचो न्हंय. केवीनाच्या काणियांत आसल्ल्या सली परिस्थिती आज दिसाना तरयी तितलीच क्रूर, पूण आन्येका रितिची ोशित रीत आजयी दिश्टीक पड्ता. दाकल्याक जमीन्दारी पद्धतेच्या जाग्यार ाज अगणित अमीर आनी झोपडपट्टेंतले निराश्रित अशें वर्ग दिसोन येतात. ायची आर्थिक परिस्थिती गिरेस्तांक चडित गिरेस्त कर्ता तर, दुबळ्यांक ागतीक पावयता. शोशण आनी अनीतीचें आज सांस्थीकरण (institutionalisation) ालां. त्या नद्रेन पळेताना केवीनाच्यो काणियो वेगळ्याच स्थरार आमी अर्थ िवरण (hermeneutics) दीवन विश्लेषण करयेत.

तितलें मात्र न्हंय ताच्या 'जक्का आनी झर', 'कुल्लोडिच्यो साहस कथा' ाणियांनी दिश्टीक पडची हळ्ळ्यांक हळ्ळयोच मायाक जांव्ची परिस्थिती आज

आमच्याच भंवारांत आमी भरपूर पळेयतांव. शिकल्ले मनीस आज हळ्ळेंत रावानांत. अशें हळ्ळेची आस्त एकच विकून सोडल्या या पणगील पडोनंच आसा. हळ्ळेंत रावोनयी दिस्पडतो ग्रास जोड्येत म्हळ्ळें चिंताप जागतीकरण आनी खावग्या संस्कृतेक ओळग जाल्ल्या तरन्या पिळगेक समजोंचें कश्ट. देकून आमच्या लोकाक आज गल्फ, या मुंबयी, बेंगळूर आपल्या भविश्यांचीं दारां उगडचीं शेरां जाल्यांत. त्या दिश्टीन पळेताना, निजाकी केवीनाच्यो काणियो बाचप्याक चिंत्पाक लायतात, कांय थोडें आटंवक प्रेरण दितात.

डो. एडवर्डाच्या काणियांनी मनशा संयभ चडित विश्लेषणाक ओळग जाल्लें आमी पळेयतांव. स्त्री पात्रांच्या भितर 'परकाय प्रवेश' कर्चो लेखक तांचे आटेविटे बोवच नाजूक रितीं सादर कर्चें एक कलाच सय. स्त्री पात्रांक लागशिल्यान पळेवन वरयिल्ल्यांक मात्र हें साद्य जाता. आदीं मागा थावन स्त्रीयांक दुसर्या वर्गाचे मनीस म्हळ्ळेबरी ही पुरुष प्रधान समाज पळेवनंच आयल्या. पुण स्त्रीयेक तिरस्कारान पळेयताना ह्या संसारांतल्या पन्नास प्रतिशत संयभाकच नेगार केल्ल्याबरी जाता तें आयच्या समाजेन समजाजय. असलें सूक्ष्म चिंताप आसल्ल्यानंच डो. एडवर्डाचे स्त्री पात्र बळवंत जाल्यात.

ताच्या चडताव काणियांनी वाचप्यांक एक साहितीक आघात दिंवचो साहितीक गूण आसा. लेखक चडताव काणियांनी एक संदिग्द स्थिती रचता आनी काणियेचो हंदर वाचप्याक त्या संदिग्द स्थितेच्या पोंताक पावयता आनी थंयच सोडता. ह्या द्वारीं वाचप्याक रोसाळ अन्भोग जांवच्याकी चड आघात जाता.

साहित आमकां रसानुभव दिता. पूण रसानुभव केवल धनात्मक या पोसिटिवच आसूंक जाय म्हण ना. रसानुभव म्हळ्यार भरतमुनीन आपल्या नाट्यशास्त्रांत उल्लेख केल्ल्या खंयच्यायी नोव रसां पयकी एक रस या दोन तीन रस सांगाता मेळोन दिंवचो साहितीक अनभोग. डो नजरेताच्या काणियांनी असलो रसानुभव रुणात्मक रसांचेरच होंदोन आसा. ताच्यो चडताव काणियो सुखाळ अंत्याक पांवच्यो काणियो न्हंय. थंयसर संदिग्धता आनी साहितीक आक्लासच पळेंवक मेळून अंत्य दुखाभरित आसा. (दाकल्याक रागिंग, मोगाचो पूत, चोराचो पूत, मोर्नाचे तयाराय) Bollywood फिल्मांनी दुखाभरित अंत्य आसल्यार तीं जिक्चें उणें. कांय 'शोले' तसलीं एक दोन फिल्मां हाका अपवाद आस्तीत. तशें म्हण साहित्य Bollywood न्हंय. जेदनां साहित्य हर रसांचो

न्बोग दींवक सकता तेदनां तसल्या साहित्या द्वारीं जांव्चो परिणाम चड.

त्या तेकीद, डो. नजरेताच्या काणियांनी मरण प्रमुक संकेत जावन येता. रण एक सुटका जांवक पुरो (मेल्लो बरें जालें) या मरण अवचीत आनी ांकीर्ण (मोर्नाची तयाराय) या मरण जिवंत आसल्ल्यांक कृतक वेस पांग्रूंक एक ाट (पाप्पाचें मोर्न, बांदूंक जायनातल्लो फोंड). पूण वेवेगळे मनीस मरण ळळी स्थिती कशें फुड कर्तात म्हळ्ळें वास्तव लेखकांन पिंत्रावक प्रेतन ेलां.

## ाहित्य आनी जिणी

साहित्य जिणियेचें प्रतिफलनगी म्हळ्ळें सवाल साहित्या तितलेंच परनें. ाड्ताव साहित्यांत आमच्या दोळ्यां मुकार घडल्लीं घडितां, अनभोग बरवप्याक ारण जातात. काणियेचें मूळ 'घटन' म्हण थोडे विमर्शक सांगतात (अमूरा, 012). पूण घटन काणी जायना. घटनाक जीव भरताना साहितीक रूप दिताना ात्र ती एक काणी जायत. केदाळा लेखकाची क्रियाळ सकत त्या घडितांक ीव भरुंक सकता, तेदाळा घडितां आसल्लीं साहित्य जावन रूपांतर जातात. ाकल्याक केवीनाच्या काणियांत्ले चडताव पात्र ताणें ताच्या सेज–सांबारा ळेल्लेच म्हण ताणें म्हळ्ळें आसा. कांय थोडीं घडितांयी नीज जांवक पुरो. ाशें म्हण त्या पात्रांक आनी घडितांक जीव भरन एक साहित्य जावन रूपित ारच्यांत लेखकाचें तालेंत आनी मिनत विशेस पात्र घेता.

तशें म्हळ्ळ्या उपरांत डो. एडवर्डाच्या चडताव काणियांनी वाचप्याक ाळचो 'साहितीक आघात' विशेस. आनी हो कित्याक म्हळ्ळें आमी चिंतूंक ावो. साहित्याचो मूळ उद्देश वाचप्याक रसानुभव दिंवचो. आसुं. पूण ह्या सानुभव प्रक्रियेंत वाचप्यां थंय थोडीं थोडीं सवालां उटवन वाचप्यान आपल्योच ापी सोदूंक लांवचें, ताका चिंतपाक लांवचें गूंडायेच्या साहित्या थावन साध्य. ामचे थंय चड काळ उडासांत उर्चें साहित्य आमकां रोसाळ भगाप दिल्लें हंय, पूण आमचे थंय विविध रितीचीं सवालां उटवन धोसल्लें तसलें जावनासा. ो. नजरेताच्यो सबार काणियो पात्रांक (आनी वाचप्यांक) संदिग्धतेच्या पाटोसाक ावोन वाचप्याचे आटेविटे चडंवक सकतात. हांच्या मदें अनिरीक्षित घुंवडी ेंवची अव्वल कलायी ताच्या काणियांची सकत म्हणाजय. फामाद इंग्लीश ाणियेगार ओ. हेन्री तसल्या लेखकांच्या काणियांनी आम्कां झळकुंची सकत ीच. असल्या अनिरीक्षित घुंवडे द्वारीं ओ. हेन्रीच्यो काणियो लोकामोगाळ

जाल्यो. पूण अनिरीक्षित घुंवडी दीजय तर त्या दिशीं बुन्याद काणियेच्या सुर्वाते थावनंच येजे पडता. एक अस्कत गांच काणियेच्या सुर्वातेर दिसाजे आनी होच गांच काणियेची सकत जावन अनिरीक्षित घुंवडेक कारण जाताना ती घुंवडी सहज आनी पात्येंवच्या तसली जाता. ना तर तें एक सायन्स फिक्षन जायत. डो. नजरेताच्या काणियांनी आमी देक्ची अनिरीक्षित घुंवडी खंयसरयी असहज म्हण भगाना. दाकल्याक: 'रूण' काणयेंत आंगडीच्या सिकेरामा थावन चुकोन चडित चुंगडी पैशे घेतल्ल्या मास्तेराचे आटेविटे. आनी कसलोगी एक निर्धार करून समाधान भगताना येंवची अनिरीक्षित घुंवडी वाचप्याक अनयेका स्थराक वरन पायता.

## डेत आफ दी आथर

फ्रेंच तत्व शास्त्री आनी विमर्शक रोलंड बार्तस हाची एक थियरी आसा, डेत आफ दी आथर (लेखकाचें मरण). जेदनां एक कृती लेखक रचून संपयता तेदनां तो लेखक त्या कृतियेक मोर्ता. ताचे उप्रांत ती कृती वाचप्याच्या हातीं जीव घेता आनी तांच्या विमर्शाक आनी अर्थ विवरणाक ओळग जाता (Barthes, 1977/1993).

हें खंडीत सत. पूण हांव चिंतां, एक लेखक कृती बरयल्या उप्रांत मात्र न्हंय, बरवन आस्तानांच मोर्ता. तशें म्हळ्यार कृती रच्च्या संदर्भी धंयसर लेखक पात्रांच्या भितर 'परकाय प्रवेश' कर्ता आनी ताचे उप्रांत लेखक न्हंय पात्र उलयतात. एक काणी या एक कादंबरी ती आमकां परिणामकारी कशी भगाचे तर, आमी त्या काणियांनी लेखकाक विसराजे आनी पात्रांच्या काळजां भितर घुसाजे. तेदाळा मात्र काणी जिकता.

कोंकणेंत ह्या दिशीं प्रेतन करचे बोवच थोडे आसात. थोड्यांच्यो काणियो, कादंबरी वाचताना थंयसर आमकां हर एक पात्रयी एकाच रितीं उलोंवचें दिस्ता. तशें म्हळ्यार त्या पात्रांनी आमकां लेखक दिस्ता शिवाय पात्र न्हंय.

पूण आतां आयलें सवाल: डेत आफ दी आथर म्हळ्ळ्या उप्रांत लेखकाक आनी कृतियेक संबंध कसलो? तो त्या काणियेंत एक पात्र न्हंय आसूंक पुरो, पूण पात्रांच्या भितर गेला आस्तां पात्रां सवें ताका एका रितिचो सिंतिमेंताळ संबंध उबजूंक साध्य ना? ताणें कृतिये सवें आनी पात्रां सवें संपूर्ण मेकळो जांवक आनी वस्तुनिष्ट (objective) संबंध मात्र रुता करुंक साध्य?

असल्या सवालांक सलीसायेन जाप दींवक साद्य ना. संपूर्ण वस्तुनिष्टता कोणा वर्वियी साद्य ना. पूण कृतिये थावन एक 'साहितीक अंतर' (literary distance) दवरल्या शिवाय एक कृती लेखकाचीच जावन उरात, वाचप्याची न्हंय. साहित्या द्वारी आमी लोका थंय, समाजे थंय बदलाप हाडतांवगी कळित ना. पूण साहित्या द्वारीं लोकाक आसवाद, रसानुभव दिंवची जवाब्दारी हरएक लेखकाक बांदता. अशें साद्य जायजे तर लेखकान काळिज आनी मन उग्तें करिजे शिवाय दोळयांक कलर ग्लास घालन पळेंवचें न्हंय. डो. एडवर्ड आनी केवीनाच्या काणियांच्या संदर्भांनी खंडीत आमी 'डेत आफ दी आथर' प्रक्रिया तांच्या काणियो सृश्टी जांवच्या संदर्भारच जाल्ली पळेव्यत. तांच्या पात्रांनी लेखक उलयनांत बगार पात्र उलयतात. पात्रां तेकीद भास सादी या गर्वी; शुद्द या गलीज; लंयगीक या धार्मिक कर्च्यांत ताणीं मुलाज दाकयिल्लो ना. पात्रांच्या भितर वचून पात्र उलोंवच्या बरी करूंक तांकां साद्य जालां. त्याच देकुन तांच्यो व्हडताव काणियो चडित सहज म्हण दिस्तात मात्र न्हंय साहितीक दिश्टीन महत्वाच्यो खंडीत.

## समारोप

साहित्यांत – जांव मट्वी काणी या कादंबरी – येंवचे पात्र आमच्या भोंवारांतले. एडवर्ड आनी केवीनाच्या काणियांनी येंवच्या पात्रां पयकी सबार समाजेच्या निम्न वर्गांतले आनी दुबळ्या लोकां मदले. आमी जांचे विशीं साहित्य रचतांव, तांकां तें साहित्य पावाना तर त्या साहित्याचो शेवोट कसलो? दाकल्याक केवीनाच्या काणियांतले करिया, मादा, बोग्गुरा, नक्कुरा असल्यांक केवीनाच्यो काणियो पावल्यातगी? या डो. एडवर्डाच्या काणियांतल्या थोड्या दुबळ्या स्त्री पात्रां तसल्यांनी ताचें साहित्य वाचलां म्हण सांगचें कश्ट. एकादावेळा आमच्या काणियांतल्या पात्रांक या पात्रांक ताळ पडच्या लोकाक आमचें साहित्य पावाना तर, आमी तांकां कर्चो व्हड अन्याय न्हंयगी हो?

साहित्याचो शेवोट सुदारण न्हंय म्हळ्ळें आमी पयल्यान पयलें ओपून घेजय. सर्व समस्यांक जापी दिंवचो उद्देशयी साहित्याचो न्हंय. तशें पळेल्यार साहित्य जापी दीना, चडित सवालां उटयता. C.S. Lewis हाणें सांग्चेबरी साहित्याचो मूळ शेवोट स्पश्ट आसा:

Literature adds to reality, it does not simply describe it. It enriches the necessary competencies that daily life requires and provides; and

in this respect, it irrigates the deserts that our lives have already become." ("Literature adds", n.d.)

(साहित्य वास्तविकता विवर्सिता मात्र न्हंय, वास्तविकतेक कांय थोडें कुडसीता. दिस्पडत्या जिणयेक जाय ती सकत जिणी दिता आस्तां, साहित्य ती सकत जिवाळ करता. आनी अशें साहित्य मरुभूमी कशी जाल्ली आमची जीण भिजंव्क सकता.)

जिणी कांय थोडी जिवाळ कर्ची, कांय थोडें आटंव्क चिंतूंक लांवचें; हें थोड्या मापान तरी साहित्य करुंक सकता तर, खंडीत तसल्या साहित्याक चडित महत्व आसा म्हण जालें. डो. एडवर्ड आनी केवीनाच्या मटव्या काणियांच्या संदर्भार, खंडीत हो शेवोट बोव चडित मापान पोंताक पावला म्हण खंडीत सांग्येत.

## आधार ग्रंथ


1. Foster, E.M. (1961). *Aspects of the novel.* Harmondsworth: Penguin.
2. Barthes, R. (1977/1993). *Image-Music-Text.* London: Fontana Books.
3. Literature adds to reality. (n. d.) Retrieved from https://www.bartleby.com/essay/Literature-Adds-To-Reality-F3LNGGYTC
4. अमूरा, जि.एस. (2012). *कन्नड कथन साहित्यः* सण्ण कते, बेंगळूरुः प्रियदर्शिनी प्रकाशन.
5. डिमेल्लो, के. (2013). *चंड आनी गर्भ.* मंगळूरुः सृजना प्रकाशन.
6. नजरेत एन. (2016). *व्हडलें फेस्त.* मंगळूरुः कोंकणी साहित्य अकाडेमी.

# लोकवेदः व्याख्या आनी व्याप्ती

– डॉ. जयन्ती नायक, गोवा

(कृपाः लोकबिंब 1998)

'लोकवेद' म्हळयार लोकजिणेचीं पडबिंब! त्या त्या वाठारांतल्या लोकांच्या ीवनपद्धतिचीं वैशिष्टां त्या त्या वाठारांतल्या लोकवेदांत स्पश्टपणान उदेल्लीं ासतात. समाजांत रावपी लोकांची जियेवपाची पद्धती कशी? तांचीं सुख– खां, तांचे हावेस–उमाळे, इत्सा–उत्फरके, समाजांत वावुर्पी जाती–जमाती दले भितल्ले आनी भायले संबंध, घडपी भौतीक आनी मानसीक स्थित्यंतरां, ांवची रचणूक, सांस्कृतिक एकचार आनी वेगळेचार, ह्या सगळ्यांचे जितें– जेवें पडबिंब त्या त्या समाजांतल्या वा त्या त्या वाठारांतल्या लोकवेदांत पडिल्लें ळोंवक मेळटा.

गोंयय वयल्या नेमाक आडवाद ना. गोंयांतयी वेग–वेगळ्या जाती–धर्माचे, ग–वेगळ्या सामाजिक थराचे लोक रावतात. तांच्या सगळ्यांच्या जीवन पद्धतींचें र्शनयी गोंयच्या लोकवेदांत घडटा. लोकगितां, लोक काणियो, म्हणी, उमाणीं, ात्रा–उत्सव, चाली–रिती बी कितके तरी लोकवेद प्रकार गोंयचे लोकजिणिचो ारसो जावन वावुरतात. 'लोकवेद' संकलपना पुराय तरेन स्पश्ट जावपाखातीर, ोकवेद उत्राची आयच्या संदर्भांतली व्याख्या, ताचो आंवाठ वा व्याप्ती, शास्त्र भ्यासाचो थोडो–भोव इतिहास, लोकमानसाचो उदेव बी आंगाचेर थोडें ास्ताविक करप महत्वाचें आसा. ह्या लेखांत 'लोकवेदाची व्याख्या' आनी व्याप्ती ांडपाचो यतन केला.

लोकवेदाचें दायज खूब पोरने. मनीस संस्कृतायेच्या जलमा बरोबरच ोकवेदाचो उदेव जाल्लो आसा, लोकवेदा भायल्या हेर गजालींतल्यानूय मनीस ंस्कृतायेचें दर्शन घडटा आसलें तरीय लोकवेद हें लोकसंस्कृतायेचें दर्शन डोवपी एक महत्वपूर्ण आनी प्रभावी अशें माध्यम. मनीसजातीचे जिणेचेर ह्या ाध्यमाचो पुरायतरेन प्रभाव पडिल्लो आसा.

एका काळार लोकवेद म्हळयार अशिक्षित आनी शारी जिणेकडल्यान यस आशिल्ल्या समाजांत मौखिक परंपरेन घोळणुकेंत आशिल्लें 'साहित्य' तक्याच पुरतो अर्थ मर्यादित आशिल्लो. आज ताका खूबच व्यापक अर्थ फावो

जाल्लो आसा. देश-विदेशांतल्या कितक्यातरी विद्वानांनी आप-आपले परीन लोकवेदाची व्याख्या मांडपाचो यतन केला. 'आरिलियो एस्पिनोझा' नांवाच्या एका पाश्चात्य विद्वानाच्या मत्ताप्रमाण, 'पूर्वपरांगत साकून मौखिक परंपरेन जें गिनयान मनीस जातीक मेळ्ळां, जें तिणें अणभवलां, आत्मसात केलां आनी जतन करून दवल्लां, ते सगळें म्हळयार लोकवेद'.

'बी.ए. ब्याटकीन' नांवाच्या एका अमेरिकन विद्वानान लोकवेदाची व्याख्या मांडल्या ती अशी: पुरायतरेन मौखीक परंपरेंत जगपी संस्कृतींत मेळपी सगळेंच म्हळयार लोकवेद!'

लोकवेद हो विशय जरी बरयाच उसरां अभ्यासपाक सुरवात जाल्या आसली तरी, हेर विशयां परस ह्या विशयाच्या विद्वानां मदीं आज चड भासा-भास जाता. लोकवेदाची व्याख्या कितें आसची हाचेर तर कोणाचेंच एकमत ना, हाची गवाय 'स्टांडर्ड डिक्षनरी आफ फोकलोर, मैथालजी एण्ड लिजेंड्स' हांतूंत लोकवेदाच्यो ज्यो एकवीस व्याख्या मेळटात, त्यो अभ्यासल्यार दिसून येता. संवसारांतल्या आनिकयी जायत्या विद्वानांनी, हे भायर आप-आपलेपरीन लोकवेदाच्यो व्याख्या मांडल्यात. भारतांतयी लोकवेद विद्वानां मदीं हे विशीं भासा-भास जाता. मात सगळ्यांनी एका मुदयाचेर आपलें मत बांदून दवरलां, तें म्हणजे, 'अनुकरण आनी मौखीक परंपरा हातूंतल्यान मेळपी सगळें गिनयान म्हळयार लोकवेद!'

आयचे सुवातेर फुडली व्याख्या लोकवेदाची प्रमाण व्याख्या अशें मानतात: 'मौखीक परंपरेन वा पारंपरीक कृतींनी एके पिळगे कडल्यान दुसरे पिळगेकडेन वचत रावपी, वेगवेगळ्या रूपांत मेळपी, आनी येका पंगडाच्या सगळ्या वांगडया मदीं आसपी, सगळ्यो गजाली म्हळयार लोकवेद!'

लोकवेदांत एके आवयन आपल्या भुरग्याक न्हिदोवपाखातीर गायिल्ले आल्लयेच्या जसो आसपाव जाता, तसोच आपल्या आज्या-पणजाकडल्यान देणें मेळिल्ल्या पारंपरीक धंधयाचोय समावेश जाता. एकाद्रया समाजाचीं लोकगीतां, लोककाणियो, म्हणीं, उमाणीं जशीं लोकवेदांत मोडटात, तेचभशेन त्या समाजाच्यो चाली-रिती, खाण-जेवण, न्हेसण पांग्रूण, घर-दार, आयदन-खोलो, विधी संस्कार, भेस-अळंकार, समज-विस्वास, जात्रा-फेस्तां, उत्सव-वृतां, सण-परबो, गांव-गांवकी, गाराणीं-सांगणीं, कला-कारागीर बी प्रकारांचो लोकवेदांत आसपाव जाता.

पुरविल्ल्या लोकवेद संग्रहकारांनी लोकवेदांतल्या 'जिबेवेलें साहित्य' म्हळ्यार फकत्त लोकगितां, लोककाणियो, म्हणी, उमाणीं ह्या भागाचेरूच लक्ष केन्द्रीत केल्लें आनी लोकवेद म्हळ्यार फकत हें इतकेंच असो तांचेमदीं समज आशिल्लो, जो भौतेक लोकां मदीं आजयी मेळटा.

आज नवे पीळगेचे लोकवेद विद्वान, लोकवेदाच्या अभ्यासाखातीर व्यापक पद्धतिन पुराय लोकजिणिचोच विचार करतात. लोकवेदाचो अभ्यास हो लोकमनाच्या आविष्काराचो अभ्यास आशिल्ल्यान लोकमन ज्या विविध माध्यमांतल्यान व्यक्त जाता. त्या सगळ्यांचोच विचार केल्याशिवाय तो अभ्यास परिपूर्ण जायना, म्हणूनच लोकमनाच्या शब्दांनी बंदिस्त केल्ल्या आविष्कारां बरोबरच लोकरूढी, लोकविश्वास, विधी–रिती आनी हेर कृतिंतल्यान व्यक्त जावपी गजालींचोय अभ्यास करप गरजेचें आसता. म्हणजेच लोकवेदाचो अभ्यास हो खोलारथान लोकजिणेचो अभ्यास थारता.

लोकवेदाचे कांय विशेश गुणधर्म अशे:

1. परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावता.
2. मौखीक परंपरेन मेळटा.
3. वेग–वेगळ्या स्वरूपांनी मेळटा.
4. कान आनी दोळयांच्या माध्यमांतल्यान मेळटा.
5. बदलत आसता आनी थिर नासता.
6. मुळाक एकटे व्यक्तीकडल्यान निर्मणी जाता आसली तरी काळाच्या ओघांत, ते व्यक्तीचें नांव कुशीक पडून ताचेर पुराय समूहाचें वा पंगडाचें धनीपण उरता.
7. केन्ना केन्नाय कृतींतल्यानयी मेळटा.
8. एका पंगडाच्या सगळ्या वांगड्यां मदीं मेळटा.

कोंकणींतलें 'लोकवेद' हें उतर इंग्लीशींतल्या 'Folklore' ह्या उत्राक समान अर्थान वापरतात. 'शास्त्र' आनी 'सामुग्री' ह्या दोनयी अर्थान तें घेतात. तरी पूण लोकवेद अभ्यास्पाच्या शास्त्राक 'लोकवेद शास्त्र' (Folkloristics) हें शास्त्रीय परिभाशेंतलें उतर आसा. लोकवेद हें उतर 'लोक' (Folk) आनी 'वेद' (Lore) ह्या दोन उत्रांच्या समासांतल्यान घडला.

हर्शिल्या वेव्हारांत 'लोक' हें उतर ज्या अर्थान घेतात ताच्या परसयी खूब वेगळ्या अर्थान तें लोकवेदांत येता. लोकवेदांत ताका एक खाशेले अर्थ फावो जाल्लो आसा. सदच्या वेव्हारांत 'लोक' उतर 'हेर', 'परकी', 'वेगळो' अशा वेग-वेगळ्या अर्थान घेतात. 'हांव कितें लोक न्ही!' वा 'लोकांक ही गजाल सांगानाका!' अशें म्हणटाना तांतल्या 'लोक' ह्या उत्राचो अर्थ लोकवेदांतल्या 'लोक' उत्रापरस खूबसो वेगळो आसता. लोकवेदांत 'लोक' हें उतर एक विशिश्ट अशी जिणेपद्धत जगपी समान दरज्याच्या लोकांचो पंगड अशा अर्थान उपकारायतात.

लोकवेदाच्या अभ्यासाक जेन्ना सुरवात जाली त्या सुरवातेच्या काळार 'लोक' म्हळयार रानवटी अवस्थेंत रावपी, अशिक्षित आनी गांवगिरी जीण जगपी लोकांचो पंगड असो अर्थ घेताले. तशेंच त्या लोका मदीं घोळणुकेंत आशिल्लीं गीतां, काणियों, म्हणी, उमाणीं इतलेच प्रकार म्हळ्यार 'वेद' अशें धरून चलताले. आज वीसाव्या शतमानाचे आखेरेक 'लोक' उत्राचो अर्थ व्यापक नद्रेन घेतात.

'लोक' हें उतर भारतांत पुरातन काळापासून वापरांत आयलां आनी 'जनसामान्य' ह्या अर्थान ऋगवेदांत तें जायतेकडेन वापरलां, ऋगवेदांतल्या पुरुषसूक्तांत 'लोक' हें उतर 'जन' आनी 'स्थान' ह्या दोनूय अर्थान वापरिल्लें आसा. निश्चित अशा एकच अर्थान मात तें सतत वापरिल्लें दिसाना.

प्राचीन भारतीय परंपरेंत 'लोक' हें उतर वेदोत्तर संस्कृती अशा मर्यादीत अर्थान वापरिल्लें मेळटा. आर्यांनी वेद आनी 'लोक' असो भेद करून वेदांची वेगळी प्रतिश्टा जशी सांबाळ्ळी, तेचभशेन वेद माननाशिल्ल्या आर्येतर जमातीचेंय अस्तित्व मान्य करून आपल्या परस वेगळ्या अशा समूहाखातीर 'लोक' उतर वापरांत हाडलें अशीय माहिती मेळटा.

'लोक' ही संकल्पना स्पश्ट कर्ताना 'एनसैक्लोपीडिया ब्रिटानिका' ह्या कोशांत, आदिम समाजांत सगळेच घटक व्यक्ती 'folk' (लोक) आसतात अशें म्हळां. हांगा 'folk' ह्या शब्दाचो अर्थ अप्रगत, असंस्कृत, अविकसीत लोकसमूह असो केला. चायिल्ड, किटरिज, सिजविक, गुमेर, लूसी पौंड ह्या सारक्या मानववंश शास्त्रिकांनी असोच अर्थ सांगला.

डो.ना.गो. कालेलकर हे 'लोक' शब्दाची व्याख्या करताना सांगतात, 'लोक' म्हळयार एके वेगळे संस्कृतायेचें दर्शन घडोवपी वर्ग. ही संस्कृताय

मैमाक चड लागींची आस्ता आनी तिचे दर्शन घडोवपी वर्ग ती सभावीकपणान नगता. तिचे भितर पुरातत्वाचे निर्भेळ अशे अवशेश चड प्रमाणांत मेळटात. आद्य नासली तरी ती पोरन्यांत पोरनी अवस्था आस्ता. ही अवस्था समाजांतल्या कांय व्यक्तींच्या जिणे विशयक सवयांतल्यान, चाली–रितींतल्यान, परंपरागत नृत्य–गितां बीं सारक्या कलाकृतिंतल्यान प्रगट जांवक शकता. विसाव्या शतमानांतलो एक विद्वान 'एलन डुंडे' हांणी 'लोक' उत्राची खूब व्यापक अशी व्याख्या केल्या आनी ती आज सगळ्यांनीच उखलून धल्ल्या. तांच्या मतान 'लोक' म्हळ्यार, एक वा एका परस चड व्यक्तिंचो पंगड जांचे मदीं वंश, भाशा, वेवसाय, धर्म वा अशेच तरेचीं एक वा एकापरस चड समान अशीं जिणेवैशिश्टयां असतात. त्या संदर्भांत तांची स्वताची अशी एक आगळी परंपराय आस्ता. आपल्या कडेन आशिल्ल्या समान वैशिश्ट्यांची तांकां पुराय जाणिवय आस्ता, आपूण एकाच पंगडाचे घटक आशिल्ल्याचें तांकां जागृत भानयी आस्ता. अशा स्वरूपाचो लोकांचो पंगड हो ज्यू, निग्रो अशो वांशीक भेदाचो आसूं शक्ता, मराठी, गुजराथी, बंगाली अशा भाशिकांचो आसूं शक्ता, वा गोंय, कर्नाटक, केरळ असो प्रादेशीक वेगळाचाराचो आसूं शक्ता. हाचोच अर्थ व्यक्तींचो पंगड हो वंशनिश्ट, भासनिश्ट वा प्रदेशनिश्ट बी आसूंक शक्ता. एलन डुंडेच्या मताप्रमाण वेवसाय लेगीत अशेतरेचो पंगड निर्मुवपाक कारण थारूं येता. समाजांत मेळपी लोकांचो सगळ्यांत ल्हान पंगड म्हळयार कुटंब.

वेद हे भारतीय धर्माचें वा संस्कृतायेचें मूळ दाखोवपी ग्रंथ. संवसारांतलें मैं पयलें लिखीत वाग्मय. दैविक आनी आध्यात्मीक विचार, काव्य, कायदो, ज्योतिष्य, व्याकरण, छंद, कोश ह्या सगळ्यांचें गिन्यान ह्या ग्रंथांनी मेळटा. पुर्वातेक अलिखीत रूपान आशिल्ल्या वेदांच्या लिखाणाक उपरांत लिखीत रूप मेळ्ळें, ही माहिती सर्वसामान्य आसा.

वेदांच्या संकल्पनेक धरून कोंकणींतलें 'लोकवेद' हें उतर कोंकणी भाशेचे उद्धारक 'शणै गोंयबाब' (श्री वामन वर्द वालाव्लीकार) हांणी घडयलें. 1945 वर्सा उज्वाडायिल्ल्या तांच्या 'येवकार अध्यक्षालें उलोवप' ह्या पुस्तकांत तें तांणी बरयिल्लें मेळटा. 'लोक' ह्या उत्राकडेन 'वेद' उतर जुळयताना 'लोक' म्हळ्यार,' परंपरा आनी संस्कृतिप्रिय अशी जीण जगपी समाज' आनी 'तांच्या तोंडांत घोळपी गिन्यानाची सरस्वत' म्हणजे 'वेद' असोच अर्थ तांकां अभिप्रेत आशिल्लो अशें दिसता. तोंडी सरस्वतीविशीं उलयताना तांणी काणियो, म्हणणयों,

हुमाणीं, गीतां, मांडे, जोती, धवळां, ध्रुपदा, धालो, आल्लयो बी प्रकारांचो मुजरत उल्लेख केला.

वेदांनी जशें भारतीय संस्कृतायेचें आनी जिणेक्रमाचें यथार्थ दर्शन घडटा, तशेंच वयर उल्लेखिल्ल्या तोंडी सरस्वतिच्या प्रकारांत कोंकणी संस्कृतायेचें आनी कोंकणी जिणेचें समग्र दर्शन घडटा, देखूनच शणै गोंयबाबान त्या सगळ्या प्रकारांक एकाच 'वेद' ह्या माथाळ्याखाला आसपावन घेतलें आनी ताका 'लोक' हें उतर जोडलें अशें दिसता. भारतीय प्राचीन साहित्यांत 'वेद' हें उतर जशें 'वाग्मय' इतल्यापुरतें मर्यादित आसा, तेच भाशेन शणै गोंयबाबानय तें 'मौखीक वाग्मय' इतल्याच मर्यादीत अर्थान वापरिल्लें आसा. कोंकणी लोकवेदाचो अभ्यास करपी आयचे नवे पिळगेचे अभ्यासक मात आज संवसारीक पांवड्या वयलें लोकवेद अभ्यासचे श्रोत पुराय जाणून आसात, देखूनच लोकवेद हें उतर ते 'लोकजिणेचो समग्र अभ्यास' अशा व्यापक अर्थान घेतात.

'समाज सुधारणे वांगडा समाजांतलो लोकवेद ना जाता' असो जनमानसांत समज आसा. पूण लोकवेदाची नवी व्याख्या मानून घेतल्यावर हो समज जसो पुरायतरेन खरो ना म्हणपाचें होल्मता. कारण समाज सुधारणेवांगडा समाजांतले लोक आपली पोरनी विचारसरणी बदलतात आसले तरी सामूहीक भावनेन भारावि्ल्ली नवी विचारसरणी, नवीं जीवनमुल्यां ते स्वीकारतात. ह्या सामूहिकपणाक लागून ते 'लोक' हे कक्षेंत येतात. आपल्या आदल्या जीवन वैशिश्ट्यांचेर ते नवो साज चडयतात आनी आपल्या अणभवांक, विचारांक अभिव्यक्त कर्तात. ही तांची अभिव्यक्ती मागीर तांचो 'वेद' थारता. पाश्चात देशांत अशा वेदाक 'शारी लोकवेद' (Urban Folklore) म्हण मान्यता पावल्या आनी तो अभ्यासपाक नामनेचे व्यक्ती मुखार सल्ल्यात.

लोकवेद हो केन्नाच ना जायना तर तो बदलता, पोरनो साज शेंवटून नवो शिरंगार करता, ही प्रक्रिया आदिम काळा साकून चलत आसा. देखून प्रोफेसरांचो ग्रूप्स, लेबर यूनियन्स, कोलेज विद्यार्थी, इतकेंच न्हय तर खासा लोकवेद एक्टांवपी लोकवेद संकलनां मदीं चालंत आशिल्ले तांचे खाशेले वेवसायाकडेन संबंधीत ज्योक्स-कवना बी अभ्यासकांचे आज 'लोकवेद' माथाळ्याखाला अभ्यासपाचे विशय थारल्यात.

*****

# गोंयांतलो आनी कोंकणींतलो पयलो साहित्यकार कृष्णदास शामा

**– उदय भेंब्रे, गोवा**

(कृपा: सुनापरांत 14 मार्च 2010)

कोंकणी साहित्याचो जल्म खंयच्या शेंकड्यांत आनी खंयच्या वर्सा जालो हें निश्चितपणान सांगपा सारके पुरावे आजून मेळोंक नात. पूण जें मेळ्ळां आनी जी म्हायती उकती जाल्या ताचे वयल्यान कोंकणी साहित्याचो आरंभ सोळाव्या शेंकड्यांच्या पयल्या अर्दांत जालो आनी तो कृष्णदास शामा नांवाच्या मनशान केलो अशें मानूंक जाता.

## कोण हो कृष्णदास शामा?

कृष्णदास शामा हाचें नांव सामराज अशेंयी बरयिल्लें मेळटा. तो कुठ्ठाळे लागीं आशिल्ल्या केळशी गांवचो गांवकार. शांतादुरगेचें मूळ देवूळ केळशींत आशिल्लें, त्या देवस्थानाचो तो म्हाजन. ताणें मराठींतूय 'श्री कृष्णचरित्र कथा' नांवाचें काव्य बरयलां. तें शांतादुर्गेच्या देवळांत बसून 25 एप्रिल 1526 दिसा बरोवपाक आरंभ केलो अशें शामान एका श्लोकांत म्हळां. ताणें तेरा वैशाख शक 1448 अशी तारीक दिल्या; तो दीस 25 एप्रिल 1526 जाता. तो कृष्ण भक्त आशिल्लो देखून ताणें कृष्णदास शामा हें नांव घतलें अशें जाण्कार मानतात.

शामान कोंकणींत काणियांच्या रूपान रामायण आनी महाभारत ह्या महाकाव्यांच्यो कथा बरयल्यात. मूळ बरप आजून मेळोंक ना; पूण त्या काणियांचें रोमी लिपींत केल्लें लिपयंतर पुर्तुगलांत ब्राग शारांतल्या गीन्यू विद्यापीठाच्या ग्रंथालयांत सांबाळून दवरिल्लें आसा. शामाल्या बरपाचीं तीन बाडां आसात: 771, 772 आनी 773 अशे नंबर तांकां दिल्ले आसात. 771 नंबराच्या बाडांत रामायण आनी भारताचें आदिपर्व आसा; 772 नंबराच्या बाडांत भारताचीं णव पर्वां आनी रामायणाचीं कांय पानां आसात आनी 773 नंबराच्या बाडांत मराठींत रचिल्लें 'श्री कृष्ण चरित्र' हें काव्य आनी हेर कांय कवींनी रचिल्लीं ल्हान–व्हड काव्यां आसात. भारताचीं 929 पाना आसात. तर रामायणाचीं 327 पानां आसात. रामायणाचें नागरींत लिपयंतर डा. ओलिव्हीन गोमिश हांणी केलां आनी तें पुस्तक रूपान उज्वाडा आयला. महाभारतांतल्या फकत एका पर्वाचें – आदी परवाचें लिपयंतर

नागरींत जालां. आदीं प्रो. लुर्दीन रोद्रिगिश हांणी ताचें संपादन करून रोमी लिपीचे आधुनीक शैलींत तें उजवाडायलें ताणींच त्या पर्वाचें नागरींत लिपयंतर केलें. तें फा. प्रताप नायक हांणी तांचेकडल्यान व्हेलें. प्रो. रोद्रिगिश हांच्या बरपांत बदल केले आनी उपरांत तें उजवाडायलें. महाभारताचीं आनीक णव पर्वां आसात. तांचें लिपयंतर जावन ती उज्वाडा येवपाची आसात.

## गुरुंचो गुरु

डा. जुझे परेर शामाक "गुरुंचो गुरु" म्हणटा. ताचे कोंकणीक तो "सोळाव्या शेंकड्यांतली प्रमाण कोंकणी" म्हूण लेखता.

कृष्णदास शामाचे आदीं हेर खंयचाच गोंयकारान बरयिल्लें कांय मेळूंक ना; देखून शामा हो पयलो गोंयकार साहित्यकार थारता. शामाचे आदीं रचल्लें कोंकणी साहित्य मेळूंक ना; देखून तो आद्य कोंकणी साहित्यकार थारता. शामाली 'श्री कृष्णचरित्र कथा' ही गोंयांतली मराठी भाशेंतली पयली रचणूक; देखून मराठी भाशेंतलो तो पयलो गोंयकार साहित्यकार थारता.

डा. जुझे परेर शामाल्या बरपाक लेखून 'शाम–भारत' आनी 'शाम रामायण' अशीं उतरा वापरता. ह्या लेखांत हांव त्याच उतरांचो आधार घेतां. शामाल्या भरपाचीं कांय खाशेलेपणां आसात. पयलें खाशेलें पण म्हणल्यार भास निवळ आनी प्रमाण. ते भाशेचेर पुर्तुगेज भाशेचो इल्लोय प्रभाव ना. दुसरें खाशेलेंपण म्हणजे शामालें गद्य हें आधुनीक भारतीय भाशां मदीं पयलें गद्य.

हेर आधुनीक भारतीय भाशांनी गद्य बरोवपाक आरंभ जालो तो अठराव्या शेंकड्यांत. शामान मराठींतूयी बरयलें; पूण तें काव्य. तिसरें खाशेलें पण म्हणजे शाम–भारत वा शाम–रामायण हीं पुरायेन मूळ संस्कृत महाकाव्यांतल्या कथानकां प्रमाण नात. शामान खूबशे बदल केल्ले आसात; तांचो अभ्यास रोकी मिरांदा हांणी खोलायेन केला.

**कांय प्रस्न–:**शामाल्या साहित्याचो सारको इतिहास मेळना. ताका लागून कांय प्रस्न उपरास्तात. तांच्यो जापो दिताना अर्थ लावचो पडटा वा तर्क करचे पडटात. हे प्रस्न अशे:

1. शाम–भारत आनी शाम–रामायण हांची रचणूक केन्ना जाली?
2. मूळ बरप खंयचे लिपींत आशिल्लें?

3. तांचें रोमी लिपींत उतरावप केन्ना जालें, कित्याक जालें आनी तें कोणें केलें?

म्हजो अभ्यास आनी तर्क हांच्या आधारान हांव दर एक प्रस्नाची जाप अशी दीन:

## सोळाव्या शेंकड्याचें पयलें अर्द-

1. भारत आनी रामायण हांचें कथन करपी काणियो केन्ना बरयल्यो हाचेविशीं शामाले बरपावळींत कांयच मेळना. डा. ओलिव्हीन गोमिश रामायण सोळाव्या शेंकड्या आदलें अशें म्हणटा. फा. प्रताप नायकाच्या मतान तें बरयलेंच नाशिल्लें. तोंडान सांगलें आनी परदेशी मिशनर्यांनी रोमी लिपींत बरोवन काडलें. ह्या दोगांचींय मतां बुद्दीक पटनात.

म्हाका दिसता, शामाली ही बरपावळ 1526 ती 1560 ह्या काळांतली. हाचीं कारणां अशीं –

'श्री कृष्णचरित्र कथा' बरोवपाक आपणें 25 एप्रिल 1526 दिसा आरंभ केलो अशें शामान म्हळां. तेन्ना मराठी संतसाहित्य गोंयांत पाविल्लें. शामालो गुरु पंढरपुराचो आशिल्लो. मराठी संतसाहित्याच्या प्रभावांतल्यान ताणेंयी 'श्री कृष्णचरित्र कथा' मराठींत बरयली. तेन्नाचे प्रथे प्रमाण ताणीं ती काव्यांत बरयली. त्या काळांत छापखाने नाशिल्ले. ग्रंथाच्यो प्रती चड प्रमाणांत जायनाशिल्ल्यो. कोणूय हातान प्रत तयार करतालो तितलीच. बरोवन काडून तें लोका मुखार वाचून दाखोवप ही प्रथा आशिल्ली. ज्ञानेश्वरान तशेंच केल्लें. शामान तें केलें तेन्ना ताका अणभव आयलो की भास मराठी आनी तांतूंत काव्य: ताका लागून सर्वसामान्य मनशाक तें समजुपाक कठीण जाता. देखून भारत आनी रामायण रचताना ताणें तें गद्यांत आनी ल्हान ल्हान काणियांच्या रूपांत रचलें. तें वाचून दाखयताना काणियो आयकल्ल्याचो अणभव येवचो हो ताचो हावेस आसूंक जाय.

हाचे वयल्यान अशें दिस्ता, भारत आनी रामायण हीं श्री कृष्णचरित्र कथे उप्रांतचीं. 1526 वरसा जर शामान 'श्री कृष्णचरित्र कथा' हें काव्य मराठींत रचलें तर म्हजे नदरेन तेन्ना ताची पिराय 30-25 वर्सां परस उणी आसप कठीण. म्हणटकूच ताचो जल्म पंद्राव्या शेंकड्यांतलो आसूंयेता; पूण त्या शेंकड्यांत ताणें भारत आनी रामायण रचलीं अशें म्हणूंक जांवचें ना. देखून ती बरपावळ सोळाव्या शेंकड्यांतलीच, हांवें आदीं म्हळां ते भाशेन ही बरपावळ 1526 वरसा

उपरांतची. 1560 अशी शीम हांव घालतां ताचें कारण हें – 1560 वरसा गोंयांत इंकविझिशन आयलें आनी त्याच वरसा धर्मप्रसारा खातीर साश्टट म्हाल जेजुयितां कडेन सोंपयलो. 1540-41 वरसांत तीस्वाडींत धरमांतराचो उजो पेटलो तेन्ना साश्टट पुर्तुगेजां कडेन नाशिल्ली. ती तांणी घेतली 1543 वरसा. तेन्ना आयचो मुरगांव तालूको साश्टट म्हालाचोच वांटो आशिल्लो. देखून कुठ्ठाळ, केळशी हे गांव तेन्ना साश्टट म्हालांत आशिल्ले.

## सांबाळून दवरलें; पूण –

1540 तीं 1542 ह्या काळांत तीस्वाडींत जो सांवार जालो ताची खबर साश्टिंतल्या हिन्दूंच्या कानार आयिल्ली आसूंक जाय. देखून 1543 वरसा पुरतुगेजान साश्टट घेतकूच तें सकष्ट एक दीस साश्टिंतूय येतलें हें येवजून ते शिटूक राविल्ले आसूंक जाय. 1560 वरसा जेजुयिट जेन्ना जुवारीचे आलतडी पावले तेन्ना तांकां रीतीं देवळां मेळ्ळीं. मुरती, लिंगां बी लोकांनी आदिंच हेर कडेन व्हेल्लीं. उपरांत साश्टींतूयी अच्छेव जालो आनी साहित्य रचपाक फावो तशें वातावरण उरलें ना. देखून शामान ती बरपावळ 1560 वरसा आदीं केल्ली आसूंक जाय.

## लिपी नागरी आसूंक फावो –

2. शामालीं मूळ हात बरपां मेळूंक नात. आज मेळटा तें तांचें लिपयंतर. देखून मूळ हात बरपांचे लिपिविशीं वेगवेगळीं मतां आसात. डा. ओलिव्हीन गोमिश हांच्या मतान तीं कंदवी (कन्नड लिपीची एक पोरणी तरा) लिपींत आशिल्लीं. गांवकारिच्यो थारावण्यो, बसकांचे नियाळ बी ती लिपींत मेळटात हो आदाराचो मुद्दो. फा. प्रताप नायकाच्या मतान शामान कांय बरयलेंच ना; देखून लिपीचो प्रसनूत उपरासना. हें मत शामानच फट थारायलां. ताचे बरपावळींत बरयलें, वाचलें अशे उल्लेख मेळटात. हांवें आदीं म्हळां ते प्रमाण त्या काळांत बरोवन काडून वाचपाची रीत आशिल्ली हें मतींत धरूंक जाय.

डा. ओलिव्हीन गोमिश हांचें मत बुद्धीक पटना. त्या काळांत कांय जाण कंदवी वा हळेकन्नड लिपी वापरताले हें खरें; पूण ते शामाक लागू जायना. तो संस्कृत जाणा आशिल्लो, मराठींत बरयतालो. 'श्री कृष्णचरित्र कथा' ह्या काव्याचें मूळ हातबरप मेळ्ळेंना तरी ताच्यो दोन प्रती मेळ्ळ्यात त्यो नागरींत आसात. शामा नागरी लिपी जाणा आशिल्लो आनी मराठींत बरप करताना तो

नी वापरतालो. तर मागीर कोंकणीक तो वेगळी लिपी कित्याक वापरतलो? कोंकणी ही मराठी भाशेन इंडो-आर्यन भास संस्कृता पसून आयिल्ली, अशें आस्ताना इंडो-आर्यन भाशेक द्राविडी लिपी वापरपाक ताका कारण ना. म्हजे नद्रेन, त्या काळांत जांकां संस्कृत भास येताली तांकां नागरी लिपी येताली. ते कोंकणींत वा मराठींत बरयताना नागरींत बरयताले. जांकां संस्कृत भास येनाशिल्ली ते कंदवी वा हळेकन्नड वापरताले. कदंबांचे राजवटकेंत कन्नड भास राजभास आशिल्ली. जे लोक ती शिकताले ते कोंकणीकूयी तीच लिपी वापरताले असूंक जाय. जे गोंयकार पंडित केरळांत गेल्ले ते 17 व्या शेंकड्यांत पसून कोंकणी नागरी लिपींत बरयताले हाची गवाय 'होर्टिकस इंडिकस मलबारिकस' ह्या ग्रंथांत मेळटा.

**क्रा. स्टीफन्साचो वावरः**

3. तीस्वडींत धरमांतर सुरु जालें तेन्ना राजसत्ता आनी धरमसत्ता एकठांय येवन देवळां मोडलीं, मूर्ती फोडल्यो आनी धार्मिक ग्रंथ लासले. त्या काळांत देवळा हींच समाजीक आनी सांस्कृतीक केन्द्रां आशिल्लीं. तीस्वाडींत तें वादळ अकस्मात आयलें आनी देखून लोकांक कितेंच वाटंवक मेळ्ळें ना. साश्टींत तें वादाळ 1560 वरसा उपरांत सुरु जालें. ते मेरेन लोक शिटूक जाल्लो. तांणी मूर्ती, लिंगां हेर कडेन व्हेलीं. ते ग्रंथ थंय कित्याक सोडटले? तेवूय तांणी बांगडा व्हेले आसूंक जाय वा लिपोवन दवरले आसूंक जाय. म्हाका दिस्ता, खासा शामान वा कोणेंय बरें मागत्यान मूळ हात बरपां वा तांची प्रत सांबाळून दवरली आसूंक जाय.

धरमांतरा उप्रांत क्रिस्तांव धर्माची शिकवण दिवपाची गरज उप्रासली. तें करपाक लोकभास ह्या नात्यान कोंकणीची गरज-आशिल्ली. कोंकणींतल्यान उलयतले वा बरयतले जाल्यार परदेशी मिशनर्यांक कोंकणी शिकची पडली. (कांय गोंयकारांनी पादरीपणाचें शिक्षण घेतल्लें; पूण वंशभेद पाळपी परदेशी मिशनर्यांनी तांकां खंयचाय पथांत प्रवेश दीवंक नाशिल्लो. घडये ते थळाव्यांचेर पातयेनाशिल्ले). परिणामी, कोंकणी भास शिकपाची आनी शिकोवपाची गरज पडली. ते खातीर तांकां साधनां जाय पडलीं. ग्रंथ लासून उडयले हें चुकलें हें तांकां तेन्ना कळ्ळें, आनी ते खंयूय बरपावळ मेळटा काय म्हूण पळेंवक लागले. अशा वेळार शामाली कोंकणी आनी मराठी बरपावळ तांकां मेळ्ळी आसूंक जाय. जाचे कडेन ती मेळ्ळी ताणीं ती परदेशी मिशनर्यांक वाचून

दाखयली आनी आयकतल्यान ती रोमी लिपींत बरोवन काडली. वाचून दाखयतल्यान मूळ हात बरप वा प्रत मिशनर्यांक दिली ना अशें दिसता. काळाच्या ओघांत ती वरपावळ ना जावन गेल्ली आसूंक जाय. सत्राव्या शेंकड्यांच्या दुसर्या अर्धांत पुर्तुगेज राजसत्तेन कोंकणीक चिड्डून मारून उडोवपाचो जो यत्न केलो ताचोय परिणाम जालो आसूंयेता.

प्रो. पांडुरंग पिसुरलेंकार आनी अ.का. प्रियोळकार हांच्या मतान रोमी लिपयंतराचें अक्षर फा. तोमास स्टीफनसाचें. फा. स्टीफनसाचीं पत्रां सांबाळून दवरल्लीं आसात. त्या पत्रांतलें अक्षर आनी रोमी लिपयंतराचें अक्षर एकाच मनशाचें अशें तांचें म्हण्णें. तें खरें शें दिसता. फा. स्टीफनस 1579 वरसा गोंयां पावलो. कोंकणी आनी मराठी ह्या भाशांचो ज्या परदेशी मिशनर्यांनी खोलायेन अभ्यास केलो तांचे मदलो तो एक, फा. स्टीफनसान कोंकणीचें व्याकरण बरयलें आनी मराठींत 'क्रिस्तपुराण' रचलें. कृष्णदास शामाचे बरपावळीचो ताचेर इतलो प्रभाव पडिल्लो की ताणे 'कृष्णदासा' भाशेन आपणाक 'क्रिस्तदास' हें नांव घेतलें अशें कांय जाणकार मानतात. हें लिपयंतर 1580 उपरांत केन्नाय जालां आसूंयेता.

**शामाची व्हडवीक –**

कृष्णदास शामाची व्हडवीक अशी की –

– तो गोंयांतलो पयलो साहित्यकार
– तो कोंकणींतलो पयलो साहित्यकार
– तो गोंयकारां मदीं मराठींतलो पयलो साहित्यकार

कोंकणी साहित्याची परंपरा अशे तरेन कृष्णदास शामा पसून सुरु जाता. ते परंपरेची पंचशताब्दी ह्या एकवीसाव्या शेंकड्यांत पूर्ण जाता.

*****

# कोंकणी हुमिण्यो

– स्वामी सुप्रिया

**प्रस्तावनः**

लोकज्ञान (folkloristics) म्हळ्ळें शिकाप या अध्ययन गेलेत्या शेकड्याचे सुरवेर उबजल्लें म्हणयेत. हाका जलम दिल्लीं देशां इंगलेंड आनी जरमनी म्हणचाक अड्डी ना. तांचे पाटल्यान फिनलेंड आनी उत्तर येरोपाचीं देशां ह्या वाटेन भरान मुखार सरलीं. आज अमेरिका, जपान, चीना आनी रश्या ह्या विज्ञानांत ऊंच प्रगतेक पावल्यांत.

लोकज्ञान म्हळयार चडावत जावन ठक्क, सपणेंवचें, फोकणां इत्यादी कितें कितें म्हण लोकान चिंतचें सदांचें जावन गेल्लें. विविध रंगांचो वेस घालून पदां गावन नाच्चें या काणियो सांगून हासचें तितलेंच म्हण वाद मांडतेलेयी आसल्ले. असल्या पोकळ चिंतपाचीं कवळां निकळावन लोकज्ञानाचो अखंड सार चाकोंक पेचाडलेल्या शाण्या आनी एकीन पंडितांक तांच्या कालाच्या लोकान पिश्यांत दाखल केल्ले दाखले नांत म्हण नहीं. तरीपूण खरी समजणी सोधतेल्या ह्या पंडितांनी आपली म्हिनत आनी वांवट रावयली ना. शिकपाची भूक थांबता परयांत ते थंड उरलेनांत. मनशा कुळान बरंवक शिक्चाद्दीं पिकोन आयिल्ली जाणवाय लोकज्ञानांत आटापल्या म्हळ्ळें सत ते बुदवंत मनीस जाणा आसल्ले.

कोंकणाचा लोकज्ञानाचो पयलो संसोध केल्लो महान व्यक्ती ज्याकसन. गेलेत्या शेकड्यांत भारतांत हुद्द्यार आसल्लो एकलो इंग्लीषमन. पूण हाणे कोंकणी भाशेन संग्रह करचा बदलाक आपलो तर्जुमो इंग्लीशांत दिला म्हळ्ळी गजाल निरासदायक. ताच्या पाटल्यान थोड्या आमचाच मनशांनी असली म्हिनत काडल्या.

जपान, चीना, रश्या आनी अस्तमतिचा चडावत देशांनी तांतांच्यो हुमिण्यो जमवन तांचें विश्लेषणात्मक अध्ययन करून आतां जायतीं वरसां संपलीं. आमच्या देशांत असलो जयत संग्रह केल्लो दिसाना. पूण अस्तमतिचा देशाचे पंडित आमच्या देशांत हुद्द्यार आसताना या भंवडी मारताना ताणीं आमच्यो वेवेगळ्या भासांच्यो मूटभर हुमिण्यो जमयलेल्यो. त्यो आपापल्या देशाक ताणी

व्हावयल्यो म्हळ्ळ्याक आमकां पुषकळ दाखले मेळटात. त्यो हुमिण्यो तांणी वरवन लांब लांब लेखनां आपापल्या भासांनी आनी आपापल्या देशांनी फायस केल्लीं म्हळ्ळीं गजाल भास विज्ञानाचा ग्रंथांनी आमकां झळकाता. पूण तांणी व्हावयलेल्यो मूटभर हुमिण्यो आनी त्या विशीं तांणी बरयलेलीं सुधीर्घ लेखनां वाचून समजोंचें भाग आमी भारताचो सादो आनी गरीब लोक मागोन घेवन येंवक नांव म्हळ्ळी गजाल मात्र खंतीची.

तरीपूण आमचे भाशेक अभिमानाक कारण जांवचे तसले थोडे इतिहासाचे दाखले आसात ते आमी विसरोंचे नहीं आजून शेकड्यां आदींच आमचे भाशेचो शब्दकोश छापून आयललो म्हळ्ळी गजाल कितले कोंकणे जाणांत? तेच परीं लातीन, पोर्चुगेज आनी हेर परकी भासांनी आमचे भाशेचें व्याकरण आनी हेर लाक्षणीक ग्रंथां रचून छापलली गजाल कांय खुशालायेची नहीं.

गेलेत्या शेकड्याचे आखेरीक जेजवीत आंजलो माफेयी बापान मंगळूरांत इंगलीश भाशेन आमचे भाशेचें व्याकरण आनी शब्दकोश रचून छापयले. ह्या शेकड्याच्या सुरविल्या वरसांनी गोंयांत आमचोच दालगाद बापान शब्दकोश मात्र नहीं, कोंकणी म्हण्ण्यांचो (गादींचो) संग्रह लेगून जमवन छापयले. असलें सगळें शिकाप या अध्ययन शिकपी कोंकणी लोकाचें दायज जावनासलें. हाचे शिवाय, शिकाप नासलेल्या साद्या कोंकणी लोकाचें दायज आमकां कोणेंय दिलेलें दिसाना.

ना म्हणचाक एक वजराळें माणकुलें सुपुरलें ल्हानशें पुस्तक आसा. ते 1914 इसवेंत छापून उजवाडायलां. तवळ मंगळूर शहरांत उरवा फिरगजेंत वावरुन आसलेल्या मा. लुवीस जुवांव सोज बापान तें रचललें. खरेंच आमचे भाशेचें लोक साहित आमकां दिंवचें पयल्यान पयलें पुस्तक हें म्हणचाक अडकळ ना. हें छापच्या वेळार सोज बाप विलायताचे भंवडेर आसल्लोसो दिसता. ह्या पुस्तकांत आपलीं सुरविलीं उत्रां ताणे 1914 जून 30वेर प्यारीस शहरांत थावन लिखल्यांत.

ह्या पुस्तकांत स ल्हान ल्हान संग्रह आसात. पयलो संग्रह 624 म्हण्ण्यांचो (गादींचो). दूसरो संग्रह 220 हुमिण्यांचो. तिसरो संग्रह भुरग्यांचीं गाणां आटापता. चवत्या संग्रहांत लोकामोगाळ गीतां आसात, म्हणजे हांतूं थोडयो वोवियो, वेर्स आनी हेर पदां आटापल्यांत. पांचवो संग्रह रांदपा विश्यांतलो. आनी आखरेक कोंकणी भास बरंवचे विशांत थोडीं सूचनां दिता.

लोक साहित आनी लोकविज्ञान म्हळ्यार आंग हिंवळांचव्या त्या दिसांनी सोज बापान केलेलें काम आनी दाकयलेलें धैर विशेश आनी गंभीर. जाणतिकायेक पावलेलीं आयचीं वैज्ञानिक साधनां जर तवळ सोज बापाक मेळल्लीं तर, तो आनी कसली विजमितकाय आमकां लाभयतो कोण जाणा?

परदेशांनी हुमिण्यांचें विश्लेशण वैज्ञानीक रितीन जालां म्हळ्ळ्याक थोडया पुस्तकांचीं नांवां दिव्येत. हीं पुस्तकां लिखलेल्या विद्वांसांनी आपापलीं पुस्तकां आपापल्या गांवचाच भासांनी बरयल्यांत म्हण उगडास दवरुंक जाय.

| | लेखक | पुस्तक | वरस |
|---|---|---|---|
| 1. | मैकल स्पार्क | इंग्लेंडाच्यो खुशालभरीत हुमिण्यो | 1630 |
| 2. | कार्ल मुल्हनोफ | नोरडीक आनी जर्मन हुमिण्यांची वरवणी | 1855 |
| 3. | एवजें रोला | फ्रानसाच्यो लोकामोगाळ हुमिण्यो | 1877 |
| 4. | रोबर्ट पेटश | जर्मन हुमिण्यांची वरवणी | 1899 |
| 5. | फ्रेडरीक टुप्पेर | हुमिण्यांचें तुलनात्मक अध्ययन | 1903 |
| 6. | फ्रेडरीक टुप्पेर | एक्सेटर पुस्तकांतल्यो हुमिण्यो | 1919 |
| 7. | रोबर्ट निटचेलेहमान | अर्जेंटीनाच्यो हुमिण्यो | 1911 |
| 8. | आंटी आर्ने | फिनलेंडाच्यो हुमिण्यो | 1918–20 |
| 9. | आर्चर टेयलर | हुमिण्यांचा अध्ययनाचे समस्ये | 1938 |
| 10. | आर्चर टेयलर | हुमिण्यांचो कोश | 1939 |
| 11. | आर्चर टेयलर | हुमिण्यो म्हळ्यार कितें? | 1943 |
| 12. | आर्चर टेयलर | 1600 इसवे आदल्यो बरपीनिशीं मेळ्ळ्यो हुमिण्यो | 1948 |
| 13. | आर्चर टेयलर | हुमिण्यांयो जाती | 1949 |
| 14. | आर्चर टेयलर | तोंडपाशी मेळच्यो इंग्लीश हुमिण्यों | 1951 |
| 15. | आर्चर टेयलर | हुमिण्यांचें अध्ययन | 1952 |
| 16. | आर्चर टेयलर | वागवादाच्यो हुमिण्यो | 1953 |
| 17. | आर्चर टेयलर | विश्लेषणा समेत मोंगोल्याचो हुमिण्यो | 1954 |
| 18. | आर्चर टेयलर | अमेरिकाच्या हुमिण्यांचो कोश | 1957 |
| 19. | विलयं बास्कों | योरूबा लोकाच्यो हुमिण्यो | 1949 |
| 20. | आल्पो सांती | इटेलीचा हुमिण्यांचो कोश | 1952 |
| 21. | कु.पी.डे. बाशा | बांटु हुमिण्यो | 1958 |
| 22. | जोन ब्लेकिंग | वेंडा हुमिण्यांचें सामाजिक मोल | 1961 |

| | | | |
|---|---|---|---|
| 23. | आलन डंडीस आनी रोबर्ट जोर्ज | हुमिण्यांची रचनात्मक व्याख्या | 1963 |
| 24. | केनथ गोल्ड स्टायन | उत्तर स्कोटलेंडांत हुमिण्यांची रिवाज | 1963 |
| 25. | तोमस रीस विलयम्स | उत्तर बोरनेयोचा लोकाचा हुमिण्यांचें रूप लक्षण | 1963 |
| 26. | लोरिट्स बडकर | हुमिण्यांची भास | 1964 |
| 27. | डोन हार्ट | फिलिपिनो हुमिण्यो | 1964 |
| 28. | चारली स्कोट | परशिया आनी आरबीस्थानाचो हुमिण्यो | 1964 |
| 29. | चारली स्कोट | हुमिण्यांचा अध्ययनाचे थोडे उपाय | 1969 |
| 30. | मेटिल्डा हायन | जर्मन हुमिण्यो | 1966 |
| 31. | आयन हामनेट | हुमिण्यांचो वावर | 1967 |

## हुमिण्यो म्हळयार कितें?

लोकसाहितांत हुमिण्यांचो वांटो कसलो म्हण पयलें पळेजय. लोकसाहित म्हणजे तोंडपाशीं रचलेलें आनी तोंडपाशीं प्रसार जालेलें. हें मुळावें साहित प्रप्रथम गायाना रूपार उबजलें. क्रमेण तांतूं गद्य रूप भरसालें म्हण विद्वांसांची अभिप्राय. लोक साहितांत गीतां, काणियो, म्हण्ण्यो आनी हुमिण्यो म्हळ्ळे चार प्रकार आसात. हें साहित वांटे करची रिवाज गेलेत्या शेकड्यांत सुरु जावन आतां सगळो संसार मांदता.

भुरग्यांच्या खेळांनी या गांवटी तरकांनी 'हूं?' म्हळ्ळें उतार आदीं थावन चालतें आसल्लें आमी पळेतांव. तेच परीं काणी सांगताना जाल्यारी आयकातेल्यांनी 'हुं' म्हणत रांवची रिवाज आसल्ली. काणी सांगता सांगतां, ती सांगतलो आयकातेल्याक सवाल घालून आपणे सांगललें सम्जलें या आनी कितें जालें ताची जाप मागतालो. अशें सवाल घालतेल्याचा तोंडांत सयत 'हूं' म्हळ्ळेलें सवाल.

मनशा शास्त्राचा आनी भाशा शास्त्राचा पंडितांनी सांगचें जाल्यार, काणियां प्रास आदींच मनीस एकामेकाक सवालां घालून अर्थ या जाप पारकूंक लायताले. असल्या संदर्भार धाराळ आयकोंक मेळचो सब्द 'हूं?' म्हळ्ळोच. देकून असल्या पारकवणेच्या सवालाक 'हुमिणी' या गोंयांत 'हुमाणी' म्हळ्ळें नांव पडलें जायजय. कसली तरी एक वस्त दाकवन, चमत्कारान आमकेच दूसरे या परकी एके वस्तूचें वर्णन करून, ती आमकी वस्त पारकुवन सांग म्हण

गुस्पडांवचे रितीन सीदा या गुमानीत, पूर्ण या अर्देकुरें सवाल घालचेंच 'हुमिणी' म्हणयेत.

**भासांवार हुमिण्यांची चरित्राः**

**1. भारतांत –**

प्राचीन मुळाव्या भासांनी हुमिण्यांक वेवेगळें नांव आसा. भारताच्या संस्कृत भाशेन हाका 'प्रहेळिका' म्हणटात. पूण संस्कृत साहितांत जायतीं दूसरीं नांवांय झळकातात. ब्रह्मोद्य, प्रशने या प्रशनोत्तर, कूटा, प्रवह्लिका, विवाद, समस्या, गूढ़, हृदयाळिका म्हळ्ळीं ब्यासतर नांवां विद्वांसांनी दिल्यांत. पाळी भाशेन पाञ म्हळ्ळें नांव मेळटा तेच परीं प्राकृत भाशेन पहेली या हियालिया म्हळ्ळें नांव पळेवयेत. दक्षिण भारती भासां पयकी मलयाळी भाशेंत विडिकद या कडं कता म्हणटाना, तमिळ भाशेंत विडिकादाय या पुदूर म्हणटात. तेलुगु लोक तसोच विडिकथा या पोडपु कथालू म्हणटात. कन्नड भाशेन पळेल्यार मुंडिगे, ओगणु, ओडकथे, प्रहेळिके, सूचितार्थ, आनी ओगटु म्हळ्ळे सब्द आसात.

हेर भारती भासो लेकचो जाल्यार हिन्दीन बझोवल, पहली, या भुलभुलाया, मराठीन उखाण, आहणा, उमाणा, कोहाडा, कुलंगडे, कोडे या बयाना म्हणटात. सिंधी लोक उखाणी या कोडू म्हणटाना, पंजाबी पहेली या भुजात म्हणटात आनी बंगाळी पहेली, धामधा या पायी म्हणटात. अस्सामांत सथार, दिसतान या पक्कण, बिहारांत पाहा या पहेली, राजस्थानांत पारसी, ओडिस्सांत प्रहेलिका म्हणटाना सांटाल लोक कुडूं, मुंडा लोक करसाळ म्हण म्हणचें आयकोव्येत.

भारतांत हुमिण्यांची रिवाज अधिक पुरवील्या काळार थावन चालतेर आसा. आमच्या प्राचीन पुराणांनी आनी धार्मीक पूजा करच्या क्रमांनी सयत पुष्कळ हुमिण्यो झळकातात. ऋग्वेदांत हुमिण्यो मेळटात म्हणटाना, आमच्या देशांत हुमिण्यांचें मनोरंजन वैदिक काळा प्रास पुरवीलें म्हळ्ळी गजाल आपशीच रुजू जाता. पुरवील्या काळाच्यो वैदिक हुमिण्यो, मधल्या युगाच्यो हुमिण्यो आनी आरवील्या काळार वेवेगळ्या जनांगाचा शिकाप नासलेल्या लोकाचा तोंडांत थावन जमयलेल्यो हुमिण्यो ह्यो सगळ्यो वरवन पळयलेले विद्वांस सक्कट एके संगतींत मात्र ओपतात आनी आपली अभिप्राय एका ताळ्यान गाजयतातः– लोकज्ञान आनी लोक साहितांत आपलें संयबीक लक्षण आनी मनोरंजन दिंवची चमतकारी

सामरथी युगयुगांत होगडायनासताना सांबाळन आयललो एकच एक प्रकार म्हळ्यार तो हुमिण्यांचो.

## 2. अस्तमतीचा देशांनी:

अस्तमतीचा देशांनी ग्रीक भाशेंत उबजलो आयनिगमा म्हळ्ळो सब्द. आरिस्टोटलान आपल्या वेवेगळ्या ग्रंथांनी हाचेविशीं विवर आनी व्याख्या दिल्या. जायत्या पुरवील्या ग्रीक भाशेचा ग्रंथांनी आयनिगमा या हुमिण्यो वापुरलेले दाखले दिस्तात. इंग्लीश भाशेन enigma म्हण आसल्यारी riddle म्हळ्ळें उतार अधिक प्रबल जाल्लें आतांयी तशेंच उरलां. हें नवें उतार लात्या भाशे थावन नहीं बगार आंगलो स्याक्सन मुळा थावन उबजल्लें आनी जरमन भाशेचा ratsel सब्दाक ताळ पडचें जावनासा.

## हुमिण्यांचें वरणन:

हुमिण्यांचो उद्देश जाणतीकायेक सवाल घालचो आनी बुदवंतकाय पारकुंचो. मुख्य जावन चमतकार दाखवन सत लिपवन गुसपडावन आयकातेल्यांक कात्रींत शिरकावन धादोस्कायी भोगचे खातीर हुमिण्यो उबजल्यो म्हण विदवांसाची अभिप्राय. पूण हुमिण्यांचो जल्म आमक्या काळार आमक्या रितीर जालो म्हण पारकूंचेंच एक जैत हुमिणी जावन उरल्या म्हळयार चूक जायशीना. येवंचा मनशाकुळाचा बाळशापणार थावन हुमिण्यो चालत्यो.

खुशालाये पासून हुमिण्यो उबजल्यो व्हय तरी हांचें उगम पळेताना मनशाचे सामर्थीचें आनियेक मुख उगडटा. आपणे देकचा आनी भोगचा हरयेके वस्तूचें संयभ कसलें म्हळ्ळीं सोधनां करुंक मनशान काडल्ल्या म्हिनतेचो परिणाम जावनासा हुमिणी म्हळेलें सत. वयल्याभार पळेताना थोड्या वस्तूंनी परकी वस्तुंचें सारकें झळकाता. वरवन पळेताना पयलेची दीश्ट फट्वन पडलेली दिसोन येता. असल्या संदर्भांनी उपमात्मक चमत्कारांचो झेलो गुंतून घडचा रूपका मुखांत्र नव्या वस्तूचें वरणन करताना विचित्र मजा भोगता. असले उपमात्मक चमतकारान भरलेले रूपक क्रमेण आपशेच लोकाचा तोंडांत जालते जावन भाशेक या उलवण्याक स्पूर्ती भरतात.

देकून खंचाय खरया हुमिणेंत मुख्य जांय गुस्पड गोंदोळ. हो कितलो चड आसल्लो तितलो बरो. हाचे बराबर खरें वरणन मात्र चुकचें नहीं. वरणनाचो हरयेक आंकडो अपूट सत जावनासाजय. ह्या आंकड्याचें क्रम आनी रूप मात्र

ओमतें उदारें जावयेत, खरेंच जांवचेंच गरज. अस्तमतीचा देशांनी असली मुळावी हुमिणी स्पिंकसाचा तोंडांतली आयली म्हळ्ळी सांगणी आसा. ही ग्रीक भाशेंतली ती अशी आसा: 'ती एसतिन हो मियान एखोन फोनेन तेतरापून, कायी दिपून कायी त्रिपून गिनेताय?' म्हळ्ळ्या उतरांनी पिंडार कवीन ती हुमिणी लिखल्या – म्हणजे 'सकाळीं चार पाय आसोन, उपरांत दोन पाय जातात आनी परत तीन पाय जातात कोणाक?' हाका मनशाक अशें घडटा म्हण जाप.

स्पिंकसाचा उपमात्मक चमत्कारान पळेताना मनशाचें आवक एक दीस म्हण लेखलां. पूण एकाच जिवाक वेवेगळ्या काळार चार, दोन आनी तीन पाय जांवचें विचित्र आनी असाध्य जाल्ल्यान हांगा मनोरंजनाची मजा अधिक आसा. ह्या विशीं आरिस्टोटल एक उतार सांगता – हुमिण्यांत एकाच ताळ्यान एक संगत सत म्हण पाचारतात आनी त्याच ताळयान तीच संगत सत नहीं म्हण भासतात.

ग्रीक साहिताचे सांगणे प्रकार स्पिंकसाची हुमिणी पारकूंक सकानासताना होमर कवीचो प्राण गेलो. ताचे पाटल्यान एडिपस राय कुवरान पारकिल्ल्यान सवाल घाल्लेल्या स्पिंकसान आपलो जीव होगडायलो. म्हणजे पूर्विल्या काळार हुमिण्यो पारकितेल्यांक इनाम मेळटालें आनी पारकूंक सकानासताना सलवाल्ल्यांक सजा दिताले. असली संगत पवित्र पुस्तकांत सयत झळकाता. परन्या सोल्ल्यांत सामसांव विशीं वाचताना ताणे घालेली हुमिणी मेळटा.

ग्रासितेल्याचा तोंडांत थावन आयलें मास,<br>
आनी बळवंता थावन आयलें गोडवें

*****

म्होंवा प्रास गोड कितें?<br>
आनी शिंवा प्रास बळवंत खंचें?<br>
म्हजी पाडी घेवन तुमी कोसुंकनातल्लें तर<br>
म्हजो गूट तुमी घडल्ले बरीच.

– सामसांव आनी दलिला.

हाचो परिपूर्ण विवर जाय तर परन्या सोल्ल्यांत नितिदाराच्या दुसर्या ग्रंथांत चव्दाव्या आध्यायांत वाचियेत.

## हुमिण्यांचो जातीः (पूरवील्या अस्तमतीचा संप्रदायां प्रकार):

जर्मनीचा जे.जी. हरडर नांवाच्या विद्वांसान आजून दोन शेकड्यां आदींच सांगलेलें उतार आसा – 'मनश्या कुळाचा खंचा कुळियेक तरी संस्कृतीचीं पयलीं मेटां काडटास्ताना हुमिण्यो अधिक मोगाच्यो जावनासात.' तशेंच हेरां विद्वांसांचा मजतीन आमी जाणा जातांव कितें म्हळ्यार लोक साहितांत काणियांक जल्म दींवचे आदींच साध्या लोकान म्हण्ण्यो आनी हुमिण्यो उबजयल्यो म्हण. लोकाचा तोंडांत आयकोंक मेळची हरयेक खरी हुमिणी आपशीच उबजता. लोकाचा प्रज्ञेचा तळांत ती जल्म घेता. कोणाय एकल्याचा मतीचें या बुदवंतकायेचें पील ती बिलकूल नहीं. देकूनच जश्यो म्हण्ण्यो तश्यो हुमिणयो समेत आमक्या एक व्यक्तीची रचना जांवक साध्यच ना. लात्यान vox populi म्हण्चे परींच हुमिण्यो खरयोच लोकाचो ताळो जावनासात तें आपूट सत.

आदी मानवान आपले जिणियेचीं गंभीर सतां हुमिण्यांचा रूपार पाचारलेलीं आसात. तेच भाशेन आपले अलपे समजोणेक आटापूंक जायना तसलीं सतां समेत आदिमनशान हुमिणयांच्या रूपार ओपून घेतललीं दिसतात. उपरांत जाणारयां मधें हुमिणयां मुखांत्र सता आनी ततवांचो वादविवाद उबजलो. अशें पुरवीले ग्रीक विद्वांस आयनिगमा आनी ग्रिफोसांचो संबंध या म्युथोस आनी लोगोसा मधलो व्यत्यास कसलो म्हण भासताले तें पळेताना तांच्यो हुमिण्यो सगळ्यो अधिक जावन तांचा पुराणांक संबंध जालेल्यो दिसतात. असल्यो हुमिणयो जलमान लोकसाहित जावनासल्यो तरी, हांच्या हातांत पडोन बरपीनिशीं उतरोन आयल्यो जाल्ल्यान जांटया बरपाच्या साहिताचें दायज जांवक पावल्यो.

असल्यो जशयो ग्रीक साहितांत तशयो संस्कृत साहितांत सयत मेळटात म्हळ्ळी गजाल कुतूहलाक कारण जाता. देकून लोकाच्या तोंडांत थावन आमी आयकोंच्यो हुमिण्यो पुस्तकांतल्या जांटिकायेच्या साहितांत मेळच्या हुमिण्यां थावन मेकळ्यो करून वरवंची गरज. सोळाव्या शेंकड्यांत फ्रानसाच्या हुमिणयांची असली वरवणी केलेलो रोलां म्हळ्ळो विद्वांस, असल्या हुमिणयांच्यो दोन जाती आसात म्हणटा. पयल्या जातीची हुमिणी खरीच लोकाचा तोंडांत थावन येंवची हुमिणी आनी दूसर्या जातीची पुस्तकांनी छापून आसच्या जांटया साहितांतली हुमिणी म्हणटा तो. तशें पळेंवक गेल्यार जांट्यांचो हात या वोसो लागानासतान साध्या लोकाचा तोंडांत थावन प्रसार जांवच्यो अपूट लोकमोगाळ हुमिण्यो आमकां कितल्यो मेळटीतगाय म्हळ्ळें सवाल उबजतात. जश्यो ग्रीकांच्यो तश्यो

भारतीयांच्यो हुमिण्यो ग्रीक आनी संस्कृत साहितांत भरसोन रूपांतर जाल्यात म्हळ्ळ्याक दुबाव ना.

अधिक पूरवीली एक हुमिणी बाबिलोनाचा कुंबारांचा मातियेचा फळ्येचेर कांतवन खंचयलेली मेळ्ळ्या:

गर्भ जायनास्ताना गुरवार जाता
खाण पीवन नासताना वाडोन फुगता कोण?
– ह्या सवालाक अंत्रळींचें मोड म्हण जाप

ग्रीक साहितांत बरपीनिशीं मेळची अधिक पुरवीली हुमिणी क्रेताचा रायाक मिनोसाक संबंधीत जावनासा. राय कुवर ग्लावकस चुकोन गेलेल्या निमतीं बापूय निमित्त मागता. निमित्ताची जाप ताका हुमिणेचा रूपार लाभता. हाचो अर्थ कितें तो पारकूंक जायनासताना तो कंगाल जाल्ल्या वेळार, ताचे अकलास निवारूंक पोलियिडस म्हळ्ळलो घाडीगार ताका अर्थ पारकून सांगता. ह्या विशीं ग्रीक दुरंताचा नाटकांनी जाय तशें पुष्कळ वाचूंक मेळटा.

पुस्तकांनी मेळचा जांटया साहितांतल्या हुमिण्यांक मुख्य दाखलो जावन हुमिण्यो घडटेले ग्रीक तत्व पंडित असात. हांच्यो हुमिण्यो पळेताना तांचो चमत्कार फात्रापरीं धारुण जाला तो दिसता. लोकसाहिताचा तोंडपाशीं मेळचा हुमिण्यांचें साधेपण होगडायलेलें सारकें दिसोन येता. जेवणा दबाजांच्या वेळार त्यो वापरूंक ताणी रिवाज मांडलेली. खाण पिवणा शिवाय असलें मनोरंजन ते तलास करताले. क्रमेण तसल्या गंभीर खुशालायेचा वेळार हुमिण्यांचो मेस्त्री म्हण एकलो मुखेली आसतालो तोच सगळें मनोरंजन चलवन व्हरतालो.

हांच्या काळा उपरांतल्या शेंकड्यांनी आनियेक रिवाज सुरु जाली. गंभीर साहित रचून आसलले विद्वांस आपले मतीक हळू सुशेग सोधूंक पडले. ह्या पासून ताणी हलक्या वस्तु विशीं विचित्र चमत्काराच्यो आनी बिलकूल मन पिश्यार घालच्यो हुमिण्यो रचूंक धरल्यो. साहिताचा विविध चमतकारांनी अधिक जांटिकाय आसल्ल्यान तांच्या हातांत उपमात्माक चमत्कारांचे झेले रूप घेवन परजळ्ळे. सगळ्यांचीं काळजां मनां भुलवन धलंवक पावले. धाव्या आनी इक्रांच्या शेकड्यांतले थोडे लात्या भाशेचे बरयणार असल्यो हुमिण्यो घडचें एक धंधो करून आसल्ले म्हळ्ळ्याक दाखले मेळटात. ताचाद्दींच थोडे इंग्लीश आनी लात्या द्विभासांचे कवी तोंडपाशीं मेळच्यो हुमिण्यो जमवन तांचे बराबर आपल्योच

थोड्यो मेळवन उज्वाडावन नांव जोडलेले आसल्ले.

फ्रानसांत सत्राव्या शेकड्यांत बुवालो म्हळ्ळो बरयणार हुमिण्यो घडून लोकाक खुशाल करून आपूण धादोशी जातालो खंय. हांणे घडलेल्या हुमिण्यां पयकी अधिक नांवाडदीक जाल्ली बिकोणा विशीं आसलेली म्हणटात. तसोच अमर कीरतीचो वागमी जावनासललो फेनेलोन आपल्या शिसांक हुमिण्यो सांगून शिकोण दितालो. त्या आनी उपरांतल्या दोन शेकड्यांनी फ्रानसाचो लोक चड आनी चड हुमिण्यांची रूच लागोन अधिक धादोशी जातालो. ह्या पासून फ्रानसाचीं थोडीं पत्रां फकत हुमिण्यो मात्र छापतालीं.

इंगलेंडांत स्विफ्ट म्हळ्ळेल्या बरयणाराचा काळार हुमिण्यांचें अधिक पिशें आसल्लेशें दिसता. स्विफ्टान खुद्द लिखणे विशीं, तींताविशीं, आयण्याविसीं घडलेल्यो हुमिण्यो ताच्या जांटया साहिताचें परिणाम जावन उबजल्ल्यो शिवाय ताणे हुमिण्यो घडीजय म्हळ्ळेल्या इराद्यान घडलेल्यो नहीं म्हणटात. येंवचा जरमनीचा शिकल्लर म्हळ्ळेल्या विद्वांसान पूर्वील्या हुमिण्यांचें अध्ययन करून तांचीच एक कलाविद्या आसा म्हणून मानून घेतलें. ह्या वस्तुविशीं ताणे विणलेलें कवन अधिक सुंदर म्हणटात.

अस्तमतीचा लोकाचो आरवील्यो हुमिण्यो मात्र एकदम हलक्या वस्तूविशीं आसच्यो दिसतात. तांचा म्हालघड्यांनी जिणियेचीं गंभीर सतां शिकोंक आनी शिकंवक हुमिण्यो वापुरलेली संगत ते विस्रालल्लेशें दिसता. येदोळ अस्तमतीचा लोकाचा हुमिण्यांची मटवी चरित्रा पळेली. आतां ह्या हुमिण्यांनी ताणी आदीं कसल्यो हुमिण्यांच्यो जाती मांदून घेतलेल्यो पळेवयां. तांचे रिवाजी प्रकार लोगोग्रिफ, एनिगमा, रीबस, खेरेड, एपिग्राम, गणिताची हुमिणी, आनी कोननड्रम अश्यो सात जाती आसात.

**1. लोगोग्रिफ:**

ब्यासतर अर्थ जांवच्या एकाच उत्राचेर होंदोन आसची हुमिणी 'लोगोग्रिफ'. हांतूं उत्रांचो यांत्रिक चमत्कार आटापला. जर्मनींत हाका 'वोरटराटसेल' आनी फ्रान्सांत 'कालेंबुर' म्हणटाले. ह्या विशीं फ्रेंच भाशेचो एक दाखलो पळेव्यां–

विक्टर ह्यूगो फ्रानसाचो प्रसिद्ध नाटकिस्त जावनासल्लो. ताका तवळ फ्रान्साचा अधिक ऊंचल्या साहित अकाडेमीचो सांदो म्हण विंचलो. हें सोसूंक जायनासलेल्या सालवांडी म्हळ्ळेल्यान विक्टर ह्यूगोचीं नकलां करून सांगलें:–

'मंसयुर, वुसावे एंत्रोदवी आं फ्रान्स लार सेनिक. हांगासर 'लार' आनी 'सेनिक' म्हळ्ळेलीं दोन वेवेगळीं उत्रां आसात. तांचो अर्थ सारको केल्यार, 'सायबा, तुवें फ्रानसांत नाटक कला चालू केलीय.' ताका वाखणूंचीं उतरां जालीं. हाचे बदलाक तीं दोनी उतरां एक केल्यार ताचो अर्थ आरसेनिक म्हळ्ळेलें वीक म्हण जाता. तवळ त्या उतराचो अर्थ 'सायबा, तुवें फ्रानसांत आरसेनिक वीक भरलेंय' म्हण जाता. त्या व्यक्तीचेर एक गंभीर दूर मांडलेले बरीं जाता. सालवांडीक विकटर ह्यूगोचें अधिक कोडू खंडन करूंक ही हुमिणी उपकारली म्हणचाक दुबाव ना. तशें पळेंवक गेल्यार उत्राचीं अक्षरां अदलबदल करून या उत्रां थरावळ रितीन मिसळवन गडच्यो हुमिण्यो ह्या जातीच्यो जावनासात.

अक्षरां अदलबदल करचाक एके लात्या भाशेचे हुमिणेचो दाखलो घेव्यां–

'Tolle caput. simile aetati tum tempus hababis. - Puer, Uer.' – (J.C. Scaliger)

तशीच इंगलीश भाशेची एक पळेव्यां –

There is a word in the English language whose first two letters signify a male, the first three letters a female, the first four letters a great man, and the whole word a great woman. = He - r - o - ine.

थोडे विद्वांस पवित्र पुस्तकाचा दानियेलीचा वोणदी वयलें बराप ह्या जातीची हुमिणी जायजय म्हणटात.

## 2. एनिगमा:

हांतूं लोगोग्रिफाचें उतरांचें यांत्रिकपण दिसाना. बगार सुरु थावन आखेर परयांत गुस्पडांवचो चमतकार विचित्र आसता. खरें पळेल्यार ही एक वोपार कशी दिसता. ह्या दिश्टीन पळेताना पवित्र पुस्तकांत नाथानाची वोपार, इसायाची दूकां मोळयाची वोपार आनी एसेखियेलाची वोपार ग्रीक साहितींचे दिश्टेन एनिगमा हुमिणी जाती म्हणयेत. हांगा पवित्र पुस्तकांतल्या सामवेलीचा दुसर्या ग्रंथाचो बारावो अध्याय वचयेत. तसोच इसायाचा ग्रंथाचो पांचवो आनी एसेखियेलाचा ग्रंथाचो सत्रावो अध्याय वाच्येत. एसेखियेलाचा गरंथांत दुसमान बाबिलोन आनी इजिपताचा रायांक आमचो प्रवादी गीद म्हण वोलायता आनी आपणाची सांगणी कशी वोपार तशी एक हुमिणी जावनासा म्हण पाचारता. हेब्रेव बरयणार खरेच सांकेतीक हुमिणयो घडचांत विशेस शातीवंत जावनासले म्हण हाचे निमतीं

आमकां कळोन येता. जेजू निकोदेमालागीं उलयता तीं उतरां (जुवांव 3 पळे) असल्या एनिगमा वोपारीचीं म्हणयेत.

**3. रीबसः**

ही तिसरी जात. हांगासर सबदांनी या अक्षरांनी वस्तूंचें रूप कसलें तें सांगतात. ह्या हुमिणयां द्वारीं आपणा विरोध आसलेल्यांक या आपणाक सांगात दितेल्यांक सवाल घालतात. आनी बूद बाळ सांगतात.

असलें सवाल घालचें एक घडित थोडयाच वरसां आदीं करनाटकांत घडलें. हांगाचे विद्यार्थी संघ कर्नाटकाचा शहरांनी मुष्कर चलयताले. पूण बळ्ळारी शहरांतल्या एका संघान तांचे संगीं मेळोन मुष्कर चलयलें ना. ते आपणा संगीं मेळ्ळेनांत म्हळ्ळ्या रागान हेरां शहरांतल्या संघांचांनी बळ्ळारिचा विद्यार्थींक कापाड आनी कांकणां धाडलीं. आनी मिशयो आसल्ले दादले व्हय तर मुष्कराक देंवा, नां तर भिवकुर्या बायलां भाशेन कांकणां घालून बसा म्हण सवाल घालून ताणी त्या बळ्ळारीचा विद्यार्थींक उचांबळ केले.

तसोच रोमाचा इतिहासांत आनियेक दाखलो आसा. जुदेव लोका थावन आपणाक येंवचो तिरवो उणो जावन येंवचो पळेल्ल्या मारकस आव्रेलियस चक्रवर्तीन पात्रियार्क जुदाचो सलह मागून जण धाडलो. तवळ पात्रियार्क त्या दूता लागीं उलयलो ना. बगार ताका ताणे आप्रल्या बागींत आपवन व्हेलो आनी थंयसर आसलेलीं व्हड व्हड झाडां हुम्टून उडयलीं आनी तांच्या जागयार ल्हान झाडां लायलीं. हें पळेतच तो दूत पाटीं वचोन आपल्या चक्रवर्तीक घडलेली गजाल सांगली. ह्या संकेताचो अर्थ समजाल्ल्या चक्रवर्तीन पात्रियारकाचो सलह मांदून घेतलो आनी त्या प्रकार आपल्या आडळतेदारांक फरमाण दिलें.

इतिहासांतली आनियेक रीबस हुमिणी सायरस राया विशांतली. सायरसान सिथियाचा लोका विरोध झूज मांडलेलें. तवळ त्या लोकान आपलो दुसमान पर्शियाचो राय सायरसाक दूतां मुखांत्र भालियो, उंदीर आनी माणको धाडलो. अशें धाडचांत तांचो मतलब असो आसलोः सायरस उंदरा भाशेन बिळांत लिपाना या माणक्या भाशेन उदका पंदा लिपोन रावाना तर, तांचा भाल्यांक तो उंडी जातलो तें खंडित म्हण. सायरस तांचा चमतकारी धयराक मेचवालो खंय.

**4. खेरेडः**

हाका syllable-riddle या silbenratsel म्हण्णात. खेरेड म्हळ्ळेलें उतार

फ्रेंच भाशेथावन उबजल्लें. जेवणा उपरांतलो वेळ हळू मनरंजनान पाश्यार करचो म्हणच्या बदलाक खेरेडांचो खेळ या सांगाप म्हणची रिवाज चालती जाल्ली.

ह्या जातीची हुमिणी आदी मनशान घडलेली नहीं. साहितांत हेळ्ळेल्या चमतकारी विद्वांसांचें काम हें. देकून हांतूं भास, चमतकार, अर्थ आनी मनोरंजन सलीसायेन आपशेंच व्हाळचा बदलाक, पयली शिकपाची बुन्याद नासताना जायना. शिकपाचें बळ आसलेल्यांक मात्र ह्यो जिरंवचें त्राण आसा म्हणयेत. ग्रीक विद्वांसां मधें समेत खेरेड हुमिण्यो चालत्यो आसल्ल्यो म्हण साहितांत दाखले मेळटात. तांतली एक अशी आसा –

नेसून होले
म्युखेमा बोओस
फोनो ते दानैसतो.
(आख्खें पळेल्यार एक कुदरो
पयलो वांटो पाडो हांबेता
दूसरो वांटो सुंकागार बोबाटता)
= रोडोस कुद्रो

लात्या भाशेची आपुरबायेची एक खेरेड कवी आवलूस जेल्लियुसान लिखल्या –

"Semel minusne, an bis minus, non sat scio.
At utrumque corum, ut quondam audivi dicier
Jovi ipsi noluit concedere." (noetes Atticae)

एकोडें मिनूस आनी दोडें मिनूस मिसळ्ळ्यार तिदोडें मिनूस – Terminus हें तांचा एका देवाचें नांव. ह्या देवाचें संकेत गडाय फातर. देकून तारकीनियस सुपरपस म्हळ्ळेल्यान जुपिटराच्या दिवळांत असलो एक गडाय फातर बसयलेल्या विशीं ही हुमिणी.

असलीच इंगलीश भाशेची खेरेड अशी –

"Knock off my head and singular I act.
Knock off my tail and plural I appear.
Although my middle is left, I am not.
What is my head but a sounding sea.

What is my tail but a flowing stream.
Through Ocean's depth fearless I stray
Parents of softest sounds, yet mute forever."

– हाची जवाब Codfish या ताटो मासळी.

असलो आनियेक दाखलो –

"Cut off my head and on a tree you find me.
Cut off my tail and on your head you perch me.
When whole, round your shoulders you drape me.

– हाचो अर्थ Cape या शालो

संस्कृतांत समेत असल्यो खेरेड आसच्यो पळेव्येत –

(1) अस्य वामस्य फलितस्य होतुस्तस्य भ्राता मध्यमो अस्त्यश्नह ।
तृतीयो भ्राता घृतपृष्ठो अस्यात्र पश्यम विश्पतीं सप्तपुत्रम ॥

हांचें पयकी दावयाक आसचो होतृ पुरोहित पयलो. म्हणजे आदित्य सुरयो, ताचो भाव दूसरो गोबराळ्या झळकेचो म्हणजे झगलाणे. तिसरो गार्हपत्य अगनी म्हणजे घरांनी निरंतरीं सांबाळीजय जाल्लो उजो. (हाचे सात जण पूत कांय जावनास्येत.)

(2) सप्तयुंजंती रथमेकचक्रमेकोअश्वो वहती सप्त नामा ।
त्रिनाभी चक्रमजरमनर्वम यत्रेमा विश्वाःभुवनादी तस्थुः ॥

एका रोदाचा रथाक सात घोडे बांदल्यात. एकेका घोडयाक सात नाम. तीन नेवाळ्यांचें हें रोद अविनाशी जावनासोन ताचेर उभी विश्वभुवन इत्यादी म्हणजे सगळेंच प्रपंच.

(3) इमां रथं ये सप्त तस्थुः सप्तचक्रं सप्त वहंत्यश्वं ।
सप्त स्वसारो अभिसंनवंते यत्र गवां निहिता सप्तनाम ।

सात जण (म्हणजे सुर्याचीं किरणां जावयेत) उभी आसच्या सात रोंदांचा रथाक सात घोडे बांधल्यात. ते तांकां वडटात. सात जणी भयणी (सर्गीचो न्हयों जावयेत) फळादीक म्हळ्ळ्या संकेताखाल सात गायांची नांवां घेवनासात.

(4) को ददर्श प्रथमं जायमानमस्थवंतं यदनस्था बिभर्थी ।
भूमया असुरसृगात्मा क्व स्वितको विदवांसमुपगत्प्रष्टुमेतत ॥

आपूण हाड नासलेली तरी हाड आसलेल्यांक सांबाळचा प्रप्रथम जीवीक कोणे पळेल्या? भूमीचो जीव आनी आत्मो जालेलें रगत खंय आसा? तें जाणासलेल्या बुदवंता लागीं सरोन विचारतलो कोण?

(5) पाकः प्रच्छामी मनसा विजानम देवानामेना विहित पदानी ।
वतसे बष्कयेयेधी सप्त तंतूनवीततनिरे कवय ओतवा ॥

अपक्व मनान आनी नेणारी बुदीन देवांचें सारकें तळ खंय म्हण विचारूं? एका वरसाचा वासरा वयर जाणारयांनी आपल्या जाण्वायेचीं सात सुतां एक जाळ कशें वोळ्ळयांत. – (ऋक संहिता 1.164)

हांगासर दिसची वैदिक संस्कृत भास कितली परनी म्हळ्यार ह्या हुमिण्यांचो सारको अर्थ आमकोच म्हण पारकूंक आज कोणाचान जांवचें दिसाना. तरी असलो जावयेत म्हण मात्र हांगासर दिला.

ह्या सकयल्यो दोन कोंकणी हुमिण्यो कोंकणी भाशेंत सयत खेरेड चालत्यो आसात म्हणचाक अड्डी ना.

1. तुमच्या हितलांत हांव वाडटां.
म्हझें पयलें अक्षर कात्यांत आसा सोण्णांत ना
म्हजें दूसरें अक्षर सावळेंत आसा वाळ्ळेंत ना
म्हजें आखेचें अक्षर जळूवांत आसा लांकडांत ना
हांव कोण? – कासाळूं.

2. नाकाचा सुरवेर हांव
सांगाना म्हणटेच आखरेक
मनाचा तर मधेगात
सांगशीगी तर हांव कोण म्हण? – 'ना' म्हळ्ळें उतार.

## 5. एपिग्रामः

मेलेल्यांचा फंडाचेर हुमिण्यांचीं उतरां कांतंवचाक इपिग्राम म्हणटात. खर्या अर्थान ह्यो हुमिण्यो नहीं तरी, तांचा कुतूहलभरीत चमतकाराक लागोन तांकां हुमिण्यो म्हणची रिवाज. हांचो शेवट जाल्यारी विचित्र तरान देकतेल्यांक मनोरंजन दिंवचो म्हणयेत. ग्रीक लोका मधें एका फंडार कांतयलेलीं हीं उतरां लायेक एक दाखलो जावनासात –

"तूनोमा थेटा रो आलफा सान व्यु म्यु आलफा खि व्यु सान.
पात्रिस कालखेदोन, हे दे तेकने सोफिये."

(नांव ताचें थेटा, रो, आलफा, सान व्यु म्यु आलफा खि व्यु सान. जल्मललो कालखेदोनांत, जांटिकांयेचो तो पूत).

**6. गणिताची हुमिणी:**

अंके संखे मेळवन अर्थ पारकूंक घालचें सवाल असली हुमिणी जाता. अस्तमतीचो लोक रोमी अंके वापरून एक सवाल घालता:-

एक्वुणिसांतलो एक काडून वीस उरंवचें कशें? रोमी एकुणवीस XIX अशें लिखतात. तांतलो I काडल्यार XX उरता आनी हो अंको वीस जाता.

पूरवील्या काळार हेब्रेव लोकान जाल्यारी अक्षरांत अंकयांचें मोल लागवन, असलो चमतकार वापुरललो पळेंवक मेळटा. असल्या थोडयांची पिसाय कित्तून पावली म्हळ्यार हाणी असल्या लेखार अक्षरांक मोल बांधून पवित्र पुस्तकांत परन्या सोल्ल्याचा उतरांचें व्याख्यान करूंक धरलें, आपूण फटवाले आनी जायत्या लोकाक संसारांत ताणी फटयले. असल्या फोकाणांचो प्रभाव आमच्या आधुनीक संसारांत सयत विस्तार्लल्लो आमी पळेतांव. दाकल्याक नव्या पाप सायबाक विंचून काडूंक आसताना एकलो ना एकलो काल्पनीक प्रवादयांचीं सवालां उगडासाक हाडटात. तीं खरीं आनी त्या प्रकार नवो पाप सायब विंचून येतलो म्हळ्ळो प्रसार करून सादया तशें शिकपी लोकाक समेत ठकयतात, गुस्पडायतात. असलें फसवणें 1978 वरसाचा खबराळ्या पत्रांनी वाचूंक मेळटा.

तशें पळेंवक गेल्यार नवया सोल्ल्याचें आखेरीचें ग्रंथ जावनासचा उगडापणाचा ग्रंथांत समेत तसली एक हुमिणी आसाशी दिसता. (उगडापण 13:18). नवो सोल्लो बरंवचा काळार तत्वशास्त्राचा अधिक रिवाजींक अक्षरां गुंतून तांकां अंक्यासंख्याचें मोल बांधची रिवाज चालती आसली. ही संशोधकांनी सोधून काडून दाकवन दिल्या. त्या दिसांनी ग्रीक तत्वशास्त्री आब्राकसस म्हळ्ळलो सब्द एका तायिताचा रुपार वापुरताले. त्या सब्दाचा ग्रीक अक्षरांचें मोल लेखल्यार 365 जातालें आनी, एका वरसांत आसचे दीस जाल्यारी तितलेच म्हळ्ळे पासून ह्या सबदाक ताणीं विशेस पाट बांधललो.

हाका आनियेक दाखलो आमकां परन्या सोल्ल्याचा म्हणणांच्या ग्रंथांत दिस्ता: (30:15 अ-16)

"तीन वस्तूंक तृप्ती म्हळ्ळी ना. व्हय, चार वस्तूंक पावाना म्हणचें सदांचें जावन गेलां." हाका जाप जावन हाचे उप्रांतलीं उतरां आसात. "शेयोल आनी वांज कुसवो, उदक पावाना म्हणची पृथवी आनी कसलेंच पावाना म्हणचो उजो."

आरबी लोकाक असल्या गणिताचा हुमिण्यांची अधिक रूच आसली. संस्कृतांत समेत असली रूच झळकाता. जुदेवांनी तांचा टालमुड ग्रंथा संबंधी ही अधिक वापुरल्या. असल्यो मिड्डाह जातीच्यो हुमिण्यो जमवन वुन्सक म्हळ्ळ्या विद्वांसांन गेलेत्या शेकड्यांतच छापून प्रगटल्यो खंय.

कोंकणी भाशेंत असल्यो हुमिण्यो अनेक मेळटात. देकीक –

(1) जोनी कारवार थावन मोटार सायकलार मंगळुराक भाय्र सरलो आनी सरासर घंटयाक पन्नास मयलां धावोंक लागलो. कोनी मंगळूर थावन एका घंट्या उप्रांत कारवाराक भाय्र सरलो आनी सरासर घंटयाक चाळीस मयलां धावोंक लाग्लो. ते दोगी जण वाटेर मेळटाना तांचे पयकिचो कोण मंगळूराक चड लागीं आसचो? = (दोगी एक सारके पयस आसात.)

(2) म्हज्या शेळीक वयजान तीन गुळियो दिल्ल्यो आनी हरयेका आरध्या घंटयाक एक खांवक सांगली. म्हाका त्यो कितलो वेळ पावल्यो? = (एका धंटयाक)

(3) मांय बारा जणांक वाडटाना सून एकल्याक मात्र वाडटा = (घडियाळाचे कांटे)

(4) मुखल्यान कातरताय तितलेंच पाटल्यान कुडसीताय = (वाट चलची)

(5) शेंभर मापळ्यांक एकच मूंज = सारण

(6) शेंभर हाडलें, शेंभर खेलें, पूण दोनशीं भाय्र उडयलें = खुबे

(7) स जण काम करतात, तेग जण लोटून घालतात, स जण पळेतात, तेग जण नाचतात = तेगां जणांनी भात कांडचें

(8) स पाय ताका आसात तरी चलता दोनांचेर मात्र = घोडया सवार

(9) साकाळीं चार पाय, दनपारां दोण पाय, सांजेर तीन पाय – मनीस

(10) सात जण वारयतात, नव जण भितर बसतात, दोग जण गळयतात, आनी एकलो पियेता – स्त्रियेचे दीस, गरभाचे नव महिने, दूध दिंवचीं हर्दीं, पियेंवचें बाळशें

(11) हजार आंबयांक एकच देंट = इरवोळाचें शिमटें

(12) हजारांच्यो हजार दोरियो, उदकांत, घाल्यार एकच दोरी – केस

(13) हाय हाय स दोळे, राय राय तीन दोळे, व्हडली मांयक एकच दोळो – (पिरलुक, नारल, पोपाळ)

## 7. कोकनड्रमः

असतमतेचा संप्रदायां प्रकार ही आखेरीची जात. खरें सांगचें जालयार ही हुमिणी जायना तरी ही चमतकारी या पिशयार घालचीं सवालां आटापता जाल्ल्यान ही अधिक मोगाळ ब्यास्तर वस्तूंनी एकामेका थंय निशेंवचें सारकें विंचून ह्या खातीर त्यो वस्तु एकच म्हण भासचे तसलें सवाल घालचीच ही हुमिणी. त्या वस्तुं मधें खरेपणी एकामेकाचें कसलेंच सारकें आसाना देकून राजांवीक रितीन ही हुमिणी जावन उराना. तरीपूण अस्तमतीचो लोक, अधिक जावन इंगलीश उलंवचो, असली हुमिणी धाराळ वापुरता. तोंडपाशीं उचारच्या सवालांत मात्र हांकां सारको इंबू मेळटा. इंगलीश शिकाप जोडलेल्या मंगळूरी लोकाक हाचें वारें लागल्ल्यान असलीं सवालां आमच्या कोंकणी समाजांतयी लोका मोगाचीं जाल्यां. देकीक –

(1) आटांग पिसो आनी एकदम बुध्वंत कोण? = आपणायितलो बुदवंत ना म्हणटलो अट्टांग पिसो आपूण कांय पिसोगाय म्हण दुखावतलो एकदम बुदवम्त .

(2) असकत्यांक बळवंत आनी बळवंत्यांक असकत करचो, पिश्यांक बुदवंत आनी बुदवंताक पिशे करचो गूट खंचो? = मोग

(3) उतरांक आनी आरस्याक कितें संबंध? = दोनी आमकां एकचः आमचें सारकें दाखयतात या संपूर्ण फटयतात.

(4) उलयलले उतार मारलेल्या फात्रा परीं कित्याक? = दोनी पाटीं काडूंक जायना.

(5) कपाल धाडायनाये जालयार कितें करीजाय? = पाट बागायजाय.

(6) कुरड्यांक समेत वळक मेळचें झाड खंचें? = कांटियेचें झाड

(7) मनश्याक आनी पाडयाक कशें धरतात? = मनशाक जीभेन, पाडयाक शिंगांनी

(8) म्होंवांत लिपलेलें संकपाषण कसलें? = इष्टागतीचा नांवान करचो घात.

(9) रूक लायतलो कितें दाखयता? = पेल्या थंय आपलो मोग दाखयता.

(10) विकांत झळकोंचें म्होंव कसलें? = दुसमानाचें एकिनपण.

(11) शाणेपणाक आनी जाणवायेक तपावत कसली? = शाणेपण कितें करीजय तें सांगता, जाणवाय कितें चिंतीजय तें दाखयता.

(12) सुशेगच वावर कोणाक? आनी वाव्रच सुशेग कोणाक? = आळश्याक आनी जांटयाक.

(13) होगळापाक आनी दुरसोणयाक भेद खंचो? = होगळाप पातयेतेले अपरूप, दुरसोणें दुबावतेलेच नांत.

**भारतीय संप्रदायांत हुमिण्यो:**

भारतीय हुमिणयां विशांत आमच्या विद्वांसांनी जायत्या त्रैमासिक नेमळ्यांनी लेखनां परगटल्यांत. पूण तसलीं पत्रां साधारणायेचा म्हिनतेन आमच्या हातांक सांपडचे तसलीं नहीं. तरीपूण मेळच्या सक्कट पत्रांनी वाचूंक मेळचा लेखनांनी भारतीय हुमिण्यो पुराणां प्रास पुरवील्यो म्हळ्ळी गजाल रुजू जाता. पुराणां लिखचे आदींच धार्मिक पूजा करचा संदरभार हुमिण्यो वापुरताले खंय तेच परीं भारतीय हुमिणयों धर्मशास्त्राक संबंध जाल्ल्यो एका जातीचो जाल्यार, हेर फकत मनोरंजनाचा खुशालायेक लेखच्यो म्हण दूसरो पंगड करताले.

धर्मशास्तराक लेखच्यो त्यो चडावत वैदिक हुमिणयो. सगळ्यो अपूट कवनां रुपार असात. कवना रूपार नासलल्यो हुमिणयो अपरूप. बळादीक विजमितकायेन भरलेल्यो, सोभाय वाखणचयो, जिणियेचीं जीविताचीं सतां आटापच्यो इत्यादी हर वस्तुविशीं चमतकार दाखंवच्यो हुमिणयो पुष्कळ आसल्यो. आनी आजून आसात. वस्तू विषयाचे दिश्टीन वैदिक हुमिणयो तश्योच लोकामोगाच्यो लोक साहित्याच्यो हुमिण्यो सारक्योश्यो दिसतात.

ऋगवेदाची एक हुमिणी अशी आसा:

हांवें एकल्या गोवळ्याक देखलो
पडोंक तो पडानासलो
वयर चडच्यो सकयल देंवच्यो

चारांय कुशीं वाटो ताच्यो
लागीं जमच्यो आनी पयस दुस्साटच्यो
भालयो जालयो न्हेसाण ताच्यो
भुयंचे भंवतीं भंवतालो तो – सुरयो

हाका ताळ पडची मराठी हुमिणी अशी आसा –

एवडासा गोराखी
एक लाख गायी राखी – सुरयो

आनियेका थराच्यो वैदिक हुमिणयो होतृ आनी अधवरयू म्हळ्ळ्या पुरोहितां मधें सवालां जापींचा रूपार आसात. दाकल्याक –

सवाल : एकसूरो भंवता कोण?
परत जलमता कोण?
शेळीक परिहार कसलो
वरवेचा जयत कंळबेचें नांव कसलें?

जाप : एकसूरो भंवता सुरयो.
परत जलमता चंद्र
शेळीक परिहार आसा उजो.
भूमी जावनासा वरवेची जयत कंळबी.

वैदिक संहिता उपरांत परयांत धर्मशास्त्राच्यो हुमिणयो चालत्यो आसल्यो. हांचे पैकी ब्रहमोद्य म्हणची एक आसली. ही हुमिणी वैदिक हुमिणयां सारकी तरी हांतूं तर्क आनी तत्वशास्त्र अधिक मिसळोन आसचें दिसता. हाचे दाखले ब्राह्मणा आनी उपनिषत्तांनी मेळटात.

ब्रहमोद्य म्हणजे ब्रह्म विशांतली पाचारणी. हे जातीची हुमिणी अश्वमेध यागांत आनी अतिरात्र क्रमांनी रिवाजींनी वापुरताले. केदना जालयारी ब्रह्म देवतेक संबंध जावन ही हुमिणी उभी जाताली. शतपथ ब्राह्मणांत यज्ञ वेदीचीं पांच मेटां प्रजापतीचा जीवाचे पांच वांटे म्हणजे: – लोंव, कात, मास, हाडां आनी मेंदू म्हण सांगला (6:9:20). ऐतिरेय ब्राह्मणांत प्रजापतीच्यो बारा कुडी बारा महिनेशे दिसतात (5:25). अशें प्रजापती आपलो जीव दीवन मरता आनी परत जीवंत जातां जातां म्हळ्ळ्यो संगती हांगाचा हुमिणयांनी दिसोन येतात.

तरीपूण ह्यो दोनी ब्रहमोद्य कितल्यो मटव्यो म्हळयार तांचो परिपूर्ण अर्थ करूंक अधिक कष्ट जातात.

तांडया महाब्राह्मणांत ब्रहमोद्य आसात. ह्यो तांचे पुरोहित वापूरतात (ब्रहमोद्य वदंती ब्रह्म वरचस एवतिष्ठंती). सायन ऋषीन सांगचे प्रकार ब्रहमोद्य म्हळयार गायत्रीचें एक निरवचन म्हणच्या धनंजापया. ताचे द्वारीं मात्र ब्रह्माक वळकोंक साध्य म्हणटा तो. आनियेकलो गौतम पंडित म्हळ्ळलो म्हणटाः– होतृ आनी अधवरयू पुरोहितांचा पांच अनुवाकां पैकी पयलेचो वाखण्णी दिंवचें वरणन ब्रहमोद्य जावनासा म्हणटात. हाचे वरवींच अश्वमेध यागाचा पुरोहिताक ब्राह्मण म्हण नांव पडोन ब्राह्मणांच्या कुळीयेक तेंच नांव जालें म्हणटात. उपरांतल्यो ब्रहमोद्य हुमिणयो प्रजापतीक आनी ताचे धुवेक, म्हणजे फांत्याक संबंध जाल्ल्यो. सुरवेर ह्यो पुराणांचा रूपार आसल्ल्यो त्यो क्रमेण सवालांचा रूपाक बदलोन हुमिणयो जाल्यो खंय. वेळ पाशयार जातां ह्या हुमिणयांक प्रजापतीचो संबंध तुटोन गेलो. तवळ तांचें रूप आनी शेवट अधिक विसतारले आनी तांचें नांव ब्रहमोद्य असलेलें तें गेलें. तवळ नवयान तांकां विवाद या वाको वाक्य म्हण वोलायलें.

विवाद हुमिणयांचे दाखले बृहदरणयक उपनिषत्तांत मेळतात. त्या काळार याज्ञवलक्या आसल्या हुमिण्यां द्वारीं आपल्या विरोधींक पडाव करतालो. ताचो दुसमान जावनासलेल्या काशीचा रायाक अजातशत्रू म्हळ्ळेल्याक याज्ञवालक्याची दवलत आनी ग्रेस्तकाय पळेंवक जालीना. त्याच काळार उद्धालक अरुणी म्हळ्ळलो एकलो पयणारी तत्वदर्शनांत आनी देवशास्त्रांत तरकाक सवाल घालून गांवान गांव भंवात आसलो. आपणाकडेन पंथाक पडलेल्यांक पडाव करून हांणे अधिक वरतें दिरवें पूंजायलेलें. अजातशत्रून हाका पुसलावन याज्ञवालक्याचेर उपराटावन धाडलो. पूण हांचो विवाद वेळ वेतां वेतां हुमिणयांचें रूप सांडून फकत तर्क जांवक पावलो.

हुमिणयांक प्रशन या सवाल म्हण आनीयेक नांव आसलें. ह्या रूपार हुमिणयो अळणी जावन फकत वाद विवाद मात्र दिसोंक लागलो. अशें वैदिक हुमिणयांनी हुमिणयांचें खरें लक्षण केवल ब्रहमोद्य हुमिणयांनी मात्र निशेतालें शिवाय हेरां रूपांनी तें आळवोन गेल्लें.

महाभारतांत हुमिणयांक विवाद, प्रशन आनी कूट म्हळ्ळीं तीन नांवां दिसतात. विवाद आनी प्रशन हुमिणयांक बंडीन आनी अष्टावक्र म्हळ्ळेल्या

विद्वांसां मधलो वाद स्परधो प्रमुख दाखलो जावनासा. असल्या स्परध्यांत जिकलेल्याचो दळभार अधीक जातालो आनी सलवालेल्याचो जीव वेतालो. बंडीन आपणे पडाव केलेल्या प्रतिस्परधींक न्हंयत बुडावन लागाड काडचें आसल्लें. तवळ अष्टावक्रान ताका आडायलो. विवाद म्हळ्ळो तो खरेंच उतरांचें झूज जावनासलें ह्यो हुमिणयो देवशास्त्रा विशांतल्यो जायजय म्हळ्ळलो कायदो नासलो तरी, चडावत तसल्योच आसताल्यो म्हणयेता.

यक्ष प्रश्ने म्हळ्ळेली महाभारताची हुमिणी पळेंवक गेल्यार मेकळ्या मेकळ्या भाशेचीशी दिसता. सलवालेल्याचो जीव वेता म्हळ्ळे पासून मात्र ती चड गंभीरशी दिसता.

चवग पांडव भाव अरण्यांत एका तळयांतलें उदक पियेंवक गेले. तवळ त्या तळयाचो पारो करचो यक्ष आपल्या सवालांक सारकी जाप दिल्यार मात्र उदक पियेवयेत म्हण तांकां आडायता. ताचा सवालांक हांचान जाप दींवक जालेंना देकून ताणी हांचो जीव काडलो. आखेरीक युधिष्ठिरा येवन सारक्यो जापी दीवन आपल्या भावांक सोडवन व्हरता.

ह्याच काळार जातकाच्यो काणियो जलमाल्ल्यो आनी तांचे बराबर मनजातींच्यो हुमिणयो उदेल्यो. हांतल्यो थोडयो पळेंवचें तर पयली हुमिणी एक सगळी काणी आटापता. एका रायाचा दरबारांत चवग जण जाणारी आसले. आनी ते कोण कितें सवाल घालयारी पारकून जाप दिताले. एक दीस रायान सवाल घालें – "दोग दुसमान आसले, एकामेकाची सावळी तडवूंक जायना तसले. एकाच्छाणे ते जांवक पावले एकामेकाचे काळजाचे गोंडे. कितें कारण गाय?"

घडलेली गजाल अशीः हसतीचे देबेलीक पेटो पारो आसलो. भुकेल्ली बोकडी हसतीचें तण चोरून खाताना पेटो घोंकतालो. तवळ मावूत येवन बोकडेची पाट फुटासर मारतालो. हें पळेवन पेटो एकदम खुशी जातालो. ह्या पासून बोकडेक पेटयाचेर हगें उबजल्लें. अशें आसतां पेटयान एक दीस कुजनांतलो एक मासा कुडको चोरलो. तें पळेयलेल्या रांदप्यान पेटयाची पाट फुटासर ताका मारून बडयलो. पेटो दुकीन कंगाल जावन आपल्या जागयाक पाटीं परताताना रगतान विदरूप जालेली पेटयाची पाट बोकडेक दिसली. तवळ बोकडेन गजाल कितेंगी म्हण सवाल केलें. पेटयान आपली कथा सांगली. तवळ दोगांयची दुसमानकाय थांबली आनी ताणी एक सोल्लो कोलो. हसतीचे देबेलींतलें तण पेटयान हाडून बोकडेक पावंवचें आनी कुजनांतलो मासा

कुडको बोकडेन व्हरून पेटयाक दींवचो. अशें कोणाकी दुबावाक इडें दिनासताना दोगांयची आशा भागली. हांचे इष्टागतीचें कारण या गूट कोणा बावड्याक सयत कळ्ळो ना.

पूण एक दीस रायाक हांचें चोरपाण रूप रूप दिसलें. तें पळेल्लो राय रागार जालोना. बगार खुशाल जालो आनी त्या दीस जमलेल्या आपल्या दरबारांत ताणें तें सवाल घालें. पारकुचांत सगळे सलवाले जाल्ल्यान आखेरीक ताचो अर्थ रायानच सांगाजय पडलो.

जातकाचो हुमिणयो खुशाल करून मनोरंजन तितलेंच उबजंवच्योश्यो दिसतात. जातकाचा हुमिणयांचो एक झेलो असो आसा:

तो तिका : हातां पायांनी मारता
मुस्कराक समेत मारता
तरीपूण आपल्या न्हवर्या प्रास अधिक मोगाचो तिका.
– उसक्या वयलें बाळशें

ती ताका : सुणया पाश्ट गाळी दिता
तरीपूण तो तिचेलागीं नासताना
तिका समाधान म्हळ्ळें ना.
– तिचो सात वरसांचो पूत

ती ताका : कारण नासताना सोवता
चूक नासताना दूरसाता
तरीपूण तो तिका आपल्या जीवा प्रास चड मोगाचो.
– युव प्रेमी

तो येवन खाता पियेता विशेव घेता
ती ताका वस्तूर फांग्रण दिता
आनी तो वेतासताना सगळें व्हांवयता
तरीपूण तो तिका आपल्या न्हवर्या प्रास चड मोगाचो.
– मागोंक आयललो सन्यासी

न्हयों भरोन आवर आयल्यारी
उदक पियेंवक सकता कोण? – हासां

पिकयो कणश्यो नदरे थावन लिपयतात कसलें? – धोंक

त्या काळार राय कुंवर आपली व्होकाल कसली आनी राय कुंवरन आपलो न्हवरो कसलो म्हण हुमिणयो विचारून पारकितालीं. तशेंच एकलो राय मरात तर ताचे पाटल्यान राय पाटार चडटेल्याक समेत हुमिणयांनी पारकिताले.

असल्यो हुमिणयो जातेच पाली भाशेंत मिळिंद पंज म्हळ्ळ्यो हुमिणयो आसल्ल्यो. तेच परीं शुकसप्तशती म्हळ्ळ्या ग्रंथांत मेळच्यो हुमिणयो शिकवणे दायक जावनासात. असल्यांक प्रश्नोत्तरमाला म्हणटाले.

देकीकः

कोवादरिद्रों ऽ तिविशालतृष्णः ।
श्रीमानच को यस्य मनश्च तुष्टम ।
जीवनमृतः कस्तु निरुद्दमो यः ।
का वा मृतिर दीनजने दुराशा ॥

अधिक दुबळो कोण – अधिक अंगालाप्पी
अधिक ग्रेस्त कोण? – धादोशी मन आसललो
जीव आसोन मेला कोण? – उद्योग नासताना भंवता तो
दुबळ्याक मरण कसलें? – खोटी आशा

शुकसप्तशती ग्रंथांत उलंवचो कीर राणियेक वोपारी मारून तांचो गूट उगडापो करून सारकी बूद शिकयता. असल्या वोपारींचा हुमिण्यांक गूड म्हण नांव दिलेलें दिसता. हाचे शिवाय कूट म्हळ्ळलो सब्द वेदसंहितांत आनी हेरां ग्रंथांनी झळकता तरी ताचो सारको अर्थ कसलो म्हण पारकुंचांत विद्वांस आजून सलवाल्यात. फकत महाभारतांत मात्र ह्या उतराक हुमिणी म्हण अर्थ जाता. संस्कृत साहितांत मेळचो आनियेक सब्द प्रहेळिका म्हळ्ळलो. ह्या सबदाचें अनावश्य लांब लांब विश्लेषण करिनासताना, हांगासर ताचो अर्थ हुमिणी म्हण मात्र सांगल्या. हाका दाखले–

तरुण्यालिंगितः कंठे नितंबस्थलमाश्रितः ।
गुरुणां सन्निधानेपी कः कूजती मुहुरमुहुः ॥

(तरणाटे चलियेन गळो वेंगयला, तिचा पेंकटार आसरो घेवन

गुरू मुखार समेत परतून परतून मोगान केंकारता कोण?)

= हांडीर आसचो उदकाचो कोळसो)

पानीयं पातूं इच्छामी त्वत्तुः कमललोचने ।
यदी दास्यसी नेच्छामी नो दास्यसी पिबाव्यहम ॥

(साळका दोळयांचे सुंदरी म्हाका तुजेलागचें उदाक पियेंवक जाय. तूं दीशी जालयार हांव पूणी पियेंवचो नहीं. तू दीना जाशी तर हांव पियेतलोंच) (तू दीशी तर तूं चाकरन म्हण जालें. आनी चाकरनीलागचें पियेंवक फावो नहीं. तूं दीना जाशी तर तू धनीन म्हण जालें आनी धनीनी लागचें पियेंवचेंच, देकून तुजेलागचेंच जाय म्हाका).

हाचे शिवाय समस्या या समस्या पूरती म्हळ्ळो आनियेक तर आसा. हो तरी मेळचो संस्कृत साहितांतच. बल्लाळ कवीन रचलेल्या भोज प्रबंध म्हळ्ळेल्या ग्रंथांत हाका दाखलो आसा. भोज म्हळ्ळ्या रायान एका दुष्टाल्ल्या सुवातेर घर बांदलें खंय. तवळ थंयसर आसलेल्या देंवचाराक धांवडांवक एकच उपाय आसलो त्या देंवचारान घालचो अर्धकुरो समस्या आयकातेल्यान परिपूर्ण करचो.

देंवचारः सरवस्य द्वे (सर्वांक हे दोन)

काळीदासः सुमती कुमती संपदापत्तिहेतू (बरें मन आनी खोटें मन ग्रेस्तकाय आनी आकांत)

देंवचारः एको गोत्रे (कुटमांत एकलोच)

काळीसादः स भवती पूमान यः कुटुंबम भिबरती (कुटाम सांबाळटा तो खरोच दादलो)

देंवचारः स्त्री पूवच्च (बायल दादल्या सारकी)

काळीदासः प्रभती यदा तद्दिगेहम विनिष्टम (घर लासलेले घडिये जांवक पावता)

अशें देंवचाराचें हरयेक वाक्य काळीदासान परिपूर्ण केलें आनी देंवचार थंय थावन धांवलो खंय. असल्यो चमतकारी काणियो आटापचा त्या भोजप्रबन्ध ग्रंथा निमतीं भोज आनी समस्या मधे सयरीक गट जाल्या. असल्योच काणियो आटापचें आनियेक ग्रंथ वेताळ पंचविंशती म्हळ्ळेलें जंबालदत्त म्हळ्ळ्या बरयणारान सोळाव्या शेकड्यांत गद्य रूपार उतरायलां. हांतूं भूताच्यो पंचवीस काणियो आसात आनी हरयेक काणी एक समस्य जावनासा. साहित आनी चमतकार सोधून गेल्यार आनी कितलेशे दाखले मेळटले म्हणचाक दुबाव ना.

पूण आमकां मुख्य पळेंवक जाय तोंडपाशीं प्रसार जांवचो हुमिणयो. असल्यो केदाळारी साद्या लोकाक अधिक खुशाल करतात.

भारताचा जांटया भासांनी तशें उपभासांनी तोंडपाशीं आयकोंक मेळच्यो हुमिण्यो पुष्कळ आसात. कानडी भाशेंत जश्यो जांटया साहिताच्यो तश्यो तोंडपाशीं लोकाचीं मनां भुलवन धलंवच्यो हुमिणयो धाराळ आसात. करनाटक विश्वविद्यालयान "कन्नडद साविरद ओगटुगळु" म्हळ्ळेलें बारायशीं तोंडपाशीं प्रचार जालेल्यो हुमिण्यांचें पुस्तक उजवाडायलां. सर्वज्ञ कवीचे तीक श्लोक वाचतेल्यांक कन्नड भाशेंत हुमिणयांचें बळ कितलें तें वर्णिजय म्हण ना. वचन साहितांत असले दाखले पुष्कळ आसा. पूण अशिकपी लोकाच्या तोंडांतल्यो हजारांचो हुमिणयो इतले धाराळायेन आयकोंक मेळचें विशेस. आजून तांचें परिपूर्ण संग्रहण जालेलें ना.

हाचे शिवाय कानडी भाशेंत चौपदन म्हळ्ळो लोकसाहिताचो आनियेक प्रकार आसा. आयकातेल्यांक पिशे करचे तसलीं लोकामोगाळ गीतांनी सवालां आनी पाटीं सवालां घालून मिरमिरांवचे तसल्यो संगती वर्णितात. कर्नाटक विश्वविद्यालयाचा "जीवन जोकाली" म्हळ्ळ्या पुस्तकांचा झेल्यांत असल्या चौपदनांचें पुस्तक उजवाडायलां. हांतूं आटापलेलीं सक्कट गितां चमतकारी तरी, गंगी गौरी चौपदन अधिक तीक मारां फारांचा उतरांनी विणलेली दिसता. ह्याच पुस्तकाचे आखेरीक मेळचें "बेडगिन चौपदन" चड कुतूहलाचें. हांतूं एकलो हुमिणेचें सवाल घालून गायता. तवळ दूसरो ती हुमिणी पारकून सारकें उतार सांगोन गायता. आनी आपल्या सर्ते प्रकार आपूण एक नवयाच हुमिणेचें गीत गायता. अशें सवाल आनी पाटीं सवाल मारतच मुखार सागसातात. ह्या चौपदनांत आपूट हुमिणयांची सांकळ गुंतलेले साठ आनी चार श्लोक आसात. असलीं आनिकी लोकाच्या तोंडांत धाराळ चौपदनां असतीत. एदोळचाक फकत इक्रा चौपदनां मात्र जमो जावन उजवाड देखल्यां.

आमच्या सेजारच्या मराठी भाशेंतयी हुमिणयो धाराळ चालत्यो आसात. थोडया वरसां आदीं बोंबय सांत सावेर कोलेजींत सनद जोडलेली श्रीमती दुरगाबायी भागवत म्हळ्ळी मराठी स्त्रीयेन हुमिणयो जमवन वळक दींवचें पुस्तक उजवाडायला. हीणे आपल्या इष्टां मंत्रां मुखांत्र भारताचा विविध भासांच्यो हुमिणयो जमवन दाखले दिल्यात. सगळ्या भासांच्या मट्टाक आपली म्हिनत सुफळ जालिना म्हण ती खंत उचारता तरी, तीणे दिलेल्यो हुमिणयो भारताचा

थोड्या भासांची पूणी रूच चाकोंक आनी सोभाय मेचवोंक पुरो. ह्यो सगळ्यो तीणे रोमी लिपीन छापल्यात आनी इंगलीश भाशेन तांचो अर्थ विवरिला.

मराठयां मधें हुमिणयांचा एका विशेस प्रयोगाक ताणें "बोलाचा अर्थ" म्हण नांव दिलां. (म्हणजे सांगणेचो अर्थ म्हणयेत). हांतूं सवालां वयर सवालां आसात. हीं एका पाटल्यान एक येवन तांचा चमतकारान आयकालेल्यांचें मन धलयतात.

कोंकणी लोका मधें हुमिणयो चालत्यो आनी लोकामोगाळ. गोंयच्यो हुमिण्यो संग्रह करून डा. आर. वी. पंडितान गोंयांत सयत हुमिण्यांची रिवाज कितली बाळाधीक म्हण रुजू केलां. तितलेंच नहीं आस्तां, गोंयांत आनियेक विचित्र आसा. धालो म्हणचो हो खेळ आदीं थावन ब्राह्मण तशें मासळी पागचा आनी भंडारी लोका मधें चालतो आसलो. आतांय खेड्यांतल्यो म्हणजे हळ्ळेंतल्यो कथोलिक स्त्रीयो समेत धालो खेळटात. ह्या खेळांत स्त्रीयांचे या जांटया चलियांचे दोन पंगड करतात. हरयेका पंगडांतल्यो स्त्रीयो फांतीन रावोन एकामेकांच्या पेंकटाक वेंगवन धरतात. दोनी फांती एकामेकाक फूड करून रावतात. आतां दोनी फांती मुखार पाटीं उडोन नाचोन पयलेची वोवी सांगाता एकाच ताळयान गायतात. उपरांत एक फांतीचीं तंड रावतात आनी आनियेके फांतीचीं उडोन नाचोन गायान करून हुमिणेचा रूपार सवाल घालतात. येदोळ परयांत तंड आसलेलीं आपूण नाचोन उडोन पयलेचा पंगडाचा सवालाक जवाब जावन गायान करतात. अशें चमतकारान हुमिणयांचें सवाल आनी जाप नाचा बराबर आयकाताना हाजर आसलेल्या प्रेक्षकांकांची काळजां मनां धादोसकायेन फुलतात.

गोंयांत हिन्दू भावांचा धालयाचीं थोडीं उतरां हांगा पळेवयेत –

सक्कट : पड पावसा पड पावसा
ओ थेंबे थेंबे
दामोदराचा देवळा रतना खांबे

दूसरी फांत : रथांत बशे दामोदरा देवा
जनलोक दिशे
खेळाचे मांडिले पाशेगे...

गोंयांत हिन्दू भावां मधें धालो म्हळ्ळो हो खेळ तांचा पूजेचा तयारायेक या पूजा तिरसाल्या उपरांत चाल्तो आसलो म्हण श्रीमती वसुधा माने म्हळ्ळेली लेखकी "गोंयांतलो धालो" म्हळ्ळ्या आपल्या पुस्तकांत सांगता. कथोलिकां मधें हो आयलेवार प्रचलित जाल्लो.' आनी केवल मनोरंजना खातीर मात्र प्रदर्शित जाता.

(मुंदरसता)

# मलबाराचें उद्यान

– शरतचन्द्र शेणै, कोची

HORTUS MALABARICUS म्हळ्यार 'मलबाराचें उद्यान' म्हूण अर्थ. 'मलबार' म्हळ्यार आतांच्या उत्तर केरळ राज्याचो वाठार जावनु आसा. जाल्यार पूर्वकालाक भारताच्या दक्षिण पश्चिमेचो एक सगळोच भूप्रदेश ह्या एक सामान्य नांवान वळखतालो. आनी हें नांव वनस्पतींचे, सुगंध द्रवयांचे गिरेस्तकाये खातीर संवसारिक तलाचेरीच सुप्रशस्त आशिल्लें.

ह्या वाठारांतल्या वनस्पतींचे विशीं क्रिस्ताब्द सत्राव्या शतकांत तयार जालोलो एक बृहद ग्रंथसमुच्चय आसा HORTUS INDICUS MALABARICUS. सुमार 780 वनस्पतींचो सुदीर्घ आनी विपुल परामर्श ह्या बारा खंडांच्या ग्रंथांत आसा. सुस्पश्ट आनी संकीर्ण चित्रांनी भरिल्लो, वनस्पतींचे गूण आनी उपयोग विवर्सून आशिल्लो, एक समग्र विज्ञानकोशाच्या पांवड्याचो हो ग्रंथ समुच्चय लातीन भाशेन आसा. जाल्यार प्रती एक वनस्पतीचेंय नांव इतर तीन भाशांनी लागेन दिल्यां – मलबारिका, आराबिका आनी लिंगवा ब्राह्मणिका.

आनी ही 'लिंगवा ब्राह्मणिका' आसा आमची मोगाळ कोंकणी भास! ही कोंकणी कशी ह्या मलबार वाठारांतुल्या मनस्पती विशिंच्या विदेशी ग्रंथांत इतली साबार आयली? तेंयी बी सत्रावया शतकांत! हे विशीं सोदून गेल्यार भारतीय चरितांतुलें एक भांग्रा पर्व आमचे मुकार वाकतें जाता. 1678 थाकून 1703 मेरेन जावुन आमस्टरडाम हांगाच्यान मुद्रण जालेल्या, बारा खंडांच्या ह्या ग्रंथसमुच्चयांतुल्या प्रथमल्याच खंडांत आरंभारीच कोचिच्या तेग कोंकणी वैद्यांनी मेळून हस्ताक्षर केलेलें एक हातबरपाचें साक्षपत्र दिल्यां. कोंकणी भाशेन, देवनागरी लिपीन बरयलेलें हें साक्षपत्र रंग भट्ट, विनायक पंडित आनी आपू भट नांवाच्या त्या तेग कोंकणी वैद्यांनी त्या अपरूप ग्रंथाचे रचनेंत दिलेले देणगीचें सुवर्ण साक्ष दिता.

'आजीक दोन वर्शां सकाळीं सांजे आमी लागी राबून हो ग्रंथ संपादून दिला' अशी त्या साक्ष्यपत्रांत त्या कोंकणी वैद्यांनी सुस्पष्ट रूपान, कसल्याय संशयाक वाट दवरिनाशें साक्ष दिल्यां! जाल्यार हें सत्य चड कोणाचे मतींत आजीय तरी गेलेंना म्हणचेंच वास्तव. सतराव्या शतकांतुल्या त्या तेग कोंकणी

वैद्यांनी स्वाभिमानान देवनागरी कोंकणींत बरोवुन, आनी हस्ताक्षर लेगीत तेच प्रकारी केलेल्या त्या अपरूप साक्ष पत्राचें पूर्णरूप अशी –

स्वस्ती श्री शालिवाहन शक 1597 राक्षस संवत्सर चैत्र बहुळ 10 कोची राजपाटणीं बैसिके रंग भट्ट तथा विनायक पंडित, आपू भट्ट तेग वैद्य तानीं कोचीच्या कुमदोर आंड्रीक फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशाक आशिले औषध मात्र वृक्ष वाली माड खंड ओळखतेल्या मनुश्यांक मुसारो दीवूनु ते ते गांवांतू पेट्टवून तीं तीं वोखद आणवून त्या त्या माडांचें फल फूल पान बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरी संपादून तीं तीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमी आमगेल्या वैद्य ग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणीं त्या त्या औषधाचे गूण वा अनुभवान जो जो गूण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांचीं नांवां पळेवुन आजी दोनी वर्शां सकाळीं सांजे आमी लागी रावूनु हो लिंवरु संपादून दिला. तें लटिक अशी म्हणुचाक नज अशी म्हणु आमी आमची निसाणी करणु दिली. ते सत्य म्हणु मानूचें जायीद म्हणु नागर बरपान हें बरवुनु दिलां. श्रीः

(रंग भट्ट) (विनायक पंडित) (आपू भट्ट)

ह्या तांच्या उतरांतुल्यान त्या ग्रंथा फाटल्या भगीरथ प्रयतना विशीं स्पष्ट माहिती आमकां मेळता. ग्रंथाच्या साक्षात्कारा फाटलें मुख्य बल आनी प्रचोदन आशिल्लो ओलांदेज कुमुदोर हेंड्रिक फान रीड, जो मागीर कोचिचो गवरनर जालो. बारा खंडांचें हें सगळें पुस्तक ताच्याच नांवान प्रकाशित जाल्यां. ग्रंथा पाटल्यान काम करपी, वावुरपी सगळ्यांक ताणेंच वेंचून नियंत्रित केलेले आनी एकेकल्यांक तीं तीं कामां दिलेलीं. ताणें त्या त्या वाठारांतुल्या अधिकार्यांची आनी पालकांची मददयी घेतलेली. केवल 1670-77 कालखंडांत कोचींत आसलेल्या हाका 1691 वरसा मरण आयलें. जाल्यार पुस्तकाचे वरलेले खंड ताचे मरणा उपरांतेंय उजवाडा आयले.

कोंकणी साक्षपत्राची तारीक आसा क्रिस्ताब्द 1675 एप्रिल म्हयन्यांत. म्हणटाना त्या कोंकणी वैद्यांनी तांचें काम शुरु केलेलें 1673 वरसाच्या आरंभाक म्हूण व्यक्त जाता. तशी त्या दोन वरसांच्या कालांत तान्नी वनस्पतिविशीं ज्ञान विज्ञान आशिल्ले गांवकारांक वेतन दीवुनु वेगवेगळ्या वाठारांनी धाडून वेगवेगळ्यो वनस्पती हाडयल्यो म्हणूय व्यक्त जाता. तेंच न्हंय, तीं तान्नी 'चितारिलीं' लेगीत! प्रकाशित पुस्तकांनी मुद्रण केलेलीं चित्रां वेगळीं आसात.

पूण त्या चित्रांचीं आधार चित्रां, मूल चित्रां, त्या कोंकणी वैद्यानींच तयार केलेलीं म्हूण स्पष्ट जाता. तांच्या साक्षपत्रांत हाचेंच साक्ष तान्नी दिल्यां.

त्या वनस्पतींचे गूण आनी इतर माहिती खंयचान आयली? 'आमगेल्या वैद्य ग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणे/अनुभवा प्रमाणे' अशी तान्नी साक्षपत्रांत स्पष्ट सांगल्या. अर्थात मूल रूपान समस्त माहिती तान्नीच 'संपादून दिलेली'! तांतुं कितेंय चड उणें करचें आनी अणकार करचें कामच बाकी वरलेलें. आनी केवल तेंच बाकिच्यांनी केल्यां. हाचोच परिणाम जावुनु पुस्तकाच्या समस्त खंडांत वनस्पतींचीं नांवां कोंकणी भाशेनय दिल्यांय. चित्रांचे ओट्टु तीं नांवां नागरीनच आसाय जाल्यार लिखित माहितिचे ओट्टु रोमी लिपीन आसाय. मलयाळम भाशेंतुलीं नांवांय तशीच. कोंकणी आनी मलयाळम भासो भारतांत प्रप्रथम जावनु मुद्रण जालेल्योय ह्याच ग्रंथांत.

तें म्हणून आमच्या जायत्या जाणांनी ह्या साक्षपत्राचो उल्लेख केला. शणै गोंय बाबांल्या 'गोंयकारांली गोंया भायली वसणूक – पयले खंड' (1928) आनी 'कोंकणी भाशेचें जैत' (1930) ह्या दोन पुस्तकांनी हाचो उल्लेख आयला – ते म्हणटाय –

सत्राव्या शेंकड्याचें दूसरें अर्ध लागल्यार गोंयकार कोचीक पावुन सुमार शंबर वर्सां जाल्लीं. तरी आसताना तांचो कोंकणी भाशेचो अभिमान इल्लोय उणांवक नासलो. ते आपले भाशेक आपुण खासा मान दिताले इतलेंच न्हंय तर परक्या येवरोपी लोकां कडसूनय तिका मान दींवक लायताले. 1675 वर्सा कोचीचो ओलांदेज गवर्नदोर 'हेन्रिक फान रीड' हो आसलो. हाणे आपले भोगवटींत सुमार दोन वर्सां वाव्रून रंग भट, विनायक पंडित आनी आपू भट ह्या तेगां गोंयकार वयजांच्या पालवान मलबाराच्या वनस्पतींचीं चित्रां, नांवां, गूण आनी उपयोग घालून एक मोटो ग्रंथ बरयला. ताचें नांव HORTUS INDUCUS MALABARICUS. ह्या ग्रंथांतलो मजकूर कशेच तरेन लटको ना म्हणपाचें सगळ्या येवरोपाक आनी संवसाराक सांगूंक, कोंकणी भाशेंत देवनागरी अक्षरांनी बरयिल्लें एक सेर्तिदांव त्या तिगांय वयजांचे सये सयत त्या पुस्तकाक जोडलां. कोंकणी भाशेक त्या ग्रंथांत LINGUA BRAMANIC (बामणी भास) अशें म्हळां.

तें कोंकणी साक्षपत्र आमच्या पूर्विकांल्या स्वाभिमानाचें साक्ष म्हणून जायत्या सुवनिरांचेर, विशेष अंकांचेर आनी पुस्तकांचेर पुनः पुनः मुद्रण

केल्यां. हे वरी कोंकणीतूलें प्रथम मुद्रण म्हणूनयी त्या साक्षपत्राक चरित्रांत जागो आसा. कोंकणी चळवळिंतूले समस्तांनी हें मान्य केलयां कोंकणीचे मूललिपी विशिंयी हें साक्षपत्र साक्ष दिता. हेंय कार्य साबार जाणांनी मान्य केल्यां आनी ते खातीर साक्ष पत्राचो उल्लेखूय केला.

जाल्यार वनस्पती विज्ञानाचे रंगावेलें आमच्या पूर्विकांलें हें योगदान- अनुपम अतुल्य योगदान आमी आजीय सारकीं वळखूंक पावले व्हय? वैशविक तलाचेर विख्यात जालेल्या, पांचशें पांचशें पानांच्या बारा पुस्तकांत व्याप्त जालेलें तें विपुल विज्ञान 'संपादून दिलेलें' तान्नी! ह्या परिश्रमाचें, ह्या मानव सेवनाचें फाव तें गौरव तांकां मेळ्ळयां व्हय? ना! आजीय हें आमकां साध्य जालेंना. आमी आजीय हें करूंक पावलेनाय. होरतूस मलबारिकुसाचें नांव जंय जंय येता थांगा एक मलयाळी वैद्यालेंच नांव गाजता, आमच्या पूर्विकांचीं नांवा न्यंय! हो अन्याय कशी घडलो म्हूण सोदताना थोडयो गजाली मुकार येतात.

एक म्हळ्यार आमचेंच अज्ञान. आमी केवल त्या साक्षपत्राचें एकच प्राध्यान्य दिकूंक पावल्याय. तांतूं कित्याचें साक्ष दिल्यां, आनी त्या पुस्तकांत असाच तें कितें ह्या गजालींकडे आमी लक्ष दिलें ना. दोन वर्षांक सकाळ सांज त्या वैद्यांनी कितें केलें हें कार्य आचमे नदरे आड राबलें! ना जाल्यार आमी त्या साक्षपत्रांत सुव्यक्त जावुनु कितें सांगलां तें कार्य संवसाराचे मुकार पावयतले आशिल्ले. तशें घडलें ना.

दूसरें कार्य म्हळ्यार त्या ग्रंथाचो साक्षातकार सादलेल्या फान रीड हाचे कडच्यान जालेली चूक. ग्रंथाचो प्रथम खंड मुद्रण जांवच्या वेळार ताणीं फाव तें ध्यान दिलें ना. हें कार्य ताणें आनी एक वेळार कबूल केल्यां. प्रथम खंडाचें मुद्रण आपण्याले नदरे आड जाल्यां आनी ते विशीं आपुण अतृप्त आसा अशी ताणें मागीर बरयल्यां.

खरें म्हळ्यार त्या प्रथम खंडांत हें कोंकणी साक्षपत्र प्रथम जावनूच येवका आशिल्लें. ताचे बदला 'इम्मान्युवल कारणिरो' म्हळ्या परिभाशकान मलयाळम भाशेन बरयिल्लें साक्षपत्र प्रथम जावन आयल्या. ताजे उपरांत 'इट्टी अच्युतन' म्हळ्या मलयाळी वैद्यालें साक्षपत्र आयल्या. तशी कोंकणी साक्षपत्राचें योग्य प्राधान्य नष्ट जाल्यां. हाचे पाटल्यान कोणांली तरी अपुरबुध्दी आसूयात. ते निमित्तींच कोंकणी साक्षपत्राची तांतूं दिलेली लातीन परिभाषा भोव विकल जावुनु आसा. ते येद्दी विकृत परिभाशा नेणतां जलेली चूक म्हूण सांगूक साध्य

न्हय. मूल साक्ष पत्रांत कोंकणी वैद्यांनी स्वताक केवल 'तेग वैद्य' हेंच विशेषण दिल्यां जालयार परिभाशेंतुलें विशेषण Gymnosophist Brahmin म्हूण आसा. Gymnosophist म्हळ्यार दिगंबर पंथाचे (नागडे) म्हूण अर्थ! ह्या असल्या अन्याया निमित्तीं, आनी मलयाळम साक्षपत्र मुकार आयलेल्या कारणान मलयाळी जनांनी आतां मलयाळी वैद्याकच त्या सगळ्या पुस्तकाचो रचणार जावुनु मान्य केला. तान्नी हे खबरेक खूब प्रचारूय दिला. ताच्या नांवार स्मारकां उबीं जाल्यांय आनी ते खातीर केरळ सरकारा वाटेन अनुदान इत्यादिय दिल्यां. ज्या एक धार्मिक समाजाचो तो वैद्य अंग अशिल्लो, तो समाज तर सगळोच आतां ह्या कार्यांत भोव कार्यरत जावन आसा.

जाल्यार तागेल्या साक्षपत्रांत बरयल्यां कितें? 'कुमदोर हेंड्रीक फान रीडाच्या आदेशा प्रमाणे हांव कोचींत येवुनु, पुस्तकांत बरयललीं कार्यां आनी चित्रां पळोवुनु वनस्पतींचे गूण आनी कार्यां आमगेल्या ग्रंथां प्रमाण कशी कितें म्हूण परिभाषकाक सांगून आयकयलीं' अशी ताणें ताच्याच हात बरपान साक्ष दिल्यां. तागेल्या जावो परिभाषकाल्या जावो साक्ष पत्रांनी ह्या मलयाळी वैद्यालें नीज नांव लेगीत सुचोंवक ना! त्या वैद्यान तागेल्या गांवांत थाकून कोचींत येवुनु थंय ते भीतर तयार आशिल्याच पुस्तकांतल्यो माहिती आनी चित्रां पळोवन ताका कळता तीं कार्यां परिभाषकाक 'सांगून' आयकयलीं इतलेंच. (केवल उण्याच दिसांचें काम हें). परिभाषकाल्या साक्षपत्रांतूय बरयल्यां तें हेंच कार्य, हेंच सत्य. समजता कितें? मलयाळी वैद्य आयलोलोच पुस्तक तयार जालेले उपरांत मात्र. मागिरयी तागेलो वांटो केवल सीमितूच आशिल्लो! तोवय बी केवल मौखिक रूपाचो मात्र. खरें म्हळ्यार ताका आपोवन हाडलोलोच केवल ताच्या हातान एक तें साक्षपत्र मेळचे खातीर मात्र अशी अनुमान करूयात. ना जालयार कोचींतूच तेन्ना वखदी मनस्पतिंची वळख आशिल्लो मलयाळी म्हूण एकूय वैद्य नाशिल्लो की? दूरा कडक्करपळ्ळी थाकून एक अतिथी वैद्याक आपोवन हाडका जाली कशी?

तागेल्या साक्षपत्रांत आपल्या वैद्य पारंपरया विशीं ताणें कांय बरयलें ना. स्वंत नांव लेगीत बरयलें ना. पूण साक्ष पत्राच्या भाषांतरांत तें व्हडपण करून आयल्यां! 'इट्टी अच्युतन' म्हूण एक नांवय दिल्यां! कोणाची ही करणी हें सार्कें सांगूंक जायना. जाल्यार एक आसा, एकलो व्हडपण सांगता केदाणा? स्वताक ताचेंच सवायपण खाताना न्हय? आयचो समाज हें वळखना कशी? आपल्याचो स्वयम डांग्रो मारता तोच व्हड म्हूण सांगपी समजुपी जाल्याय आमी.

विज्ञा मनीस विनम्र आस्ता म्हणजें आमी विसरल्याय. सतराव्या शतकांतूले ते तेग कोंकणी वैद्य केवल वैद्य म्हूण न्हय, ब्राह्मण मूण न्हय, कोचीकार म्हूण न्हय आशिल्ले. संवसारिक तलाचेर जनोपकारी रूपाची अनन्य, अतुल्य, अनुपम संभावना केलेले, इतःपर्यन्त कोणूच करूंक पावलोना तसलें भगीरथ प्रयतन करूंक पावलेले, स्वाभिमानी महामनीस ते! आपलें विज्ञान वांटचे ओट्टु आपले मायभाशेची घुडी वयर वयर उबयलले आमचे पूर्वज ते. हें कार्य आमचे पीळगे पीळगेन जाणा जावुनु आसूका. तांच्या नांवान समूचित स्मारकां उबीं जांवका. तांचे संभाबने विशीं योग्य परामर्श आमच्या पाठ्य पुस्तकांनी, चरित्रा पुस्तकांनी येंवका. केवल कोंकणी पुस्तकांनी मात्र न्हय, इतर पुस्तकांनियी येंवका.

*****

# होरटस इंडिकस मलबारीकस

– उदय भेंब्रे, गोवा

(कृपाः अस्मितायेचो कसाय 2015 P. 140-154)

## 334 वरसां फाटली घडणूक उजवाड घालता कोंकणी कर्तत्वाचेरः

सुमार 400–500 वरसां आदल्या गोंयांत आयुर्वेद पांडित्याची आनी आयुरवेद–वैजकेची व्हड परंपरा आशिल्ली हें गोंयांतल्या खूबश्या लोकाक खबर ना. पुर्तुगेजांनी गोंय जिख्ले उपरांत हिंदूंचेर पालखेंतल्यान येवपा–वचपाक बंदी घाली. तिका एकूच आडवाद आशिल्लो आयुरवेद–पंडिता संबंधान. हें गोंयच्या इतिहासांत वाचूंक मेळटा. वरिश्ट पदां वयल्या पाखल्यांचो तांच्या डोकटरां परस थळाव्या आयुरवेदी वैजांचेर अदीक विशवास आशिल्लो अशेय उल्लेख मेळतात. घडये दादा वैद्य हे ते परंपलेंतले निमाणे पंडित. एकाच हिन्दू गोंयकाराचो पुतळो पुर्तुगेजांनी उबारलो आनी तो दादा वैद्यांचो हाचोय संबंद आयुरवेदी वैजके कडेन आसा. पूण हे परंपरेविशीं खूब थोडे जाणात. हाकाच लागून आज केरळांतल्या कोंकणी भाशी समाजांत जो खवदळ चल्ला ताचीय खबर चडश्या गोंयकारांक ना. त्या खवदळाचो संबंध 'होरटस इंडिकस मलबारीकस' ह्या वखदी वनसपती विशिंच्या विशाल ग्रंथा कडेन आसा. कितें ह्या ग्रंथाचो खवदळ? आनी कित्याक आयज थंय खवदळ?

ह्या प्रश्नांच्यो जापो थोड्याच उतरांनी दिवप हें खूब कठीण. फाटभूंयेची विसकावणी केले बगर त्यो जापो समजून घेवप हेंवूय तितलेंच कठीण. तरी तें आमी समजून घेवपाची गरज आसा. कित्याक तर तांतूंत कोंकणी मनशाच्या कर्तत्वाचो इतिहास आसा.

पुर्तुगेजांनी 1510 वरसा गोंय (तीसवाडी म्हाल) जिखले उपरांत तांचे राजवटकेन क्रिस्तांव धर्मसंस्थे वांगडा 1540 वर्सा धर्मांतर सुरु केलें. देवळां मोडप, मूर्ती फोडप, ग्रंथ लासप आनी हिन्दूंक बाटोवप असो तो धर्मांतराचो सांवार आसलो. 1560 वरसा इंकविजिशन स्थापन जालें आनी उजयांत तेल पडलें. त्या सांवारांतल्यान आपणाक वाटवपाक कितलीशींच कुटमां गोंयांतलें घर–दार सोडून दक्षिणेक गेलीं. कांय कुटमां कर्नाटकांत राबितो करून रावलीं तर कांय कुटमां फूडें गेलीं, केरळांत पावलीं. थंय कोचीच्या रायान तांकां

आलाशिरो दिलो. आज केरळांत अदमासान सात ते आठ लाख कोंकणी भाशी लोक आसात. सगल्यांचे पूर्वज गोंयांतल्यान गेल्ले. तांचे मदीं आंकड्यान मोटो घटक आसा तो कुणबी समाज. मागीर सारस्वत, दैवज्ञ, ब्राह्मण, वैश्य हे घटकूय आसात.

त्या वेळार कोचींत (आदलें नांव कोचीन) फोरट कोचीन ह्या वाठारांत पुर्तुगेजांचें वेपारी केन्द्र आशिल्लें. डच तांकां धांवडांवक सोधताले. एक-दोन खेपो तसो यतन केले उपरांत 1663 वरसा पुर्तुगेजांक तें वेपारी केंद्र डच लोकांचे सुवादीन करून थंयसून कडसरचें पडलें. डचांनी ल्हवू ल्हवू आपली सत्ता थंय बसयली. 1667 तें 1673 वरसा मेरेन अडमिरल हेन्रीक व्हानरीड हो थंय गवरनर आसलो. ताचे विशीं सांगतात ती खबर खरी काय कल्पनेंतली हें कळपाक मार्ग ना. पूण दादा वैद्य हांची करामत मतींत घेतली जाल्यार कोचींतली ती खबर खरी आसुंये. खबर मेळटा ती अशी:

गवरनर हेन्रीक व्हान रीड हांची घरकान्न दुयेंत पडली. सगळ्या तरांचे आलोपथीक वखदांचे उपाय करून जाले पूण गूण पडलो ना. आखेरेक ताका कोणे तरी सल्लो दिलो, आयुर्वेदी वैजांचें वखद करून पळोंवचें. ती सुचोवणी मानून घेवन गवरनर रीड हाणें आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित ह्या तीन वैजांक आपयले. तीगूय कोंकणी मनीस. 16व्या शेंकड्यांत गोंयांतल्यान गेल्ल्या गोंयकारांचे वंशज. चोवगानीय मेळून गवर्नर रीड हाचे घरकान्नीक जाल्ल्या दुयेंसाचो खोलायेन अभ्यास केलो, चर्चा करून कसलें वखद बरें पडटलें तें थारायलें आनी उपाय केले. ते उपाय फळादीक जावन गवर्नराची घरकार्न दुयेंतांतल्यान निवळ्ळी, बरी जाली. हे घडणुकेक लागून गवर्नर रीड हाची दोन गजालींचेर श्रद्धा बसली - चारूय आयुर्वेद पंडितांच्या कर्तत्वाचेर आनी भारतांतले वखदी वनस्पतींत भरून आशिल्ल्या गुणांचेर.

हे श्रद्धेंतल्यान गवर्नर रीड हाणें एक व्हड प्रकल्प चालीक लायलो. मलबार वाठारांतली (भारताचे पश्चिम देगे वयलो दक्षिणेकडलो प्रदेश) वखदी वनस्पत जमोवपाचो आनी तिचे गूण सांगपी ग्रंथ बरोवन घेवन उजवाडावचो. हो व्हड वाव्र ताणें आपू भट, रंग भट, विनायक पंडित आनी इट्टी अच्युतन हांचेर सोंपयलो. तांणे वखदी झाडां, वाली वळखुपी मनशां नेमून, तांकां हांगा-थंय धाडून वखदी वनस्पती हाडची; ती कोचींत रोवन थंय ते वनस्पतीचें बाग करचें; फादर मेथ्यू ह्या कार्मेलाइट पाद्रीन दर एके बनस्पतीचें (झाड, वाल,

पान, फूल, बीं) चित्र काडून दिवचें; तीगूय कोंकणी पंडितांनी ते वनस्पतीचे गूण कोंकणेंत बरोवचे आनी इट्टी अच्युतन हाणें मलयाळम भाशेंत बरोवचे. (मागीर तांचो अणकार पुर्तुगेज आनी ल्याटीन ह्या दोन भाशांनीय करून घेतलो).

हो वाव्र धारिल्ले प्रमाण जालो. उपरांत तांब्याचेर कोंत्रावन चित्रां तयार जालीं आनी आमस्टरडामाक धाडलीं. थंय 12 खंडां मदलो पयलो ग्रंथ 1678 वरसा उजवाडाक आयलो. ह्या ग्रंथांत तो तयार कर्तल्यांची सर्टिफिकेटां, छापल्लीं आसात आनी तीं आरंभाकूच वाचूंक मेळटात. आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित ह्या तिगांनीय आपल्यो निशाण्यो घालून एक सर्टिफिकेट दिलां तर इट्टी अच्युतन हाचें सर्टिफिकेट वेगळें आसा. कोंकणी वैजांचें सर्टिफिकेट कोंकणी भाशेंत आनी देवनागरी लिपींत आसा. तर इट्टी अच्युतनाचें सर्टिफेकेट मलयाळम भाशेंत आसा. कोंकणी पंडितांच्या हाती बरपाचो ब्लोक करून तो ग्रंथांत छापला. देवनागरी कोंकणींतल्या ब्लोक प्रिंटिंगाचो पयलो नमूनो. सर्टिफिकेट अशें आसाः-

"स्वस्ती श्री शालिवाहन शक 1597 राक्षस संवतसर चैत्र बहुळ 10 कोची राजपाटणीं बैसिके रंग भट्ट, विनायक पंडित तथा आपू भट्ट तेग वैद्य तानीं कोचीच्या कुमदोर आंड्रीक फांड्रे त्याचा निरोपान ह्या मलबार देशांतू आशिले औषध मात्र वृक्ष वाली झाड खंद ओळखतेल्या मनुश्यांक मुसारो दीवूनु ते ते गांवांतू पेट्टवून तीं तीं वोखद आणवून त्या त्या झाडाचें फल फूल पान बीज समस्त त्या त्या रुतुकाळावरी संपादून तीं तीं चितारिलीं. त्या उपरांत आमी आमगेल्या वैद्य ग्रंथाच्या निघंटा प्रमाणीं त्या औषधांचे गूण वा अनुभवान जो जो गूण आमकां कळेलो तो वा त्या ओखदांची नांवां पळेवुन आजी दोनी वर्शां सकाळीं सांजे आमी लागी रावूनु हो लिंवरु संपादून दिला. तें लटीक अशी म्हणुंचाक नज अशी म्हणु आमी आमची निसाणी करणु दिली. ते सत्य म्हणु मानूचें जायीद म्हणु नागर बरपान हें बरवुनु दिली - श्री रंग भट्ट विनायक पंडित आपूचे ओप."

ह्या 'होर्टस इंडिकस मलबारीकस' नांवाच्या विशाल ग्रंथाचें आनी त्या ग्रंथांत वापरिल्ले कोंकणी भाशेचें कोंकणी मनशाचें कर्तत्व, कोंकणी भाशेचो इतिहास आनी कोंकणी भाशेचें देवनागरी लिपी कडलें नातें त्या तीनी विशयांनी खूब महत्व आसा. 16व्या शेकड्यांत जे गोंयकार घरदार सोडून केरळांत गेले तो भोंव करून 1550 तीं 1575 ह्या वरसां मदल्या काळांत गेल्ले आसूंक जाय.

तांचे मदीं आयुरवेद पंडितांचीं कांय कुटमां आसूंयेत आनी तांणी थंय वैजकेचो वेवसाय चालू दवरला आसुंये. इतलेंच न्हय; तर त्या मळार तांणी नामना जोडिल्ली आसूंये; ना जाल्यार, डच गवरनरा कडेन तांची शिफारस कोण कर्तलो आसलो? आनी डच गवरनर तो विशाल ग्रंथ तयार करपाचें व्हड काम तांचेर खंयच्या विश्वासान सोंपयतलो आसलो?

आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित हांणी जें सर्टिफिकेट दिलें तें कोंकणींत आनी देवनागरी लिपींत तांचे पूर्वज 1575च्या अदमासाक थंय पाविल्ले अशें धरलें जाल्यार मदीं 100 वरसां गेलीं अशें जाता. हाचो अर्थ थंय पाविल्ल्या गोंयकारांनी 100 वरसां उपरांतूय कोंकणींत बरोवपाची चाल दवरल्ली असो जाता. तांणी गोंय सोडलें तेन्ना ती चाल आशिल्ली आनी तीच तांणी कोची रायाच्या राज्यांत फुडें चलयली आसोय ताचो अर्थ जाता. तशी चाल नाशिल्ली जाल्यार त्या वाठारांत ते संस्कृत भाशेंत वा मलयाळम भाशेंत बरयतले आसले. कोंकणींत बरोवपाची तांच्या पूर्वजांची चाल नाशिल्ली जालयार शंबर–दवायशें वरसां उपरांत ते नवीं चाल कित्याक सुरु करतले?!

कांय गोंयकारांनी समजणी करून घेतल्या की पुर्तुगेजांनी गोंयचेर आगळीक करचे आदीं गोंयांत कोंकणींत बरोवपाची चाल नाशिल्ली. ती चाल यूरोपियन मिशनर्यांनी सुरू केली आनी ते खातीर रोमी लिपी वापरली; देखून कोंकणी भाशेची लिपी रोमी! कोंकणी देवनागरी लिपींत बरोवपाची चाल 11व्या शेंकड्यांत आशिल्ली हाची गवाय मेळटा. ताचे पयलीं न्हय जालयार तेन्ना तरी ती आशिल्ली. कर्नाटकांत श्रवणबेळगोळांत गोमटेश्वराची व्हडली पाशाणी मूर्त आसा, ते मूर्तीया पांयां कडेन दोन कोंकणी वाक्यां कोंतरायिल्लीं आसातः 'श्री चावुंडराजें करवियले' – 'श्री गंगराजें सुत्ताले करवियले'. हीं वाकयां देवनागरी लिपींत आसात. आनी हें कोंत्रावप मेळटा कानडी प्रदेशांत. तर गोंय हें कोंकणीचें मूळपीठ आशिल्ल्यान थंय हेर खंयचीय लिपी वापरपाचो प्रशनूच येना. 15व्या वा 16व्या शेंकड्यांतलें काणियांच्या रूपांतलें कोंकणी भारत आनी कोंकणी रामायण मेळ्ळां तें रोमी लिपींत उतरायिल्लें; पूण मूळ बरप देशी लिपींतूच आसूंक जाय. ती रचणूक कृष्णदास शामाची अशें कांय जाणकारांचें मत आसा. कृष्णदास शामाक संस्कृत भास कळटाली आनी ताणें 'श्री कृष्णचरित्र कथा' हें काव्य मराठींत बरयिल्लें. तो कांय रोमी लिपींत बरोंवचो ना. आनी देवनागरी कळटा आसताना तो खंयचेय दक्षिणे लिपींत बरोवपाचीय शक्यताय

ना. हाचे वयल्यान, कोचींत वचून राबितो केल्ल्या गोंयकारांनी तीच परंपरा थंय चलयली आनी उणयांत उणीं शंबर–सवायशें वरसां तरी ती थंय चालू आशिल्ली हाची गवाय त्या आयुरवेद पंडितांनी दिल्ल्या सर्टिफिकेटा वरवीं मेळटा.

हाका आनीक एक आधार आसा. फादर आंजेलो माफे हाणें इंगलीशींत कोंकणीचें व्याकरण बरयलां आनी एक इंगलिश–कोंकणी शब्दकोश रचला. तो कर्नाटकांत वावुरतालो म्हणटकच थंय ताणें कन्नड लिपी वापरल्या. फादर माफेचें व्याकरण 1882 वरसा उजवाडा आयलें. व्याकरणाचो आरंभ तो असो करता –

"The Konkani Language was formerly written with the alphabet called Balabodha or Nagar, sometimes it was written with the Modi Alphabet, which is the Mahratti Alphabet. Now the Kanarese Alphabet is generally used, and although it does not express all Konkani sounds, yet it is better adapted for this than the Latin Alphabet." (कोंकणी भास आदीं जिका बालबोधा वा नागर म्हणटात ते लिपींत बरयताले; कांय वेळा ती मोडी लिपींत बरयताले जी मराठी लिपी आसा. आतां चडशी कन्नड लिपी वापरतात; आनी जरि ती कोंकणीच्या सगळ्या उच्चारांक पावना, तरी ल्याटीन लिपी परस ती ह्या कामाक चड बरी जुळटा).

फा. माफेचें सांगणें आनी 1678 वरसांतलें तें कोंकणी बरप एक स्पश्ट गवाय दितात: 16व्या शेंकड्यांत जे गोंयकार कर्नाटकांत आनी केरळांत वचून रावले ते कोंकणींत बरयताले; आरंभाक ते देवनागरी लिपींत बरयताले आनी उपरांत खूब वरसांनी ते कर्नाटकांत कन्नड आनी केरळांत मलयाळम लिपी वापरूंक लागले.

## कोंकणी कर्तत्वाचेर मलयाळी अन्यायः

फिरंगी आगळिकेच्या उज्यांतल्यान आपलो धर्म आनी आपली संस्कृताय वाटवपाक 16व्या शेंकड्यांत ज्या गोंयकारांनी केरळांत आलाशिरो घेतलो तांणी खूब कष्टांनी आनी तरेक तरांच्या अडचणिंतल्यान वाट काडीत आपलें बसतान परथून बसयलें. कोण व्यापार उदयोग करूंक लागलो तर कोण अध्यापन करूंक लागलो. कोण भाशेच्या मळार अभ्यास–संशोधन करूंक लागलो तर कोण कलेच्या मळार वावरूंक लागलो. तांणी बरे दीस पळयले आनी तांणी संकष्टांकूय

फूडो केलो. कांय राजांनी तांकां आधार दिलो तर राजा राम वर्मा (हाका 'सकतन तंपूरन' म्हूण वळखताले) हाणें कोंकणी लोकाक पिडापीड भोगयली. तांच्या देवळांचेर हावळ हाडली; तांचे निष्ठेचो दुबाव घेतलो आनी तांकां नाका-पुरो केलें. पूण थंयसून कोणूच परत गोयांत आयिल्ल्याची देख ना. घडये, कांय थोडीं कुटमा तमिळ वा तेलुगू प्रदेशांत वचून रावलीं आसूयेता.

ह्या कोंकणी समाजान थळावी भास शिकून घेतली. कांय विद्वानांनी मलयाळम भाशेच्या अभ्यासाक-संशोधनाक योगदान दिलें; तर कांय जाणांनी मलयाळम साहित्यांत भर घाली. पूण त्या लोकांची तोखणाय अशी की तांणी निजाकी कोंकणी भास आनी कोंकणी संस्कृताय सोडून दिली ना. इतलेंच न्हय; तर आपले भाशेचो आनी संस्कृतीचो अभिमान बाळगून ती सांबाळून दवरपाचो वावर केलो. हो तांचो वावर आयचे घटकेकूय चालू आसा.

कोंकणी संस्कृताय सांबाळून दवरपाचें भोव बरें काम थंयच्या कुणबी घटकान केलां. काणकोण वाठारांत 'गडयां रामायण' हो लोकसंस्कृतींतलो नमूनो हय-न्हयसो उरला. पूण तो बरे तरेन सांबाळून दवरला कोचिंतल्यान कुणबी समाजान. थंय ते ताका 'गोड्डे रामायण' म्हणटात आनी ताचे खेळ जातात. सरगेस्त प्रा. आर. के राव हांणी तें बरवन काडून, ताचें संपादन करून तें उजवाडायलां. 'श्रवोण गीत' (श्रवणाची काणी) होवूय गावन सादर करपाचो प्रकार तांणी सांबाळून दवरला. वैश्य समाजांत कांय बरे चित्रकार जावन गेलयात, साहित्यिकूय आसात. दैवज्ञ ब्राह्मण आनी सारस्वत हांणी व्यापार-उद्योगाच्या मळार कर्तत्व दाखयलां. ह्या घटकां मदीं भौशिक मळार सरमिसळ आसा; पूण जातीच्यो वंयो गोंयांत आसात ताचे परस अधिक व्हड आनी घट आसात. देखून एकूच कोंकणी समाज अशे तरेन ताची वर्णना करूंक मेळना. कोंकणी मांयभास आनी कोंकणी संस्कृती हांचे विशींचें दर एका घटकाचे निश्ठेंत मात कसलेंच अंतर ना.

1963 वरसा एन. पुरुशोत्तम मल्ल्या हांणी 'कोंकणी भाषा प्रचार सभा' हे संस्थेची थापणूक केली आनी कोंकणी भाशी समाजांत मायभाशेचो उपेग वाडोवपाचो वावर सुरू केलो. थंय अ.भा. कोंकणी परिशदेचीं अधिवेशनां जांवक लागलीं. अ.भा. कोंकणी साहित्य सम्मेलनां जांवक लागलीं. साहित्य अकादेमिची कोंकणीक भास म्हूण मान्यताय मेळोपाच्या वावरांत को.भा.प्र. सभेचोय वांटो आसा. उपरांत 'केरळ कोंकणी अकादमी' हें संस्थेचो जल्म

जालो. तिणें संशोधनाचो, अभ्यासाचो आनी पुस्तकां उजवाडा हाडपाचो वावर केलो. ह्या संस्थांच्या आनी हेरांच्या वावराक लागून कोंकणी संबंधान तो कोंकणी समाज आयज चड जागृत आसा, चड क्रियाशील आसा.

आदलीं 100, 150 वा 200 वरसां केरळांतल्या कोंकणी लोकान कोंकणी बरोवपाक देवनागरी लिपी वापरली. उपरांत केन्ना तरी तांणी मलयळम लिपींत कोंकणी बरोवपाक आरंभ केलो. कांय पुस्तकां, कांय पत्रिका मलयाळम लिपीत आयल्यो. पूण साहित्य अकादमीचे मान्यताये उपरांत तांचे मदीं लिपीच्या विशयांत वेगळो विचार सुरू जालो आनी तांणी देवनागरी लिपीच वापरपाची चाल सुरू केली. फाटल्या सुमार 15 वरसांच्या काळांत जितलीं पुस्तकां थंय कोंकणी भाशेंत उजवाडा आयल्यांत तितलींय देवनागरी लिपींत आसात. केरळ कोंकणी अकादमी 'स्पंदन' नांवाची म्हयन्याळी पत्रिका काडटा, ती देवनागरी लिपींत आसता.

कोचींत दोन कोंकणी माध्यमाच्यो मुळाव्यो शाळा चलतात. त्या शाळांनी क्रमीक पुस्तकां वापरतात तीं गोयांत वापरतात तींच. केरळ सरकारान येता त्या वरसाच्यान सवे यत्तेक एक विशय म्हूण कोंकणी घेंवक मेळपाचो निर्णय घेतला. राजकारणांत सक्रीय आशिल्ल्या, कुणबी समाजांतल्या एका जागृत वांगड्यान त्या संबंदान फुडाकार घेवन तें घडोवन हाडलां. केरळ सरकारान 'केरळ कोंकणी साहित्य अकादमी'ची स्थापना करपाचो निर्णय घेतला आनी तिचें रोखडेंच उकतावण जावचें म्हूण वावर चालू आसा. केरळ सरकारान कोंकणी समाजाक भाशिक अल्पसंख्यांक म्हूण कायदयान मान्यताय दिल्या. 1678 वरसा त्या तीन आयुरवेद पंडितांनी मायभाशेविशीं जो अभिमान दाखयलो त्या अभिमानाक आनिकूय जाग आयिल्ल्याची जाणविकाय केरळांतल्या कोंकणी लोकां मदीं भोंवताना चांटे पावलाक जाता.

होरटस मलबारीकस इंडिकस ह्या ग्रंथाचें पयलें खंड 1678 वरसा उजवाडा आयलें आनी 12 वें खंड 1703 वरसा प्रसिद्ध जालें ते पयले आवृत्तिची एक प्रत तिरुवनन्तपुरम शारांत सरकारी पुरातत्व विभागांत आसा. कोची शारांत जाल्ल्या अ.भा. कोंकणी परिशदेच्या एका अधिवेशनांत ती प्रदरशनाक दवरिल्ली. कांय वरसां फाटीं केरळ विद्यापीठान त्या ग्रंथाचो इंगलीशींत अणकार करून घेवन 12 खंडां उज्वाडाक हाडिल्लीं. कोळिकोड (आदलें कालिकट) शारांत जाल्ल्या कोंकणीच्या एका सम्मेलनांत केरळ विद्यापीठाच्या

पालवान हीं खंडां प्रदर्शनाक मांडिल्ली. ही आवृत्ती सोंपल्या. मात हीं खंडां मंगळूरांत विश्वकोंकणी केन्द्राच्या ग्रंथालयांत पळोंवक आनी वाचूंक मेळटात.

ह्या विशाल ग्रंथाच्या पयल्या खंडाचे उजवाडावणेक पोरुं 333 वरसां पूर्ण जालीं. केरळांतल्या कोंकणी समाजान तीं अभिमानान मनयलीं. पूण दुसरे वटेन मदीं खवदळ सुरु जालो तो कांय मलयाळी मनशांचे विचित्र वागणुकेन. हेरशीं, कोंकणी आनी मलयाळम ह्या भाशां मदीं केन्नाच संघर्श नाशिल्लो. आजूय ना. दोन संस्कृतायां मदींय संघर्श नाशिल्लो आनी आतांय ना. कोंकणी समाजान आपली भास आनी संस्कृताय सांबाळटानाच आनी तांचो अभिमान बाळगीतानाच मलयाळम भास आनी संस्कृताय गिरेस्त करपाच्या वावरांत वांटो घेतला. इतलें आसूनूय आयज कांय मोटवे नदरेचे मलयाळी मनीस कोंकणी लोकांचें कर्तत्व कुसकुटावन तांचेर अन्याय करपाच्या वावराक लागल्यात. 'होरटस इंडिकस मलबारीकस' ह्या ग्रंथाची निर्मणी करपाचें सगलें स्रय फकत इट्टी अच्युतन ह्या केरळी आयुर्वेद पंडिताक दीवन ते ताचें यादिसतीक करूंक सोधतात. तें करताना ते कोंकणी आयुर्वेद पंडितांच्या वावराक नगण्य लेखून तो कुसकुटांवक सोदतात. हो त्या आयुरवेद पंडितांचोच न्हय तर समेस्त कोंकणी समाजाचो अपमान. हो कोंकणी कर्तत्वाचेर खर अन्याय.

ग्रंथाचो मुखेल वावर तीन कोंकणी आयुर्वेद पंडितांनी केलो आनी इट्टी अच्युतन ह्या केरळी आयुर्वेद पंडितान तांकां पालव दिलो अशें एक मत आसा. जाल्यार, मुखेल वावर इट्टी अच्युतन ह्या पंडितान केलो आनी कोंकणी आयुर्वेद पंडितांनी ताका आधार दिलो अशें दुसरें मत आसा. पूण खरेपणीं कितें घडलां आसूंये हाची गवाय ग्रंथांत आसा. एक सर्टिफिकेट आपू भट, रंग भट आनी विनायक पंडित ह्या पंडितांनी आपले मायभाशेंत म्हळयार कोंकणींत दिल्लें आसा; तर तशेच तरेचें आनीक एक सर्टिफिकेट इट्टी अच्युतन ह्या पंडितान आपले मायभाशेंत – म्हळयार मलयाळम भाशेंत दिल्लें आसा. दोनूय सर्टिफिकेटां ग्रंथांत छापिल्लीं आसात. तांचे वांगडाच डच गवर्नर हेन्रीक व्हान रीड हाचेंय एक बरप ल्याटीन भाशेंत छापिल्लें आसा. त्या बरपांत व्हान रीड कोंकणी पंडितां मदीं कशी खोलायेन चर्चा जाताली; सारकें कितें तें थारायताना ते आदल्या ग्रंथांचो कसो आधार घेताले आनी आपापलीं मतां कशे नेटान मांडटाले ताची खबर सांगता. ते वाचतकूच हे पंडित कोणाक तरी फकत पालव दिताले हें कोणाचेच बुद्धीक पटचें ना. चडांत चड अशें म्हणूंक जायत की ग्रंथाच्या वावरांत चोवगांचोय वांटो आसा. सगलेच पंडित आसले,

जाणकार आसले. एकलो पंडित आनी तेग मानाय वा तेग पंडित आनी एक मानाय अशें तें चित्र खात्रीन नाशिल्लें. जांणि वनस्पत पुंजावपाचें काम केलें तांकां पसून मानाय लेखले तरी ते वखदी वनस्पते वळखुपी आसले; त्या संबंधान जाणकार आसले. हें सगलें स्पश्ट आसतना हेर सगळ्यांक कुस्कुटा समान लेखून फकत मलयाळी मनशाचें योगदान उखलून धरपाची तरा शाणेपणाची न्हय.

मलबारांतले वखदी वनस्पती विशीं जाल्लो हो सोळाव्या शेंकड्यांतलो वावर इतिहासीक. आयुर्वेदाचो अभ्यास कर्तल्यांक आनी सर्वसामान्य लोकांकूय महत्वाचो. असलो वावर कर्तल्यांचें यादिस्तीक जांवचेंच. पूण तें संकुचित विचारान आनी हो आपलो तो परकी हे भावनेन जावचें न्हय. केरळ प्रदेशान थंय गेल्ल्या कोंकणी समाजाक आधार दिला तेच भाशेन कोंकणी समाजान केरळचे शिक्षणीक, उद्यागीक, व्यापारी आनी सांस्कृतीक उदरगतीक हातभार लायला. जंय ताचें कर्तत्व नदरेंत भरपा सारकें आसा थंय ताका कुस्कुटावप ही पडमूरपणाची वागणूक जातली.

मलयाळी लोक देशाच्या सगल्या वाठारांनी पावला. आपल्या आंगांतल्या गुणांनी आनी वावरान ताणें ल्हान-व्हड स्थान मेळयलां. गोंयांतूय मलयाळी भाशी आसात. कोंकणी लोकां भाशेन ते आपली भास, संस्कृताय सांबाळूनूय गोंयचे भौशीक जिणेकडेन समरस जावपाचो यतन करतात. ते मलयाळी म्हूण हेरांनी तांकां कुस्कुटा समान लेखचे? तांकां जें फावता तें न्हयकारचें? तांचें योगदान नगण्य लेखचें?

केरळांत जे मलयाळी मनीस संकुचित नदरेन आनी अविचारान वागून कोंकणी कर्तत्व नगण्य लेखूंक सोधतात तांणी चन्नायेन पानलां घालूंक जाय. केरळांतल्या कोंकणी कर्तत्वाचेर अन्याय हो कोंकणी समाजाचो अपमान - फकत केरळांतल्याच न्हय तर देशाच्या हेर वाठारांतल्याय. ह्या अपमानाचो परिणाम बरे जावचे नांत.

*****

# लोक नाचांच्या पंगतीर मांडो

– पावलु मोरास

(आदल्या अंकया थावन)

मांडो पदांच्या रूपांत चार थर आसात. ते जावन आसात अत्रेगी मांडे, एकवोटी मांडे, विळापी मांडे आनी खबराळी मांडे. ही विविध थर मांडो पदांत चरित्रेचा विविध घडितांक लागोन उदेल्यात म्हण कळोन येता.

## अत्रेगी मांडे

अत्रेगी मांडो प्रकार उबजोंक कारण, मोग कर्नारांच्या प्रणय कथाचेर तवळ प्रचाराचेर आसल्ल्या ओपेरा, मोगाचो कादंबरी, पाडो संगीत प्रकार आनी राज दरबारांतल्या नाचपा सालाचें प्रेरण जावनासा. अत्रेती मांडयाचे घडणार आनी चळवळीगार आज वांचोन उरल्ले जालयार तीन शेकड्यां थावन कोंकण करावळेर वैभवान फुलल्ल्या भारतीय आनी लातीन संस्कृतींत एकदम सम्मिलन जाल्लो नाच करगाल्लो, जिरल्लो आनी विभाडलले पळेवन, ताणींच घडल्ल्या भावनात्मक संगीतांत तांचीं भोगणां प्रतिध्वनीत जांवचें ते पळयते कोण्णा. कित्याक म्हळयार मांडो भावनात्मक आनी प्रणयाचें उत्पन्न जावनासा म्हळ्ळें सत आज चरित्रेंत सेरवोन गेलां.

## एकवोटी आनी विळापी मांडो

मांडो भगणांनी आनी उमाळयांनी भरल्लो एक प्रकार. हाच्या पाटल्यान मोगाचो हुसको आसा आनी ह्या उमाळयाच्या चिंतपांत मोग करनार आसा.

मांडो पदांत दोडे स्वभावगूण आसात. पयल्यांत दादल्या–बायले मदलो मोगाचो बांध आसल्लो खिन्नतायेचो (Melancholic Melody) एक–सारको ताळो आनी तांचो बांध तुटच्या संदर्भाचो दुखेस्त घुडणुक्यो. मांडो प्रकारांत बांध जावनासा धार्मिक आनी सात्रामेंताच्या पात्राचो, कारण हांगा मोग करनार ताच्या प्रेयसी खातीर आपलो जीव समरपिता म्हण परगट करता. तो व ती तांच्या काळजांत आलतार उबी करतात आनी मोगाचो साक्रिफीस भेटयतात. आनी दोन जीवी मात्र अस्तित्वांत आसच्यो म्हळयार एक देव सर्गाराजांत आनी ताची व ताचो मोगात्म (beloved) ह्या भूमी–वैकुंठांत म्हण पातयेतात.

पूण ह्या मांडो पदांचो दूसरो स्वभाव गूण जावनासा सूर्यो, चंद्र आनी नेकेत्रांचो उजवाड आनी तांणी फांकोंवचीं रंगाळ किरणां, "त्या काळार मळबार उदेल्लो आमचो संतोस" (The sky of those days of our joy) – म्हणता तरनाटो ताचे चेलियेक आदेवस मागताना – देखीक पदः 'सरगु नितळगो निर्मळ. ते आमच्या सुखाचा गो दिसांचो शेवोट नां गो नेकेत्रांचो' – (फ्रेडरिको डिमेल्लो 1834–1888). पूण सूर्यो, चंद्र, नेकेत्रांच्या उज्वाडाच्याकी, सर्गाराजांत त्या आंजांचेर फांकचो उजवाड श्रेष्ट – 'तुं सरगींचो आंज, तुज्या उजवाडा मुखार नेकेत्रांचो उजवाड माजवता. तूं सरगीं थावन देंवोन आयिल्ल्यान सांता-भकतांचे कुरपेन आज आमी काजाराचो साक्रामेंत जोडलो' अशें पदांचे वर्णन जाता. ह्या वर्णना वरवीं ह्या मांडो प्रकारांत तीन विभाग करयेत. पयलें–मोग एकवोटांत मुंदरसुंचो आनी काजाराचा साक्रामेंतांत संभ्रमचो. दूसरें–दिसपोडत्या काजारी जीवितांत एकवोट देसवाटोंक जांवचो घडणुक्यो. आनी तिसरें – मोगाचो एकवोट दुखेस्त घडितांनी तुटोन वेचो आनी वायट परिणामा वरवीं वेगळाचार जांवचो.

**मोगाद्वारीं एकवोटः**

मोग भुरग्यापणार आसतानांच सुरू जावन लंयगीक वोडनेक वळग जांता. एका प्रकरणांत 17 वरसांचो एकलो भुरगो मरिया म्हळ्या नांवाचे चलियेलागीं मोगार पडोन शिकचें रावयता. देखीक पद – 'मरियाचा लगनानूं मोगाक एसतुदाक लायलो ताणें उजो'. आनियेका प्रकरणांत एकलो तरनाटो ताचे प्रेयसीक पयले पावटीं देखतानांच ताचें आंजाळ मुखामळ ताणें देखलें – देखीक पदः 'तुका देखतच तेदेचा वेळा संसार जाययी जालो म्हाका' – (अरनालडो दे मिनेजस 1863–1917). मोग उबजाताना तीं एकामेका मोगान आनी उमाळ्यान उलंवची रीत एकदम उल्लासीत आसता. तीं अशें उदगारतात – 'तुजेविणें हांव जियेंवक सकाना तुजें काळीज नासताना.' 'तुका पळयनासताना एक दीसयी हांव रावोंक सकाना'. 'दिसा मदें एक घडी पूणी तुका पळयना जालयार हांव पिसोच जातां' – अशें तीं काजाराचा साक्रामेंतांत एकवोटल्यार मात्र शांत भद्रतेन एकामेकाचा वेंगेंत धैरान एकवोटोंक सकतात.

पूण काजार म्हळयार चुकीविणें संतोसाचें भंडार न्हय. 'तें धुवांक दुःखीचें आनी पुतांक जिवाचें' – देखीक पदः 'दिजग्रास चलियांचें विडो चलयांचेर' मोगार (Lover) आनी मोगात्म (beloved) नकतीर आनी नकतीरांचो

परजळ आसल्याबरी – तीं अशें उदगारतात – 'आंजाबरी नितळ आनी नितळ मुखामळ तुजें', 'तुजें आंजाळ मुखामळ म्हजा काळजांत खंचलां' – देखीक पदः 'सुरया नेकेत्रांचे परीं पोरजळता' – (गिजलिनो रेबेल्लो 1875–1931) तें फांत्येचें नेकेत्र 'एस्त्रेल पाल्येवेलें' (इनासियो फेरनांडीस 1872–1927). मोगा काळीज (Sweet Heart) चंद्रेमा बरी. 'सुंदराययी चंद्रेमाची' (आंटोनियो जुवांव डायस 1857–1931).

उजवाडाक आनी परजळाक सर करचें सोडल्यार, उपरांत येतात फुला – रंगरंगाळ फुलांचें वोडत इत्यादी. तीं अशें उदगारतात – 'तूं सोभायेचो गुलोब हांव करतां तुका आराधन.' 'तुं पर्मळाचो कळो' अशें मांडो पदांत चलियेचे सोभाये विशयांत, तिचे गाल, पोले, दांत आनी वोंट गुलोबाक, मोगर्या कळयांक आनी आबोलीं फुलांक सरी करचें आसता. तिचे दोळे पळोंवक येतात बामणांचे चले. देखीक पदः 'ते तुजे चोयच्याक तो येताय बामणांचे चले' (लिगोरियो कोस्ता 1851–1919) मोगाच्या दोळया विशांत आनियेक पदः 'मोगाचे दोळे लाय रे म्हाका' – (एदवरडो मिनेजस 1862–1922). 'इगरजेंत मिसाक गेल्ल्या वेळार ती मोगार पडता, हासता, उलयता आनी हर एकल्याक शुभाशय पाटयिल्ल्या बरी नटन करता. घरा आयिल्ल्या वेळार सीदा येवन खटल्यार निदता आनी घरच्यांक सांगता ह्यो ल्हान ल्हान विशयांचेर तुमी हुसको, दाखंवचो न्हय, म्हाका तवोळ तवोळ असलीं सिंतिमेंतां येवनच आसतात' – अशें मांडो रचपी मोगाराचा तोंडांतल्यान सब्द घालयता – देखीक पदः 'ओसली सिंतिमेंता जायते जाताय म्हाका.'

चडावत मोगारांनी (Lovers) मेळचो जागो प्रेयसीचा जनेला कडेन, चंद्रेमाचा उज्वाडाक, इगरजेक वेताना, झरीचा उदकांत न्हाताना, दरयांच्या तडींनी, काजाराचा माटवांनी आनी करेज्म सुरू जांवच्या पयलें कार्निवालाचा उत्सवाचा संदरभार, घरच्या व्हडिलांची परवणगी आसल्यार व व्हडीलां घरा नातल्ल्या वेळार तांचा तांचा घरानी, अशें मोग करनार विविंगड आवकास सोधून काडतात. पूण चलियांच्या घरचें जनेल, सर्व जागयां पयकी भोव आपुरबायेचें. ताणें वियोला खेळताना, आरसो पळेवन केस उगयताना – 'हांव आरस्या मुखार रावोन केस उगयताना, म्हजा इष्टांक राकतालीं, ताचे सावळेक आंवडेतालीं' – अशें उदगारतात. आनियेक बरो आवकास आसा चंद्रेमाचो उजवाड. एक कवी सांगता – 'चंद्रेमाचा उजवाडाक हांवें तुका पळेलें तूं बालकांवाचा दरवाट्यालागीं

उबें आसल्लेंय.' पूण चडावत मिलाकत जांवची इगरजेक वेताना व इगरजेंत मीस आयकाताना. तरनाटो उदगारता – 'आयताराचें हांव तुका पळेंवक आशेतां, तुं मेळताना हांव उल्लासान उमाळतां... म्हजे दोळे मिणमिणतात.' पूण संभाषण करूंक तितलें सुलभ ना. उरबेन भरललो मोगी उलंवक उसमोडता. 'सगळोच उसमोडतालो'. ताचें देवासपण तितलेंगी, ताणें आयकाल्लें तें मीस तिका भेटयता – 'मीस देखून तिका भेटयललो' पूण मोगारांक गुपितपणाचे आवकास मेळचे उणे – 'मोगाचे घुट सांगोंक म्हाका एक्की दीस मेळाना.'

तवळ गोंयांत झरीच्या उदकांत दादले बायलांनी सांगाता न्हांवच्याक अडकळ नातल्ली. ती एक रिवाज जावन गेल्ली. 'आमी सांगाता न्हाताना, आमचें न्हाण नितळ आनी निर्मळ.' मोगाराचे उमाणे – 'म्हज्ये काळजांत पडला उजो' देखीक पदः 'तो सोसुं नोजो मोगा रुंबडेचे झरीत बान्हु गे–न दिसता.' (सेबेसत्यांव कोस्ता–फेर्नांडीस 1875–1937)

गोंयांत करेज्म प्रारंभ जांवच्या पयलेंचा आयतारा, म्हणजे इंत्रुजाचा आयतारा थावन तीन दीस 'कार्नीवाल' उत्सव जाता. ह्या उत्सवाचा दिसांनी लोक गम्मत्तां मारता, नाचता, पदां गायता, मजा करता आनी अलंकृत रसत्यांनी चित्ररथ घेवन मेरवणिक्यो काडता. कारण करेजमाच्या चाळीस दिसांनी हें पूरा आडवारलां देखून, ह्या तीन उत्सवाचा दिसांनी तांचा माजेची आशा पूरा भागयतात. करेजमांत जिंजवार करून नितळ जिणी जियेंवक आंवडेतात. ह्या कार्निवालाचा संदरभार मोग करनार्या तरनाटीं तरनाट्यांक एकामेकाचा पासळेंत उलोंवक गजाली मारूंक जायते आवकास आनी स्वातंत्र लाभता. ह्या वेळार मोगार पडल्लीं करेजमाचा वेळार थंड बसाजे पडता जाल्ल्यान तीं अशें उदगारता. 'कारनिवाल दिसांनी तुज्या मोगान हांव पिश्यार पडलों, पूण आतां करेजमाचा दिसांनी तूं म्हजेकडे उलयनांय देखून म्हज्या काळजांत फुगासांव जाता. हांव उसमोडतां.'

मोग करनार एकामेकाचा वेंगेंत नातल्ल्या वेळार, ती नेकेत्रांक दोळे खंचायतात, पदां गायतात, संगीत व्हाजयतात. तांचा मोगारांचा तस्वीरेक अत्रेगान पळेयतात. कागदां बरयतात आनी स्वपणां देखतात. मोगारांचो उगडास येताना म्होळबाक दीष्ट लायतात आनी दुःखां गळयतात. देखीक पद – 'तुजो उगडास येतरिच मोगा नेकेत्रांचेरी वेळू पाशार कोरतां (फ्रानसिसको सार्डिन्हा – 1897–1958).'

मोगाचा निरंतर वोडने थावन मन घुसपडांवची आनियेक रीत म्हळ्यार पदांत आनी संगीतांत मेतेर जांवचें. मोगाक आंवडेल्लो मोगार उमाळयान उदगारता – 'हांव म्हज्या बालकांवांत बोसोन आमचे पद गायतालों, गळोवन दुःखांची झरी, तुका पळेंवक आवकास मेळातगी म्हण विळाप करी.' तेदनां मोगात्म चली उचारता 'हांव म्हजी पुर्लूक वाजयताना, तुजो उगडास येता म्हाका, तांबडी मुस्तायकी न्हेसोन, आमचें पद गायताना तुजे गूण वळ्कोन पियानोचेर पडताली दूःखां.'

मोगाचो वेगळाचार मोगाराची तस्वीर पळयताना आनीकी दूःख चडता – वियोला हातींत धर्न तुज्या तस्वीरेचेर दोळे खंचायतां, तेदनां तुजें रूप म्हज्या दोळ्यां मुखार दीश्टीक पडता... म्हज्या काळजांत पिंतरायिल्ली तुजी तस्वीर हांवें दवरल्या, तें तुजें रूप देखोन म्हजें उशें दोळयांतल्या दुःखांनी भिजता.... तुज्या रूपाचें पिंतूर तप्पालार धाड. म्हजे उरलेले दीस हांव तुजें धाडलेलें रूप पळेवन पाशार करतां. देखीक पद – उरलोली दीस काडतां सारक्या तुजा चोयनूं' – (मरियानो कोसता 1898–1931).

सांगाती हाजर नातल्ल्या वेळार कागदां बरोवन संपर्क दवरयेता. पूण सांगात्या कडेन लागशिल्यान एकवटचें 'स्वपणां' नी साध्य जाता. सांगाती जरितरी पळेंवक येना, स्वपणांत ताका देखोन, वेंगोन उमो दींवचें प्रयतन करतात. आनी दोनी हातांनी आरावन धरचाक गजडेंतलें उशें वापरतात. पूण ही अनिश्चितताय आनी अत्रेग काजाराचा एकवोटांत संपता. त्या दीस तांच्या जिणीयेचो सूर्यो तांच्या काळजांत उदेता. पूण काजाराचो संभ्रम सांजेर जाल्यार, सूरयाचो उगडास आसाना, पूण नेकेत्रांचो जिळमिळतचो प्रकास आसता आनी इगरजेचो घांटी गोंन गोंन करून आवाज करतात – 'गोंन गोंन रे घंटाचो.' तो दीस काजाराचो प्रमुख जावन होकलेचो जावनासता. ती काजाराचो मांडो गायता आनी ताचा नोवर्याचेर मोग वोत्ता – 'नेकेत्रांनी सुरंगायिल्लो म्हजा फुडाराचा आंजा' आनी होकाल सांगता नोव्र्याक 'आमी दोळयांनी उलयिल्लीं उतरां आमच्या काळजांनी उगडासांत दवरयां' – 'दोळयांनी सांगलोलीं उतोर आमचें सदांच मनांतूं दवरचें.'

मांडो नीज जावन मोगाच्या भोगणांनी भरलोलो प्रकार. काराण, काजारी जोडयाच्या संबंधान संतोसाची उचारणी केल्या शिवाय, काजारा उपरांत जांवच्या भुरग्यांचो प्रस्ताप हांगा जायना. काजाराच्या संबंधाचे एक पद – देखीकः 'मोगा यो मोगा यो तूं यो मजान रावूं नोजो मोगान मारीता उजो' – (अलेकसियो

आंटोनियो कोसता 1874–1936). काजाराचा साक्रामेंता भायर बायल आसयेतगी म्हळ्या विचारांत मांडो पदां घडपी एक सारकी सम्मती दीनांत. साक्रामेंताची एक बायल गोंयांत आसल्यार, बोंबयंत एक दवरलेली बायल आसता. देखीक पदः 'बायल म्हजी साक्रामेंताची' आनी बोंबयांत 'एकी दोवोलेल्या डिवर्तिमेंताची.'

मांडो चडावत बामण वरगाच्या काजारी जोडयाचो जाल्ल्यान हांतून विंगड जाती मिसळाल्ल्यो उणे. पूण थोडया मांडो रचपयांनी ह्या विश्यांत गमन दिलां आनी पदां रचल्यांत – देखीक पदः 'कासतां आमीं गलयारे पोरो मोगाचा सुखाक वेगीं म्हाका वोरो' (जोकीं संताना मिनेजस – 1898–1939).

## एकवोट आनी वेगळाचारः

एकवोट सबार काराणा वरवीं मोडुंवयेता. त्या काराणां पयकी

1. दोत पयल्या स्थानार आसा. 2. अनामीक व्यक्ती थावन नालीसायेचो खब्रो. 3. वैयक्तीक वैरीं थावन कुयुकत्यो 4. पयशिल्या गांवाक मोगराचें पयण. ह्या कारणां वयर जयत येताना पुनर एकवोट घडता.

आदीं दोतिविणें काजार नातल्लें, काजार जाताना होकलेच्या बापायन नोव्र्याक दींवची दोत – पयशां रूपार, वस्तू वा काणिको, आस्त, तोट व भुंयभाट रुपार आसताली. तशें जालयान मांडो पदांचो संसार दोतीचो प्रस्ताप नासताना चिंतूंक असाध्य म्हण्येत. ही दोत, नोव्र्या पाडतीच्यांनी मागल्ले तितली मेळानातल्ल्या वेळार मोगारा मदें वेगळाचार घडतालो.

एकवोटाचो बांद तुटोंवक आनियेक प्रमुख काराण नालिसायेच्यो खबरो. एकवोट घडताना जाल्लो संतोस आनी होंदोण मोसराळे मनीस नालिसायेचो खबरो प्रसार करून दुसपटायतात. थोडे पावटीं एकवोट घडोन येंवचो घुट सांबाळून दवरतात. पूण हो घुट परगट जाताना आनी तांच्या विश्यांत विकाळ खबरो आशार पाशार जाल्ल्यो आयकोन एकवोट घडानासताना वेगळाचाराची वाट चमकाल्ली आयकोंक मेळ्ळयार, थोडे पावटीं ह्या खबरे वरवीं एकवोट घट जाल्लोय आसता. 'आमी मोगार पडल्यांव म्हण लोकाक मोसोर जाता जालयार जांवदी, लोक कितें जायतें उलोंवदी, आमी आमची इष्टागत विभाडची नाका. आमचे दुसमान बोबाटल्यारी एक दीस आमी एकवोटतेल्यांव' अशें उदगारचे मोगाचे जोडेयी आसतात.

थोडे पावटीं मोगारांचे निवासांतर व देशांतर पयण आसताना वेगळाचाराचो प्रस्ताप उदेता. हो वेगळाचार दोन थरांचो आसता. थोड्या मोगारांक मोगात्म चलिये वयर आसल्लो मोग आनी आकर्शण उणे जावन येता जालयार देशांतर पयणाचें नीब दीवन वेगळाचाराक कूस मारतात. मोग तसोच उरलो जालयार, हांव फुडारा खातीर वेता आनी वोचोन पाटीं येताना मुदगो हाडून येतां म्हणून भरवासो दीवन वेगळाचार आंवडेतात. त्या वेगळाचाराचा आमूल्य घडिये व आदेव्स करच्या वेळार – 'आदेव्स करचो आयलो म्हणताना म्हज्या काळजांत फुगासांव जाता. म्हज्या फूडल्या जीणीयेचो भरवासो कोसाळता म्हळ्ळेपरी म्हाका भोगता. वच वच रोडानाका, देव तूका संतोस फावो कर्तलो' – अशें आदेव्स कर्ताना उमाळचीं उतरां आस्तात. देखीक पदः 'आदेव्स करचो वेळू पावलो, ये म्हजें काळीज पापसोता, दिसपिदिरो कोरचा वेळा, वो संसार बोगूं म्हाका दिसता, वच वच रे रोडूं नाका देवू पेलीज कोरतोल' तुका (तोरखवातो दे पिगवेरेदो – 1876–1948)

**अंतीम वेगळाचार आनी परिणामः**

वयर विवरिल्ल्या चार काराणां वरवीं मोगारांच्या एकवोटांत संकष्ट येवन निराशान काजार जांवक अडकळी उबजातात. ह्या वरवीं – 'नशीबान आमकां एकसुरें रावोंक निरमीलां, हाका काराणां आमी आमच्या आवय बापायचेर सोदूंक जायना, आमच्या जलमा थावन आयिल्लें आडांवक जायना' अशें उदगारतात.

थोडीं आवय बापय निरदयाळ काळजाचीं आसतात. ह्या वरवीं मोगारा मदें अशें संभाषण जातात – 'पप्पा आनी माम्मा तुजेलागीं काजार जांवक सोडीनांत. आमी मागयां तांकां समजोणी येंवक आनी आमचें नशीब उगतें जांवक, म्हजी पप्पा आनी माम्मा धारुण काळजाचीं जाल्ल्यान म्हाका पुरासांवान मोरयतात... तुज्या पप्पाक दुरसाजे पडटा त्या खातीर हांव तुजो मोग सांडटा आनी देशांतर वेतां... म्हज्या बापायन तुजेलागीं काजार जांवक परवणगी दीवना. म्हजी मत पिशी जाली... आमी घुटान एकवोट जाल्ल्यां. पूण आमच्या बापायन घूट परगट करून आमकां घात केलो... देव ताचो आतमो राकोंदी आनी सरगार वोरन पावोंवदी' – (पप्पा मेलोरे बोंगलोलो)

थोडे पावटीं आवय धारूण काळजाची जांवची आसा. आनी आपले धुवेक ताच्या मोगारा कडेन काजार जांवचें आडायता. पूण सक्कड आवयो अश्यो

आसानांत. चडावत एकवोटी मांडो आवयच्या मोग मयपासा विशांत तिच्या मोगाळ काळजा विशांत मांडो रचपी फुगारतात.

आवय बापायक दुरसानाशें तांच्या जलमा नेकेत्राचा नशीबाक दुरसोंचेंयी आसता. पूण चड बेजारायेची संगत जावनासा विश्वास घात करचो. काराण विश्वासीपण भांगार आनी अविश्वासीपण तांबें म्हण्टा'त. विश्वासघात भांगार खिरयता. तशें जाल्ल्यान विश्वासघात जाताना काळीज शिंधल्लो अनुभव अशें उचारतात – 'तूं आंज जावन आयलेंय आनी उपरांत देंवचार जालेंय... तुजो पयलो मोग म्हज्या काळजांत रोबलो आतां तुवें कशें म्हाका सांडून वेचें...'

विश्वासघात भोगल्ले मोगार, वेगळाचाराच्या दुःखान वोळवोळतात. त्या भाग्र ईश्ट सांडताना वेगळाचाराची दूःख आनीकयी विद्रूप जाता. पूण मोगार, ही वेगळाचाराची निराशा उत्रावणेक पर्तोन एक्वोटाक अत्रेगतात आनी निर्फळ जातात. 'पूण मोग शेवोटाक पावलो व विश्वासघात जालो तूजो उगडास हांव मरोन दूळ जाता पर्यांत म्हझे थंय उरतलो' – अशें मोगान उदगारतात. देखीक पदः 'तुजो उगडास म्हाका संगाती जाल्यारी पासूनूं म्हजी माती' – (पावलो मिलाग्रीस सिल्व – 1855–1931)

मोगारांनी तांच्या वैयक्तीक दुःखाक सर्ग एक भुजवण म्हण लेखतात. कारण तांच्या विश्वास घातक्यां थावन तीं सर्गार स्वतंत्र उरवक सकतात म्हण तांची अभिप्राय जावनासा. पूण थोडे मोगार, सर्ग एकवोटाचें बागील म्हण समजातात. 'आमच्या मोरना उपरांत जाल्यारी आमी एकवोटाक सकतेल्यांव... ह्या संसारांत संतोस हांवें होगडायलो. सर्गार तरी तूं एक सबद मोगाचो उलय... हांव बरें मरण मरोंक माग, त्या वर्वी सर्गार देवा सांगाता, तुका सांगात दींवक हांव अत्रेगतां...' अशें उदगार आस्तात.

असलो प्रणयभरित मांडो ताचा सोभायेन आनी रुपेस्तपणान ल्याटीन तशेंच भारतीय जाल्यारी तो आतां चडुणें मायाग जाला मात्र न्हय, तरनाट्यांचो मोगाचा आनी दुःखांचा ल्हारांचो संसार एक शेकडोभर गोंयच्या पाचव्या धरनीर विराजमान जाल्लोलो परत्यान येंवचें लक्षण दिसाना म्हणोंक बेजाराय भोगता.

**मोग करनार्यांचे प्रणय प्रकरणः**

पाशचात्य संस्कृतीचा संयोगान आनी तवळ प्रचारार आसलल्या ओपेरा

आनी राज दरबारांतल्या नाचपा सालाच्या प्रेरणान मोग करनारांच्या प्रणय प्रकरणाच्या भोंवतणी 'मांडो' प्रकार उबजालो. तवळच्या मांडो घडणारांक ह्या मांडो पदांचें विविध रूप आनी स्वरूप कळीत नातल्लें जांवक पुरो. पूण मांडो प्रकारांत बांध धार्मिक रूपाक बदलाल्ल्यान, मांडो पदांत विविध थर उबजाले. प्रारंभार मोगाचे अत्रेग, उपरांत मोग करनार्यांचो एकवट आनी बांध तुटच्या संदरभार विळाप अशें थर उबजाल्ल्यान, उपरांतल्या चरित्रेकारांनी आनी संशोधकांनी ह्या मांडो प्रकाराचा विविध रूपांक गडी घाल्ल्यो.

मोग म्हणतच तांतून अत्रेग, एकवोट आनी वेगळाचार जाताना विळाप म्हळ्ळो प्रकार आपापीं आटापता जाल्ल्यान, मांडो घडणाराच्या सिंतिमेंतांनी अनभोगांनी आनी तांकां लाभल्ल्या प्रेरणांनी ह्या मांडो प्रकाराचे विविध आकार उबजाले. त्या भायर ह्या मांडो घडणारांच्या भोगणांनी आनी प्रेरणांनी आपुरबायेची कोंकणी कविता उदेल्ल्यान, कोंकणी संगीत ग्रेस्त जालें. मांडो प्रकार श्रेष्ठ जालो आनी कोंकणी साहित्याक एक दिशा लाबली.

जे कोंकणी संगीताचे मोगी, देशांतर आनी निवासांतर जाताना, हो आपुरबायेचो, संगीतान पिक्ललो उत्तुंगाचा शिखराक पावल्लो मोवाळ, मोगाळ आनी रोसाळ मांडो तांचा संगी गेलो, तांचा जिणियेंत जिरलो. आवकास मेळताना सव्कास तरी फुलोन आयलो आनी तांचा भुरग्यां बाळाचेर प्रभाव घालीत आयलो. ह्या वरवीं कोंकणी लोकाक कोंकणी संगीताच्या वयर अभिरूच उदेली, नवे संगीतगार उदेले, पदांगार जलमाले, कोंकणी संगीताचेर आतुराय उबजाली, कांठाळल्ल्या कोंकणी भाशेचेर मोग उदेलो आनी ह्या वरवीं कोंकणी भाशेच्या मान्यतायेक वावरूंक कोंकणी समर्थक आनी चळवळेगार उदेले.

******